## लेखकाचें प्रसिध्द जाल्लें साहित्य

१) शीला - कादंबरी
उजवाडावपी : राजहंस प्रकाशन
पणजी - गोंय

२) गीत शिरंगार
(कविता संग्रह)
उजवाडावपीः
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
काणकोण - गोंय

३) खेळागंण-
(गोंयचे पारंपारीक आनी हेर खेळ)
उजवाडावपी : श्री. सुरभि प्रकाशन
धडे सावड्डें - गोंय

४) साप्तांकी-
(अेकांकी संग्रह)
उजवाडावपी : श्री. सुरभि प्रकाशन
धडे सावड्डें - गोंय

।। ॐ अमृतेश्वरै नमः ।।
।। श्री नागनाथ बेताळ सातेरी ।।

# भारत रत्न

## (भारत रत्न मेळोवपी थोर व्यक्तिमत्वां)

एन्. सुहास

श्री. सुरभि प्रकाशन

भारत रत्न (भारत रत्न मेळोवपी थोर व्यक्तिमत्वां)
एन्. सुहास
Bharat Ratna (Brief Biographies of Bharat Ratna Laureates)
N. Suhas

**प्रकाशन क्र. ४**


**पयली उजवाडावणी : १५ ऑगस्ट, २०१५**

**उजवाडावपी :**
सौ. सुनाक्षी एन्. सुहास.
श्री. सुरभि प्रकाशन,
१६०, मंगेश मठी, धडें,
सावडडें - कुडचडें,
गोंय - ४०३ ७०६



**छापणावळ :**
क्लासीक ऑफसेट,
कुडचडें - गोंय

मोल : १२०/- रुपया

भारत रत्न मेळोवपी थोर
व्यक्तिमत्वांक नमळायेन
अर्पण...

- एन्. सुहास

# भारतरत्नांक दंडवत

आज जायते देश स्वत:च्या नागरीकांचो वा तांच्या देशा भायल्या व्यक्तींचो ताणीं केल्या समाजोपयोगी, अती विशिष्ट कार्याखातीर भोवमान करतात. तेचवरी भारतूय अशा व्यक्तींची ताणीं केल्या वावराची दखल घेवन वेगवेगळे पुरस्कार, भौमान दिवन सन्मानीत करता. २ जानेवारी १९५४ वर्सा राष्ट्रपतीच्या खाजगी सचिवान २ नागरी पुरस्कारांची घोशणा केल्ली. पयलो आशिल्लो भारत रत्न आनी दुसरो पद्मविभूषण. पद्म विभूषण हया पुरस्कारात उपविभाग केल्ले. हातूंत पयलो, दुसरो आनी तिसरो वर्ग अशे वांटे केल्ले. हे तिनय पुरस्कार भारत रत्नाचे सकल आसतले अशें फुडें म्हटिलें.

अशा भौवमाना पैकीं ''भारत रत्न'' हो सर्वोच्च पुरस्कार देश विदेशांतल्या जायत्या व्यक्तींक भेटयला. भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत हो पुरस्कार दिवपाचो निर्णय घेतिल्लो. आनी १९५४ वर्साच्या जानेवारी म्हयन्यांत भारत रत्न पुरस्काराची भेटवण जाली. भारत सरकार हाजे भायर पद्मविभुषण, पद्मभूषण आनी पद्ममश्री हेवूय पुरस्कार भेटयता. 'भारत रत्न' ही तांचे पैकी सगल्यांत उचेली पदवी जावन आसा.

सुरवेक भारतीय नागरीकांकच ही पदवी, भौमान भेटयताले उपरांत हो नेम फार्टी घेवन पुरस्कांराचे / भौमान / पदवेचें स्वरूप मर्यादित ना हाजी जाणविकाय जातकीर ताका विस्तृत्त स्वरूप दिलें. दरेका व्यक्तीची सामाजीक वावरांतली बांदिलकी ताजें कार्य मतीत घेवन हेर देशांतल्या नागरीकांकय ही पदवी दिवंक सुरवात केल्ली. भौ. अब्दुल गफार खान आनी नेल्सन मंडेला हांकां दिल्या 'भारत रत्न' पदवेन ह्या पुरस्काराचें विस्तृत्त स्वरूप सिध्द जाता. प्रतिष्ठेचें मानिल्लें हे 'भारत रत्न' हाजे चिन्ह काशाचे, पिपळाच्या पानाच्या आकाराचें आसा. तें ५८.७३७ मि. मि. लांब, २२. २२५ मि. मि. दाटायेंचें मानचिन्ह आसा. ह्या पिपळाच्या पानाचो देट सकयले वटेन दवल्ला. ह्या पानाचे मदीं एके वटेन सुर्याचें चित्र आनी सकल 'भारत रत्न'अशें देवनागरींत बरयिल्लें आसा. त्या पदकाच्या

दुसऱ्या वटेन भारताचे त्रिमुर्तीचें बोध चिन्ह आसा... जे आमकां आमच्या चलनी नाण्यांचे एक वटेन पळोवंक मेळटा. ज्या व्यक्तीक ही पदवी भेटयतात ताज्या गळ्यांत हें पदक घालतात.

२०१५ मेरेन ४५ जाणांक ही पदवी भेटयिल्ली आसा. जुलय १९७७ ते जानेवारी १९८० ह्या काळांत कोणांकच हें पदक भेटोवंक ना. कारण हो भौमान फाटीं घेवपाच्या विचारांत तेन्नाचें सरकार आशिल्ले. पूण ताणीं तो विचार प्रत्यक्षात हाडूंक ना.

ज्या व्यक्तींक ह्या पदकान भौमानीत करतात त्या मानादिकाच्या नावां पयलीं...ताजो मान राखपाखातीर, तेंचवरी हे पदवेचो मान राखपाखतीर भारत रत्न जोडटात.

आज भौमोलादीक अशें हें पुस्तक वाचकांच्या सेवेक ओपता आसतना मन अभिमानान भरून येता. ह्या पुस्तकाचो समाजांतल्या वेगवेगळया थरांतल्यान फाव तसो उपेग करूं येतलो. शिक्षण घेवपी भुरग्याक इतियासीक प्रकल्पाखातीर ह्या पुस्तकाचो फायदो जातलो, हातूंत दुबाव ना. तशेंच इतियास मोगींक हें पुस्तक म्हळयार एक संग्राह्य असो ग्रंथ थारूं येता. कारण ह्या पुस्तकावरवी पुरस्कार प्राप्त मानेस्तांची जिणे म्हायती एकेकडेन मेळटली. हें पुस्तक वाचकांच्या हातांत दी मेरेन जांचो म्हाका प्रत्यक्ष -अप्रत्यक्ष आदार जालो त्या सगल्यांचो ह्या वेळार हांव भौ. उपकारी आसा.

कोंकणी सरस्वतीची सेवा करतासतना थोर व्यक्तीचे स्मरण जाले बगर रावना. त्या सगळ्यांच्या चरणकमलांचेर हें पुष्प अर्पण करता.

तारीख- जुलै २०१५

एन्. सुहास

# मांडावळ

# सर्वपल्ली राधाकृष्णन् (१८८८- १९७५)



सर्वपल्ली राधाकृष्णन् हांचो जल्म एका गरीब सारस्वत घराब्यांत ५ सप्टेंबर १८८८ वर्सा चेन्नय सावन ४ मैलांचेर आशिल्या आंध्र प्रदेशांतल्या तिरूतानी गावांत जाल्लों. तांच्या बापायचें नांव सर्वपल्ली वीरस्वामी आनी आवयचें नांव सिताम्मा आशिल्लें. वीरस्वामीच्यान ताज्या ह्या भुरग्याक शिकोवपाक जायनाशिल्ले. राधाकृष्णनान स्वतःचें चडशें शिकप वेगवेगळ्यो स्कॉलरशिपी मेळोवन पुराय केल्लें. तो एक हुशार विद्यार्थी आशिल्लो. ताणीं फिलॉसॉफींत (Philosophy), बी.ए. आनी एम.ए. केल्लें. एम.ए. क आसतना 'वेदांचें अर्थशास्त्र' ह्या विशयाचेर ताणीं प्रबंध बरयिल्लो, तेन्नां ते अवघे २० वर्सांचें आशिल्लें.

वयाच्या १६ व्या वर्सा तांचें लग्न शिवकामू अम्मा कडेन जाल्लें. एम.ए. ची पदवी मेळटकीर १९०९ वर्सा चेन्नयच्या प्रेसीडेन्सी कॉलेजींत तत्वज्ञानाचे प्रोफेसर म्हूण तांची नेमणूक जाल्ली. थंय ताणीं १९१६ मेरेन काम केल्लें. उपरांत १९१८ वर्सा म्हैसूर विश्वविद्यालयांत तत्वज्ञान विभागाचे मुखेली म्हूण तांकां आपोवन व्हेल्ले.

१९२७ वर्सा 'समकालीन तत्वज्ञानांमध्यें धर्माचें स्थान' हें पुस्तक ताणीं बरयिल्लें. तातूंत पाश्चात्य विचार आनी उपनिशद हांची तुलना केल्या.

कलकत्याच्या विश्वविद्यालयांत 'प्रोफेसर ऑफ मेंटल ॲन्ड मॉरल सायन्स' ह्या जाग्यार ताणीं १९३१ मेरेन १० वर्सा काम केल्लें. भारतीय तत्वज्ञानाचो इतियास हो तांचो ग्रंथ इग्लंडांत उजवाडाक आयिल्लो. त्या ग्रथांवरवीं थंयच्या पाश्चिमात्य तत्वज्ञानाच्या अभ्यासकांक एक बरी संद मेळिल्ली. आनी भारतांतल्या तत्वज्ञानांविशीं तांचेमदी एके तरेचें आर्कशण निर्माण जाल्लें. उपरांत मागीर राधाकृष्णन् इंग्लंडांत वचून केंब्रिज विद्यापिठांत व्याख्यानां दिवंक लागिल्ले. ऑक्सफोर्डाच्या ऑप्टन व्याख्यानमाळे अंतर्गत व्याख्यानां दिवंक तांकां खासा आपोवन व्हेल्ले.

१९३१ ते १९३६ मेरेन आंध्रा विश्वविद्यालयाचे उप कुलपती म्हणून ताणीं काम पळयिल्लें. १९३६ ते १९३९ मेरेन राधाकृष्णनांनी इंग्लंडांत जायती भाशणां केल्ली. त्या भाशणांचो संग्रह 'पाश्चिमात्य धर्म आनी पाश्चिमात्य विचार' ह्या नावान पुस्तक रूपांत उपरांत उजवाडा आयिल्लो.

''धम्मपद'' ह्या ग्रंथाचो अनुवादय ताणीं केल्लो. १९३६त ऑक्सफर्ड विश्वविद्यालयान खासा डॉ. राधाकृष्णनां खातीर ''पाश्चिमात्य तत्वज्ञान खाते'' तयार करून ताजे मुखेली (स्पोल्डिंग प्रोफेसर ऑफ इश्टर्न रिलेशन ॲन्ड ॲथीक्स) म्हूण १५ वर्सा खातीर

तांची नेमणूक केल्ली.

१९३८ तल्या डिसेंबर म्हयन्यांत विदेशांत वच्चे पयलीं डॉ.राधाकृष्णनान महात्मा गांधीजींची भेट घेतिल्ली आनी स्वतः ऑक्सफोर्ड विश्वविद्यापीठाची प्रोफेसरशीप स्विकारल्या म्हूण कळीत केल्लें. गांधीजींचे आनी राधाकृष्णनांचे संबंद खूब लागींचे आशिल्ले. ताणीं महात्मा गांधीजींचेर एक पुस्तकय बरयिल्लें.

भारतांत काम करता आसतना स्वातंत्र्य सैनिक आनी शिक्षण तज्ञ पंडित मदनमोहन मालवीया हाणीं गांधीजीच्या आदारान डॉ.राधाकृष्णनांक बनारसच्या विश्व हिंदू विद्यापीठाचे कुलपती पदार नेमिल्ले. त्या बरबर राधाकृष्णनांनी ऑक्सफर्ड विद्यापीठाचो राजीनामो दिल्लो.

१९३९ ते १९४८ मेरेन राधाकृष्णन् थंय राविल्ले. ह्या काळांत ताणीं थंय पेवपाचे तळें, पिवपाच्या उदकाची सोय, हॉस्पीटल आदी सुविधा तयार केल्यो. १९५२ वर्सा तांकां युनेस्कोचे अध्यक्ष केल्ले. रशियेंतल्यान ते भारतांत आयिल्ले तेन्नां भारताचे राष्ट्रपती डॉ. राजेंद्रप्रसाद आशिल्ले. आनी उपराष्ट्रपती पदाचेर डॉ. राधाकृष्णनांची नेमणूक जाल्ली.

०३ जून १९५३ दिसा अमेरिकेच्या हॉवर्ड विश्वविद्यालयान तांकां 'डॉ. ऑफ लॉ (Dr. of Law) ही भौमानाची पदवी दिवन तांचो मोटो गौरव केल्लो. १९५५ वर्सा जर्मनींत 'श्रेष्ठ गुणवत्ता' हें सगल्यांत मोटें मानाचें चिन्ह आनी 'शांतता' इनाम दिवन तांचो भौमान केल्लो.

राष्ट्रपती डॉ. राजेंद्रप्रसाद २० जुलय १९६० सावन दोन सप्तकांच्या रशियेच्या भोंवडेर गेल्ले. तेन्ना तांच्या जाग्यार डॉ. राधाकृष्णनांची तात्पुरते राष्ट्रपती म्हूण नेमणूक केल्ली. डॉ. प्रसाद परत आयिल्ले तेन्नां तांची भलायकी बरी नाशिल्यान ताणीं सुशेग घेवपाचें थारावन राष्ट्रपती पदाचो राजीनामो दिल्लो, आनी तांच्या जाग्यार डॉ. राधाकृष्णन् भौमतान वेचून आयिल्ले.

डॉ. राधाकृष्णन् हे उत्कृष्ट लेखक हाजो प्रत्यय तांच्या दरेका पुस्तकांतल्यान जाता. ताणीं १५-१६ पुस्तकां बरयल्यांत तातुंतले ''रिलीजन इन वॅश्टन थॉटस्'' हें तांचे पुस्तक जगभर गाजलें. अशा ह्या थोर आनी भौ आयामी नेत्याक १९५४ वर्सा ''भारत रत्न'' ह्या मानाच्या भौमानान सन्मानीत केल्ले. काळजाच्या आताकाच्या निमतान २४ एप्रिल १९७५ दिसा तांचो आत्मो नाशिवंत देह सोडून गेल्लो.



# सी. राजगोपालाचारी ( १८७८- १९७२ )



राजगोपालाचारी हांचो जल्म १० डिसेंबर १८७८ वर्सा तामिलनाडू राज्यांत जाल्लो. तांचें पुराय नांव चक्रवर्ती राजगोपालाचारी आशिल्लें, तरूय तांकां सगले 'राजाजी' म्हणून वळखताले. तांचें शिक्षण कर्नाटकांतल्या बेंगलुरू आनी मद्रास (चेन्नय) हांगां जाल्लें. ते एक नावांजते वकील म्हूण त्या काळार नावां रूपाक आयिल्लें.

सुरत हांगा १९०७ वर्सा जाल्या अधिवेशनांत वांटो घेवन ते काँग्रेसींत गेल्ले. १९१९ वर्सा तांची महात्मा गांधी कडेन वळख जाल्ली. उपरांत १९२० चे असहकार चळवळीचे ते एक मुखेल घटक आशिल्ले. त्यावेळार तांका अटक करून णव म्हयने बंदखणींत दवरिल्ले.

१९३७ वर्सा ते चेन्नयचे कार्यकारी प्रधान मंत्री जाल्ले. पूण ब्रिटीशां विरूध्द चलपी असहकार चळवळीक लागून आनी नकळटां दुसऱ्या म्हाझूजांत भारताक वोडिल्यान, काँग्रेसीच्या सल्यान १९३९ वर्सा ताणे त्या पदाचो राजीनामो दिल्लो. उपरांत १९४६ तल्या दिल्लीच्या तात्पुरत्या सरकाराचे ते एक सदस्य जाल्लें.

भारत स्वतंत्र जातकीर पश्चिम बंगालाचे ते गवर्नर जाल्ले. उपरांत भारत प्रजासत्ताक देश जायमेरेन भारताचे ते पयले गवर्नर जनरल जाल्ले.

राजाजीकडेन कथा कथनाचो एक दुर्मीळ गुण आशिल्लो. तामीळ भाशेतल्या जायत्या पुस्तकांचो अनुवाद ताणीं इंग्लीशींत केल्लो. रामायण, महाभारत, उपनिशद आनी गीतेंतल्यो काणयों ते सुंदर तरेन सांगताले."Hinduism; Doctrine and way of life" हें ताणीं बरयिल्लें फामाद पुस्तक. कथा कथनांत ते हुशार आशिल्ले तेचवरी ते बरेपैकी वक्तेय आशिल्ले. तामीळ आनी इंग्लीश भाशेंत ते सुंदर भाशणां दिताले. अमेरिकेचे अध्यक्ष जॉन कॅनेडी सयत जायत्या जागतीक नेत्यांनी ताज्या ह्या भाशा प्राविण्याविशीं तोखणाय केल्ली.

भारत पाकिस्तानाच्या फाळणीच्या फावराद कांय काँग्रेस नेते आशिल्ले तांच्या मदीं राजाजीय आशिल्ले. ताणीं पार्टीशनाच्या अर्दान रावन प्रचारय केल्लो. पार्टीशन पयलीं जावना जाल्यार फुडल्या २५ वर्सांत पाकिस्तान खात्रेन वेगळें जाताशिल्ले. हे तांचे मत आशिल्लें. ताजे परीणाम मात वेगळे आनी भयंकर आसूं येताले. देखीखातीर आज आमच्यांनीं बांगला देशाकडेन पळोवं येता.

कसलीय गजाल भारता संबंधी आसत जाल्यार ते भीड मुर्वत दवरीनासतना स्वतःचें मत मांडटाले. पंडीत जवाहरलाल नेहरूंच्या सरकारा वेळार राजाजीन तेन्नाचे आर्थिक पॉलिसी

विरूध्द आवाज काडिल्लो, वर्तमान पत्रांनी लेख बरयिल्ले. ताजी ही कृती जायत्या काँग्रेसीतल्या वांगड्यांक आवडूंक नाशिल्ली. पूण राजाजीक चोंय कडल्यान मेळपी मान, मर्यादा मातय उणी जावनाशिल्ली.

ह्याच खातीर , ताका नेहरू सरकारांत कॅबीनेट मंत्री पद दिल्लें. सरदार वल्लभभाई पटेल हांच्या मरणा उपरांत तांकां ग्रहमंत्री पद दिल्लें. उपरांत थोड्या काळान काँग्रेस पक्षांतल्यान भायर सरून ताणीं नवो स्वतंत्र पक्ष काडिल्लो. १९५२ ते १९५४ ह्या काळांत ताणीं मद्रास (चेन्नय) राज्याचे मुखेलमंत्री म्हूण कारभार सांबाळिल्लो.

१९५४ वर्सा 'भारत रत्न' मेळोवपी राजाजी हे पयले मानकरी जावन आसात. १९७२ वर्सा थोड्या तेपाच्या दुयेसान वयाच्या ९४ वर्साचेर ताणीं देह त्याग केल्लो.



* शिक्षण म्हणल्यार पूर्णत्वाचें प्रकटीकरण आनी धर्म म्हणल्यार मनशाच्या अभिजात दिव्यत्वाचो आविष्कार - स्वामी विवेकानंद

* भ्रांत आनी अज्ञानांत पडिल्या मनशाक ज्ञानान गिरेस्त करपाक कर्तव्य निष्ठा हें व्हडलें साधन - स्वामी विवेकानंद

* आरशाचे उपकार मानुया कारण तो आमकां फक्त आमचें प्रतिबिंबूच दाखयता. - सर्वपल्ली राधाकृष्णन्.

# डॉ. सी. व्ही रामण (१८८८- १९७०)



७ नोव्हेंबर १८८८ वर्सा तिरूचिरापल्ली हांगा चंद्रशेखर वेंकट रामण हांचो जल्म जाल्लो. तांच्या कुटूंबांत सुरवेक सावन संगीत, संस्कृत आनी विज्ञान अशा त्रिवेणी विशयांचो संगम जाल्यान ताजो तांकां स्वतःचे फुडले जिणेंत खूब लाव जाल्लो. तांचे बापूय स्थानिक कॉलेजींत फिजिक्साचे लेक्चरर आशिल्ले.

वयाच्या चौदाव्या वर्सा प्रेसीडेंसी कॉलेजींत ताजें नांव घातिल्ले. परिक्षेत तो बऱ्या मार्कांनी पास जाल्लो. भौतीक (Physics) हो ताजो आवडिचो आशिल्यान एम्. ए. क ताणे होच विशय घेतिल्लो. ताचे बुध्दीची हुशारी दरेका प्रसंगार नदरेक पडटाली. स्वतःच्या फुडाराचें सपन पळोवपाच्या वेळार तांचो एक मोद निबंद त्या वेळावेल्या 'नेचर' ह्या दिसाळ्यांत प्रसिध्द जाल्लो. ताजी हुशारी कल्पने भायली आशिल्ली.

ही खबर १९०३ वर्साची. प्रेसीडेंसी कॉलेजींतल्या मद्रास (चेन्नय) चे एक प्रोफेसर इलियट हांचें लक्ष एक दीस क्लासींत चंद्रशेखरांचेर गेल्लें . कारण तो दिसपाक ल्हान आशिल्लो. तो समजल्लो हो भुरगो चुकून बी. ए. च्या क्लासींत बसला जातलों म्हणून ताणें ताका विचारिल्लें, '' तूं बी. ए. क आसा?'' चंद्रशेखरान सांगिल्लें, '' हय'' त्या प्रोफेसरान ताका ताजें नांव विचारिल्लें, तेन्ना ताणे सांगिल्लें, ''सी. व्ही. रामण.''

ह्या प्रसंगा उपरांत हो चौदा वर्साचो भुरगो पुराय कॉलेजींत चर्चेचो विशय जाल्लो. त्या वेळार कोणेंय हो भुरगो फुडें नोबेल पुरस्कार मेळयतलो, आनी भारत तशेंच आशिया खंडांतलो पयलो विज्ञानीक जातलो म्हण सांगिल्लें जाल्यार ताका पिशांत काडटाशिल्ले.

शिकतना पुस्तकांत नवें कितेंय आसत जाल्यार तो त्याच पानार समास सोडिल्या जाग्यार 'कितें' वा 'कशें' अशें बरोवन दवरतालो. आनी उपरांत वेळ मेळटा तसो ताजेर विचार करून जाप सोदून काडटालो.

त्या वेळार विज्ञानांत स्वतःचो फुडार घडोवप शक्य नाशिल्लें, अशा वेळार रामणान त्या दिकेन पावल मारिल्लें. एम. ए. जातकीर सी. व्ही. रामण इंडियन ऑडिट आनी अकावंट सर्व्हिसेसची परिक्षा पास जाल्लो. त्याखातीर तांकां फायनान्स डिपार्टमेंट ऑफ कलकत्ता ( Finance Department of Culcutta) हांगा सहाय्यक अकावटंट जनरल ह्या पदार दवरिल्ले. हें एक प्रतिष्ठेचे पद आशिल्ले.

ह्या सरकारी पदार रामण सुशेगाद रावंक शकताले. पूण तांच्या नशिबांत वेगळेंच

आशिल्लें जावये. इतली बरी नोकरी आसूंनय तांचे मन थंय नासून विज्ञानांत आशिल्लें. त्याच खातीर ताणीं १९१५ वर्सा ही अकावटंटाची सरकारी नोकरी सोडून पूर्ण वेळ विज्ञानाची वाट धरिल्ली. त्याच वेळार कलकत्याच्या युनिव्हर्सिटींत सायन्स कॉलेज सुरू जाल्लें. सी. व्ही. रामणाक थंय फिजिक्साचे प्रोफेसर म्हूण नेमिल्ले. जाका लागून तांचो वेळ शिक्षण आनी सोदांभितर उरपाक लागिल्लो. ह्या वेळार तांच्या काम करपाचे पध्दतीची आनी तातुतले एकरूपतेची कल्पना येवंक शकता.

त्यावेळार शिकोवपाचें सोपतकीर ते नीट लॅबात वताले आनी थंय रातभर काम करताले. केन्नां केन्नां तांकां थंय मेजार न्हीद येताली. सकाळफुडें जागो जातगीर ते बेगिनबेगीन घरा वचून न्हावन धुवन वेळार लेक्चराक पावताले.

इतल्या मदीं ताणीं जायते खेपे भायल्या देशांनी भेटी दिल्यो. एक खेपे ते इंग्लंडासावन परत भारतांत येताले. तेन्नां बोटीच्या वयर डेकार रावन दर्याक बारीक पळयताले. इतल्यांत तांच्या मनांत दर्याच्या उदकाचो रंग निळो कित्याक? असो विचार आयिल्लो. तो वेळ मेरेन मळबाच्या निळेपणाक लागून मळबाचें प्रतिबिंब उदकांत पडटा ताका लागून - उदकाचो रंग निळो दिसता असो समज आशिल्लो. पूण ताजें मन तें मानूंक तयार नाशिल्लें. वेगळेच कितें तरी कारण आसूक जाय अशें तांकां दिसूंक लागिल्लें. आनी थंयच्यानच तांच्या नव्या सोदाची सुरूवात जाल्ली. १८ फेब्रुवारी १९२८ दिसा ताणी लायिल्या सोदाक लागून हो दीस विज्ञान दीस म्हण मनयतात. ताच्या सोदा प्रमाण फिजिक्सांत रमण सिध्दांत फामाद जाल्लो. ह्या सिध्दांता खातीर तांकां १९३० वर्सा फिजिक्सांत 'नोबेल' मेळिल्लें. त्या पयलीं १९२८ त तांकां 'सर' ही पदवी दिल्ली. १९५४ त तांकां सगल्यांत प्रतिष्ठेचो पुरस्कार 'भारत रत्न' दिवन भौमानीत केल्ले.

'संकश्टावेळार मनशाचें खरें तेज नदरेंत भरता'. त्या वेळार आयच्या सारखीं आयुदां (सोद करपाचीं यंत्रां) नाशिल्लीं. सर रामणान हे अडचणीचेर मात करून स्वतःचो सोद पूर्ण केल्लो. ते सांगतात ताणी लायिल्या ह्या सोदाक जें यंत्र लागिल्लें - जाका लागून तांकां नोबेल पुरस्कार मेळिल्लो - त्या यंत्राचे सगले धरून ३०० रूपये जाताले. इतले हुशार, भारतीय विज्ञानिक, जगाचे गुरू, सर चंद्रशेखर वेंकट रामण २१ नोव्हेंबर १९७० वर्सा हें जग सोडून गेल्ले.



# भगवान दास (१८६९- १९५८)



१२ जानेवारी १८६९ वर्सा भगवानदास हांचो जल्म जाल्लो. ते भारतांतले एक अर्विल्ले बरेपैकीं तत्वज्ञानी आशिल्ले. पदवी मेरेन शिकप घेवन ते कलेक्टर जाल्ले. पूण रोकडीच ताणी ती नोकरी सोडिल्ली. कारण तांकां बंधनांत रावनासतना कार्य करपाचें आशिल्लें.

दोतोर ॲनी वसंत हांचे सांगातान ताणीं मध्यवर्ती हिंदू कॉलेजीची थापणूक केल्ली. तीच उपरांत बनारस हिंदू युनिव्हर्सिटी म्हूण नावांरूपाक आयिल्ली. भगवानदास हाणीं काशी विद्यापीट जें राष्ट्रीय विद्यापीठ आशिल्लें ताजी स्थापना केल्ली. मुख्याध्यापक म्हूण ताणी थंय जायतीं वर्सां काम केल्लें.

भगवान दास हे एक संस्कृत पंडित आशिल्लें. जायते संस्कृत शब्द ताणी हिंदीं भाशेंत उपेगांत हाडिल्ले. संस्कृत आनी हिंदी अशा दोनूय भाशांतल्यान ताणी साहित्य संपदा रचल्या. तिसां वयर पुस्तकांचे योगदान ताणीं ह्या भाशांतल्यान केलां. इतलेंच न्हंय तर एक स्वातंत्र्य सेनानी म्हूण ताणी केल्ल्या मोलाच्या कार्याचो इतिहास विसरपा सारखो न्हंय. स्वातंत्र्य झुजांत ते खूब क्रियाशील आशिल्ले. तांची ही क्रियाशिलता आयकून ब्रिटीश सरकारांतलो कर्नल तांकां उणें लेखपाची एकय संद सोडिनाशिल्लो.

भगवान दास हे एक आदले लिडर जावन आशिल्ले. साता समुद्रापार वतना जात-पात विसरची पडटा ह्या मताचे ते आशिल्ले. तांच्या ह्या मताखातीर त्या काळाचो अग्रवाल समाज तांचेर फुर्योज जाल्लो. कायद्याच्या शिक्षणा खातीर ताणे स्वतःच्या चल्याक - श्री प्रकाशाक - लंडनांत धाडिल्लो तेन्नां तांच्या समाज भावांनी तांकां जाप दिवपाची बंद करून खर विरोध केल्लो. तांच्या ह्या कर्तुबान भगवान दासांच्या समाजातल्या वागपांत कांयच फरक पडूंक नाशिल्लो.

अशा ह्या व्यक्तीक ताणे भारतीय समाजाखातीर केल्या मोलादीक वावराखातीर १९५५ वर्सा 'भारत रत्न' ह्या सर्वोच्च पुरस्कारान भौमानीत केल्ले. १८ सप्टेंबर १९५८ वर्सा ते हो संवसार सोडून अनंतांत विलीन जाल्ले.



# मोक्षगुंडम विश्वेश्वरय्या (१८६० - १९६२)



मोक्षगुंडम विश्वेश्वरय्याचो आजो आंध्रप्रदेशांतल्या प्रकाशम् जिल्ह्यातल्या मोक्षगुंडम गावांतल्यान खूब पयलीं कर्नाटकांतल्या बेंगलोर शारांतल्या मद्देनहळ्ळी गावांत वचून स्थायीक जाल्लो. विश्वेश्वरय्याच्या बापायचें नांव श्रीनिवास शास्त्री आनी आवय व्येंकचम्मा आशिल्लें. तांचो जल्म १५ सप्टेंबर १८६० वर्सा जाल्लो.

मोक्षगुंडम विश्वेश्वरय्या हे फामाद अभियंते आशिल्ले. म्हैसुरच्या राजान तांकां स्वतःच्या मंत्रीगणांत दिवाण हें उचेलें मंत्रीपद दिल्लें. तांच्या कार्यकाळांत म्हैसुरांत जायते नवे-नवे प्रकल्प उबे केल्ले. हातूंत कावेरी न्हंयेवेल्या फामाद कृष्णराज सागर धरणाचो आस्पाव आसा.

१८८१ वर्सा विश्वेश्वरय्यान मद्रास युनिव्हर्सिटींतल्यान बी.ए. केल्ली आनी उपरांत पुण्याच्या कॉलेज ऑफ सायन्स हांगच्यान सिव्हील इंजिनियर जाल्ले. उपरांत ताणीं मुंबयच्या सार्वजनिक बांदकाम खात्यांत नोकरी धरिल्ली. थंयच्यान तांची बदली शिपणावळ खात्यांत जाल्ली. केंद्रीय शिंपणावळ खात्यांत आसतना ताणीं डेक्कन वाठार शिपणावळी खाला हाडपाचो मोटो मोलाचो वावर केल्लो.

पूणे हांगा उदक साठोवपाखातीर ताणी एक नवी प्रक्रिया पध्दत चालीक लायिल्ली. धरणाचेर ताण पडनासताना उदक साठोवपाची ही पध्दत उपरांत ग्वाल्हेराच्या तिग्रा धरण आनी म्हैसुराच्या कृष्णराज सागर धरणांचेर प्रयोगांत हाडिल्ली.

हैद्राबाद शाराक हुंवारा सावन वाटावपाची पध्दतशीर आखणी ही तांची खेरीत अशी येवजण आशिल्ली. हेच तरेन विशाखापटट्णम बंदराक वाटावपाचें काम हे पध्दतीक लागून बेस बरे पुराय जाल्लें.

विश्वेश्वरय्यान१९०८ वर्सा म्हैसुरच्या दिवाण पदावेल्यान स्वेच्छा निवृत्ती घेतिल्ली. दिवाण ह्या पदावेलें तांचें कार्य न भूतो न भविष्यती हे तरेचें आशिल्लें. हातूंत मुखेल पणान नोंद घेवप सारखीं कृष्णराज सागर धरण, हायडल येवजण शिव समुद्र हांगा, तशेंच भद्रावती हांगा स्टील प्लांट, म्हैसूर विद्यापीठ आदींचो आस्पाव जाता.

१९१७ त ताणीं बेंगलुरू हांगा सरकारी इंजिनियरींग कॉलेज सुरू करपांत मोलाचो हातभार लायिल्लो. उपरांत ताजें युनिव्हर्सिटींत रूपांतर करून विश्वेश्वरय्या कॉलेज ऑफ इंजिनियरींग केल्लें. कर्नाटक राज्यांतलें तें एक उंचेल्या शिक्षणाचें केंद्र जाल्लें. तेचवरी थंय तांच्या नावांन आनीकय शिक्षणीक संस्था आसात. विश्वेश्वरय्या टेक्नोलॉजिकल युनिव्हर्सिटी, बेळगांव

आनी विश्वेश्वरय्या टेक्नोलॉजिकल म्युझियम ऑफ बॅगलोर ह्यो त्या मदल्यो दोन आसात.

म्हैसूराचे ते दिवाण आशिल्ले तेन्नां ताणे जनतेखातीर केल्या वावराखातीर ब्रिटीश तांकां खूब मान, रेस्पेद दिताले. भारत स्वतंत्र जातकिर तांकां श्रेष्ठ असो मानाचो पुरस्कार ''भारत रत्न'' १९५५ वर्सा दिवन भौमानीत केल्ले. तरूय सर्वसामान्यां कडल्यान मेळपी रेस्पेद, मान ताज्या मतान कितल्याशा पटीनीं चड आशिल्लो. अशा लोकप्रिय मोक्षगुंडम विश्वेश्वरय्या हांची प्राणज्योत १२ ऐप्रिल १९६२ दिसा पालवल्ली.



* संवसारातल्यो बऱ्यो गजाली आमी करतात, तेन्नां आमकां जाता तीच खरी खोस. -सर्वपल्ली राधाकृष्णन

* जशो गजाली आसात, तश्यो त्यो आमी पळयनांत. त्यो आमी आमचे नदरेतल्यांन पळयतात. - स्वामी विवेकानंद

* चलता ताजें नशीबूय चलता - मदर मेरेझा

* जें उतर सत्याक सांबाळटा, त्या उतराक सत्य सांबाळटा.
  - सर्वपल्ली राधाकृष्णन

* सद्‌गुणाखातीर दुसऱ्याकडेन पळयात आनी दुर्गुणाखातीर स्वतःकडेन पळयात. - रविंद्रनाथ टागोर

# पंडित जवाहरलाल नेहरू (१८८९- १९६४)



भारतांतल्या मनीस रत्नांपैकी एक रत्न, जें कोहिनूराचे तोडीचें सोबतलें अशें म्हान आनी श्रेष्ठ व्यक्तीमत्व जाव आसा... भारतियांचे सन्माननीय पंडीत जवाहरलाल नेहरू.

पंडीत नेहरूचो जल्म १४ नोव्हेंबर १८८९ वस अलाहाबादेंत जाल्लो. तांचे बापूय मोतीलाल नेहरू एक व्ह देशभक्त जावन आशिल्ले. तांची किर्त चोंय वटांनी फाकारिल्ली. अशा व्हड देशभक्ताक जाल्लो चलो जवाहरलाल म्हणल्यार 'कांचनरत्न' योग म्हणूंक जाय. नेहरू घरण्यांक दुर्मिळतायेन मेळिल्लें तें वरदान खूब व्हड आनी श्रेष्ठ आसा हातूंत दुबाव ना.

पंडित नेहरूंचें घराणे गर्भ श्रीमंत. एखाद्या राजा सारखो तांच्या बापायचो राबित्याचो थाट आशिल्लो. तसोच जवाहरलाल हांचोय आशिल्लो. सगळे तरेच्यो सोयी सुविधा आनी ऐश्वर्यान नेहरू घराणें परिपूर्ण आशिल्लें.

अशा श्रीमंतींत, ऐश्वर्यांत, सुखासनाचेर लोळपी जवाहरलाल भारताच्या स्वातंत्र्याखातीर, भारताच्या उत्कर्षाखातीर अखंडीत कार्यरत राविल्ले, हें अजाप म्हणूंक जाय.

पंडित जवाहरलाल ल्हानपणांत इतर भुरग्यांवरी शिकपा खातीर शाळेंत वचूं नाशिल्ले. तांकां शिकोवंक ब्रुक्स नावांचे मोटे विद्वान शिक्षक घरा येताले. शाळेंतलें सगळें शिकप ताका तेच शिकयताले. वयाच्या सोळाव्या वर्सा जवाहरलालांक इंग्लंडाच्या हॅरो स्कूलांत धाडिल्ले. त्या उपरांत केंब्रिजाच्या ट्रिनिटी कॉलेजींत भरती केल्ले. थंयचें शिकप सोपोवन १९१२ वर्सा ते बॅरिस्टर जाल्ले. त्या उपरांत अलाहाबादेंत येवन ताणीं १९२० मेरेन आदोगादी केल्ली. ब्रिटीश सरकारा आड त्या काळांत असहकाराची चळवळ सुरु जाल्ली. तें पळोवन ताणीं आदोगादी सोडून हे चळवळींत सक्रीय वांटो घेतिल्लो.

रात-दीस राष्ट्रीय चळवळींत काम करता आसतना ताणीं 'इंडिपेंडेंट' ह्या दिसाळ्याचेंय काम केल्लें. स्वतः ते ह्या दिसाळ्यांत बरयताले. कडक आनी प्रभावी विचार ते बरयताले. जे राष्ट्राच्या सेवा कार्याक खूब मोलाचे थारताले.

त्याच काळांत पंडित जवाहरलालांनीं अयोध्येंत शेतकारां खातीर शेतकरी चळवळ सुरू केल्ली आनी पुराय जैतिवंत करून दाखयिल्ली. आज जायते कडेन शेतकरी चळवळ आनी शेतकरी कामगार वेगवेगळ्या रूपांत आंदोलनां करतात. पूण तांची बुन्याद जायतीं वर्सां पयलीं पंडित जवाहरलालजीन घातिल्ली.

वकिली सोडून जवाहरलालान असहकाराचे चळवळींत वांटो घेतले उपरांत ताणीं स्वत:चे सगळें ऐश्वर्य देशभक्तींत ओपपाचें थारायिल्लें. श्रीमंतीची, ऐश्वर्याची आस ताणीं सोडून दिल्ली.

देशभक्तीच्या होमखणांत उडी घेतकच स्वत:च्या त्यागाचीय ताणीं पर्वा करूं नाशिल्ली. देशा खातीर स्वत: एक खेरीत त्याग करता ही भावनाच तांच्या मनांत नाशिल्ली. देश आनी निसुवार्थी वावर हें एकूच उध्दिश्ट तांच्या मुखार आशिल्लें.

पुराण काळांत ऋशीकुमार धनुश्यबाणाची धनुर्विद्या जे तरेन मन लावन शिकताले ती तन्मयता, एकचित्त पंडित जवाहरलालांमदीं आशिल्लें. ऋशीकुमाराक त्या वेळार 'तुका कितें दिसता' म्हणून विचारिल्लें जाल्यार ते सांगताले 'म्हाका फकत झाडा वयलें सवणें आनी ताचो दोळो तितलो दिसता, आनी कांय दिसनां. त्या प्रमाण पंडित नेहरूंक फकत स्वत:ची मोख दिसताली. मान, सन्मान, प्रतिष्ठा, प्रसिध्दी कसलेंच तांकां भान आसनाशिल्लें. त्याच खातीर महात्मा गांधींचो तांचेर विश्वास आशिल्लो. ताणीं पंडित नेहरूंक शाबासकी दिल्ली.

महात्मा गांधींचो तांचेर विश्वास आशिल्लो तेच वरी पंडीत नेहरूंचीय तांचेर खर श्रध्दा आशिल्ली.

पं. नेहरू राष्ट्रीय चळवळींत पडल्या उपरांत तांकां खूब खेपे बंदखणीची ख्यास्त जाल्ली. थंय तांकां खूब त्रास, हाल सोसचे पडिल्ले. तांचो अपमान केल्लो. तांका शारिरीक आनी मानसीक त्रास दिल्ले. पूण ते फाटीं वचूं नाशिल्लें. तांकां भारताच्या फुडाराचो हुस्को आशिल्लो.

भारताचे राष्ट्रपिता महात्मा गांधींच्या मरणा उपरांत भारताची सगळी जापसालदारकी नेहरूंचेर येवन पडिल्ली. सगळीं सुखां, श्रीमंती पायांकडेन लोळटा आसतनांय देशाखातीर अखंडीत पणान त्रास, कश्ट सोसून तांचेर पडिल्ली जापसालदारकी वेवस्थीत तरेन पुराय केल्ली.

देशाची सेवा करता आसतनाच पंडित नेहरून खूब व्हड साहित्य साधना केल्ली पळोवंक मेळटा. वेगवेगळ्या विशयांचेर ताणीं साहित्य निर्मणी केल्ली आसा. बंदखणींत आसतना केल्लें तांचें लिखाण उच्च दर्ज्याचे अशें मानतात. ताणीं बरयिल्लें आत्मचरित्र खूब लोकप्रिय जालां. 'डिस्कव्हरी ऑफ इंडिया' हें तांचें पुस्तक म्हणल्यार भारताचो इतिहास मानतात. ताचेर आदारीत कांय वर्सां आदीं 'भारत एक खोज' नावांची मोर्बीत माळ दुरदर्शनाचेर बरीच गाजिल्ली. पंडित नेहरू पुराय संवसार भोविल्ले. खूबशा देशांनीं तांचे सत्कार घडोवन हाडिल्ले. जायत्या देशांचीं आमंत्रणां तांकां येतालीं. थंय वचून नेहरू व्हड व्हड व्यक्तीं बरबर आंतरराष्ट्रीय विशयांचेर भासाभास करताले.

पं. नेहरूंक स्वतंत्र भारताचे पयले प्रधानमंत्री जावपाचो भोवमान मेळिल्लो. इंदिरा ही तांची चली. ते जंय जंय वताले थंय थंय तांची ही माणकुली चली इंदिरा वताली. जाका लागून

ल्हानपणांतच तिका देशाच्या राजकारणाची वळख जाल्ली. पंडित नेहरू जेन्ना बंदखणींत गेल्लं तेन्ना ताणीं इंदिरेक बरयिल्लीं पत्रां म्हणल्यार मार्गदर्शनाचें गांठवळच कशें.... हीं ताचीं पत्र पुस्तक रूपांत उजवाडाक आयल्यांत... जीं आज देखदिणी आसात.

पं. नेहरूंचे गोंय भेटे वेळार ताणीं गोयांविशीं केल्लीं विधानां दरेका गोंयकाराक आत्मपरिक्षण करूंक लावपी आसात. 'अजब है ये गोवा के लोग' हें तांतुतलेंच एक विधान आसा. संसारांत शांती आसची हे खातीर ताणीं केल्ले यत्न मोलादीक आसात. महात्म गांधीजींचें तें एक सपन आशिल्लें. ते आज जिवीत आशिल्ले जाल्यार तें पुराय करपाचें श्रेय पंडित नेहरूंक मेळपाचें. पूण तें जालें ना. तांका ल्हान भुरगीं खूब आवडताली. वेळांत वेळ काडून ते भुरग्यांबरबर सारताले. त्याचखातीर प्रत्येक वर्साचो १४ नोव्हेंबर हो दीस तांचो जन्मदीस ''बालदिन'' म्हणून मनयतात. तांका तांबडया गुलाबाचें फूल आवडतालें, म्हणून तांच्या शर्टाच्या बुतावांक सदांच तांबडो गुलाब आसतालो.

१९५५ वर्सा 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च पुरस्कार तांकां भेटयिल्लो. अशें हें आगळें व्यक्तीमत्व २७ मे १९६४ दिसा भारताच्या जनतेक पोरके करून आसमंतांत विलीन जावन अमर जाल्लें.



* दुस्वासान दुस्वासाक जाप दिली जाल्यार दुस्वास केन्नांच सोपचो ना. तेन्ना विचार करून जाप दियात.- सर्वपल्ली राधाकृष्णन्.

* सकारात्मकता ही धिटायेची बुन्याद.- स्वामी विवेकानंद

* लोकांक बरे आनी वायटांमदीं विभागून घालपाक जायना, कारण खंचोच मनीय काळजांतल्यान बरो आनी वायट असो नासता. -मदर तेरेझा

* सैमाची गती आपणायात. सोशीकसाण हें ताचें गुपीत. - सर्वपल्ली राधाकृष्णन्

# गोविंद वल्लभ पंत (१८८७- १९६१)



आलमोडाच्या शाही देवी टेकडीचेर १० सप्टेंबर १८८७ दिसा गोविंद वल्लभ पंतांचो जल्म जाल्लो. तांच्या आज्यान - बद्रीदत्त जोशी हाणीं तांकां फुडें वचपाक वाव दिल्लों. तांच्या विचारांक फाव ती चालना दिवंक तांचो आजोच कारणीभूत आशिल्लो. ल्हानपणार ''कोंयडे बाल'' आनी ''फुटबॉल'' हे खेळ तांकां शिक्षणापरस्पूय चड आवडटाले. ल्हानपणार तांच्या आंगांत मातय हुशारकाय नाशिल्ली, पूण फुडें-फुडें तांची हुशारकाय नदरेक आशिल्ली.

शिक्षणाखातीर तांकां अलाहाबादेक धाडिल्ले. पूण तांची प्रकृती, आरोग्य पळोवन मोयऱ्यांनीं तांकां थंय धाडूंनाका म्हूण सांगिल्लें. तरूय ताणीं मूयर सेंट्रल कॉलेजींत नांव घातिल्लें. थंय तांची हुशारी थंयच्या प्रोफेसरांनीं पारखिल्ली. त्याच वर्सा तांची राजकीय कारकीर्द सुरू जाल्ली. १९०५ वर्सा अलाहाबादेंत जाल्या कॉंग्रेस अधिवेशनांत ताणीं स्वयंमेवकाचें काम केल्लें. तेन्नां तांच्या कार्यान श्री गोपाळकृष्ण गोखले आनी मदन मोहन मालवीय दोगूय प्रभावीत जाल्ले.

१९०९ वर्सा ताणीं एल. एल. बी.ची परिक्षा (L.L.B) सगल्यांत चड गूण घेवन पास केल्ली. तेन्नां तांकां लम्सडन पुरस्कार फाव जाल्लो. १९१० वर्सा ताणीं स्वतःची प्रॅक्टीस सुरू केल्ली. उपरांतच्या काळांत तांची प्रॅक्टीस बेस बरी चलिल्ली. १९२१ मेरेन ते राजकारणांत सक्रीय नाशिल्ले. पूण महात्मा गांधीन देशाचे सेवेखातीर वेळ दिवन राजकारणांत वांटो घेवंक तांकां परावृत्त केल्ले.

ताणीं 'प्रेम सभा' नावांची एक संस्था स्थापन केल्ली. संस्थेचो मुखेल उद्देश भारतांत शिक्षणीक आनी सामाजीक वावर करप. त्या वेळार ब्रिटीशांचीं वर्जी (सामान) सर्वसामान्य मनशांनीं फुकट व्हरप असो एक कायदो आशिल्लो. पंत आनी तांच्या वांगड्यांनी ह्या कायद्या आड निदर्शना केल्लीं. तेचवरी अशिक्षीतपण, भूक बळी पयसावंक, रानां सांबाळपा खातीरय ताणीं चळवळी केल्यो.

पंतांक जायते खेपे ब्रिटीशांनी अटक केल्ली. पूण ते तांकां भिले नाशिल्ले. एक खेपे लखनौंत ते निदर्शनां करताले. तेन्ना तांचे बरबर लाला लजपतराय आशिल्ले. त्यावेळार तांकां दोगांकय जमनीर आड घालून मरसर लाठीमार केल्लो. ही घडणूक तांकां तांच्या पुराय जिणभर घट्ट याद उरिल्ली.

ते स्वतंत्र पालिका कार्यक्षेत्राचेर निवडून आयिल्ले. जाका ताणीं उपरांत उत्तरप्रदेश

अशें नांव दिल्लें. ते पालिकेचेर आसतना ताणीं आफुडभश्ट ना करपाखातीर पावलं उखलिल्लीं. दुसऱ्या जागतीक युध्दावेळार कॉंग्रेसीची मर्यादीत दर्ज्याची तयारी ताणीं लागिच्यांन पळयिल्ली. ही सौम्य तयारी गांधीजींक तेको दिताली. तेच बरें अशें मानताले. आनी एके वटेन सुभाषचंद्र बोसाच्या तत्वांचो बोध घेवन ब्रिटीश राजवटी आड वावुरताले. ह्या वेळार पंतांव शांतिचो दूत म्हूण आपयिल्ले. ताणीं गांधीजिंची तत्वां आपणावंक सांगिल्लें.

सत्याग्रहाक तेंको दिता म्हणून पंतांक १९४० त अटक केल्ली. तेन्नां थंय तांची प्रकृती इल्ली इल्ली इबाडूंक लागिल्ली. निमाणे नेहरून विनंती करून तांकां सोडूंक लायिल्ले. १९४५ वर्सा तांकां सोडिल्ले.

भारत स्वतंत्र जातकीर गोविंद वल्लभ पंत हांकां उत्तरप्रदेशाचे मुखेलमंत्री केल्ले. उपरांत ते केंद्रांत पंडित नेहरूंच्या सरकारांत सरदार पटेला उपरांत गृहमंत्री जाल्ले. त्यावेळार ताणीं हिंदीक भारताची सरकारी भाशा केल्ली.

तांकां 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार १९५७ वर्सा भेटयिल्लो. १९६० त तांकां पयलो अॅटॅक आयिल्लो. १९६१ च्या फेब्रुवारी म्हयन्यांत तांचे दुयेंत चड जाल्लें. आनी ७ मार्च १९६१ दिसा ताणीं हें जग सोडिल्ले.



* जी झाडां सवकास वाडटांत तांकां गोड फळां लागतात.
  – रवींद्रनाथ टागोर

* सगळे न्हाळ, न्हंयो जश्यो दर्याक मेळतात. तशे सगळे विचार मागीर ते बरे आसूं वा वायट देवाक मेळटात – स्वामी विवेकानंद

# धोंडो केशव कर्वे (१८५८- १९६२)



फक्त गरीबांचीं आनी गरजेवंतांची दुःखां पुसपाक एक जीण शंभर वर्सांहून चड जगली, ती आशिल्ली महाऋषी धोंडो केशव कर्वे. तांचो जल्म १८ एप्रिल १८५८ वर्सा शरावली, महाराष्ट्र राज्यांत जाल्लों. तांच्या कुटूंबांत फकत गरीबी आनी गरीबीच आशिल्ली. गरीबी बगर तांकां कांय खबर नाशिल्लें. गरीबीक लागून ते स्वतःचें चौथी मेरेनचें शिकपय पुरें करूंक शकूं नाशिल्ले. तो १८६९ वर्सातलो काळ आशिल्लो. १८७० वर्सा एका दयाळू आनी मायेस्त मास्तर-विनायक लक्ष्मण सोमण-हांच्या मार्गदर्शनान आनी पालवान ताणीं चौथी यत्ता पास केल्ली.

मुळांत सोमण हे एक तत्वज्ञानी व्यक्ती आशिल्ले. धोंडोंचे तेच मार्गदर्शक जाल्ले. तांकां खबर आशिल्लें धोंडोची गरीबी हीच पयलीं अशिक्षीत म्हूण. जगांत जावपी घडणूको जनतेक कळूंक जाय म्हणून ताणीं धोंडोक मदतीं पोरनीं वर्तमान पत्रां हाडूंक सांगिल्लीं. लोकांचे सेवेचो हो धोंडू खातीर पयलो धडो आशिल्लो. सोमणांचें दुसरें पावल म्हळ्यार... प्रत्येक गांवकऱ्याकडल्यान पांच/पांच रूपया घेवन एक दुकान काडपाचें. तें दुकान चलोवपाची जबाबदारी धोंडूचेर सोपयिल्ली.

धोंडून त्या पयशांचो हिशोब चोख दवरिल्लो. पूण तांकां जेन्नां भायर वच्चें पडटालें तेन्नां ते तांच्या एका इश्टाक दुकानार दवरून वताले. ताणे हिशोब बरयतना चुको केल्यो आनी ताजो परिणाम म्हळ्यार दोन वर्सांनच दुकान बंद करचें पडिल्लें. धोंडून उपरांत स्वतःच्या पगारांतल्यान भागीदारांक पयशे फारीक केल्ले.

धोंडू सवे यत्तेची परिक्षा दुसरे खेपे पास जाल्ले. कारण पयले खेपे ते वयान ल्हान म्हणून परिक्षकांन तांकां परिक्षेक बसूंक दिवंक नाशिल्लें. वयाच्या पंदराव्या वर्सा ते राधाबाई नावांच्या चलयेकडेन लग्न जाल्ले. ताणीं फुडलें शिकप रत्नागिरी आनी मुंबय केल्लें. सकयल्या वर्गाच्या भुरग्यांक शिकोवन ताणीं स्वतःच्या शिक्षणाखातीर पयशे जमयिल्ले.

एके सार्वजनीक परिक्षेंत पांचवो नंबर आयिल्ले खातीर तांकां स्कॉलरशीप मेळिल्ली. बापायच्या मरणा उपरांत व्हडल्या भावान तांच्या शिक्षणाची जबाबदारी घेतिल्ली. ताणीं मुंबयच्या एल्फीस्टन कॉलेजींतल्यान पदवी परीक्षा पास केल्ली. त्या उपरांत ताणीं शिक्षकाची नोकरी धरिल्ली. तांच्या गांवच्या गरीब भुरग्यांक ताणीं जायतो आदार केल्लो. थोड्यांक शिक्षणाखातीर ताणीं मुंबय हाडिल्ले. तांचे खातीर धोंडू म्हळ्यार पालक नाशिल्ले तर एक बापूय

आशिल्ले, आनी तांची बायल म्हळ्यार आवय आशिल्ली. पूण कांय काळान ती बरी ना जाल्ल
म्हणून तिका गावांत धाडिल्लें. थंयच उपरांत दुयेसान ती भायर पडिल्ली.

त्या उपरांत धोंडूचे सोयरे ताका परत लग्न जावंक फोर्सार करताले. तांच्या शब्दा
मान दिवन ताणीं परत लग्न जावपाचें थारायिल्लें. पूण तें फक्त एके विधवेकडेन. कारण ते स्वत
एक विधूर आशिल्ले.

विधवेन लग्न जावंक जायना अशें त्या काळार मानताले. पूण धोंडो केशव क
स्वतःच्या निर्णयाकडेन ठाम राविल्ले, आनी निमाणें एके विधवेकडेन तांचें लग्न जाल्लें. ति
नांव आशिल्ले आनंदीबाई.

लग्न जावन तीं मुरूड गावांत गेल्लीं. तेन्नां तांका थंय रावपाक विरोध जावं
लागिल्लो. निमाणे तांकां दुसऱ्या गावांत आलाशिरो सोदचो पडिल्लो. तांच्या सोयऱ्या
धायऱ्यांक आनी आवयक लेगीत तांकां मेळपाक बंदी घातिल्ली. तांची आवय खूब दुयेंत जाल्ल
तेन्नां तिका मेळपाकय दिवंक नाशिल्लें. तरूय धोंडून प्रतिकार करूं नाशिल्लो.

ताणीं 'विधवा विवाह संस्था' [ widow Marriage Association] नावांची
विधवांक लग्न करपाखातीर वावुरपी संस्था काडिल्ली. तांचेखातीर आश्रमाची स्थापणूक केल्ली.
चलयांखातीर ताणीं एक शाळा काडिल्ली. तांच्या भुरग्यांक घालपाक सारखे कपडे नाशिल्ले,
खावंक कांय नाशिल्लें, ताणीं काडिल्ले हाल - उपाद्रे तांचे आत्मकथेंत सविस्तर पणान
मांडल्यात. त्या वेळावेल्या परंपरावादी हिंदूनी तांच्या कार्याक विरोध केल्लो. ताणीं धर्म बाटयलो
अशो अफवा पातळायिल्यो. तरूय धोंडोन चलयांक मुखार व्हरपाचें कार्य बंद करूं नाशिल्लें.
बाल विवाह बंद करचे, वीस वर्सां मेरेन तांची लग्नां करचीं न्हीं अशें तांकां ताणीं शिकयिल्लें.

धोंडो कर्वेन चलयांखातीर भारतांत पयलें महाविद्यालय स्थापिल्लें. त्या उपरांत तांच्या
कार्याक इल्ली इल्ली मान्यता मेळूंक लागिल्ली. तांकां मानान 'महर्षि कर्वे' म्हणपाक लागिल्ले.
त्या उपरांत ताणीं जायत्या भायल्या देशांक भेटी दिल्यो. आलबर्ट आयस्टायना लागीं त्या भेटीं
वेळार शिक्षणाविशीं ताणीं चर्चा केल्ली. त्या भेटीं फाटलो एकमेव उद्देश म्हळयार ताणीं
स्थापिल्या शिक्षणीक संथा खातीर निधी जमवप हो आशिल्लो. ताणी जायत्यो मुळाव्यो शाळा
काडिल्ल्यो. देश स्वतंत्र जाल्या उपरांत त्यो सरकारा वतीन चलोवंक घेतिल्यो.

धोंडों केशव कर्वेक १९५५ वर्सा 'पद्म विभूषण' पदवेन सन्मानीत केल्ले. आनी
१९५८ वर्सा सर्वोच्च नागरीक पुरस्कार 'भारत रत्न' तांच्या गळयात घातिल्लो. तांची जिणे ज्योत
१८ नोव्हेंबर १९६२ दिसा पालवल्ली.



# डॉ. बिधान चंद्र रॉय (१८८२- १९६२)



पाटणाच्या बंकीपुरांत १ जुलय १८८२ दिसा बिधान चंद्र रॉय हांचो जल्म जाल्लो. ते ल्हान आसतनांच स्वतःच्या नात्याच्या सोयऱ्या धायऱ्यां परस हेरांची सेवा पयलीं करप अशें तांकां आवय-बापायन शिकयिल्लें. ते अवघे १४ वर्सांचे आसतना तांची आवय भायर पडिल्ली. त्या उपरांत तांच्या बापायन आवय-बापूय जावन दोनूय कर्तव्यां पूर्ण केल्लीं. स्वतःच्या पांचय भुरग्यांक कांयच कमी पडूंक दिनासतना, तांकां योग्य मार्गार पावयिल्ले.

पाटणा कॉलेजींतल्यान बिधानान गणितांतल्यान बी. ए. केल्ली. उपरांत कलकत्त्याच्या मॅडिकल कॉलेजींत फुडल्या शिक्षणाखातीर ते गेल्ले. त्याच वेळार बंगालचे दोन वांटे जाल्ले. त्या घटनेक लाला लजपतराय , अरविंद घोश, लोकमान्य टिळक, बिर्पीन चंद्र पाल हांच्या फुडारपणाखाला राश्ट्रीय चळवळीन सामुहीकपणान विरोध केल्लो.

अशा वेळार हें पळोवनय बिधान चंद्र ह्या चळवळी सावन पयस रावन स्वतःच्या शिक्षणाचेर लक्ष केंद्रीत केल्लें. दोतोरकीचे शिकप जातकीर ताणें आरोग्य खात्यांत काम धरिल्ले, आनी गरीबांक सारखें वखद - विर्मद मेळचें ह्या उद्देशान फाविल्या वेळांत खासगी तपासणी नावां पुरती फी घेवन सुरू केल्ली.

बिधान फुडल्या शिक्षणाखातीर १९०९ त इंग्लंडांत गेल्ले. पूण ते आशिया खंडातले जाल्यान तांचें अर्जीपत्र थंय भायरायिल्लें. हे तरेन बिधानान तीस खेपे अर्जी दिल्यो, तेन्नां तांचो अर्ज मंजूर जाल्लो. ताणीं थंय यम्. आर. सी. पी (MRCP) आनी एफ्. आर. सी. यस्. (FRCS) पास केल्लें. १९११न ते इंग्लंडातल्यान परत भारतांत आयिल्ले. त्या उपरांत ताणीं शिकोवंक सुरवात केल्ली. पयलीं कलकत्ता मेडिकल कॉलेजींत आनी उपरांत कॅम्पबॅल मॅडिकलांत. १९४४ वर्सा ते कलकत्ता महाविद्यालयाचे उप-कुलपती आशिल्ले तेन्नां ताणीं विज्ञानांत डॉक्टरेट केल्ली.

डॉ. बिधान चंद्र रॉय गांधीजींचे घट इश्ट आशिल्ले. तेचवरी तांचे डॉक्टरय आशिल्ले. १९२५ त ते राजकारणांत पाविल्ले. बंगाल विधानसभेखातीर ताणीं बराकपूर मतदार संघातल्यान स्वतंत्र उमेदवार म्हणून वेचणूक लडयिल्ली आनी सुरेंद्रनाथ बॅनर्जीचेर मात करून निवडून आयिल्ले. त्यावेळार ताणीं हुगळींतल्या बदलत वचपी पर्यावरणाचेर विचार जावचो म्हूण एक थाराव पास करून घेतिल्लो. ते १९२८ वर्सा कॉंग्रेस पक्षांत गेल्ले. कॉंग्रेसींत ग्रूप करप्यांसावन ते सदांच पयस राविल्ले. ते एक हुशार लिडर आशिल्ले. १९२९ वर्सा ताणीं

स्वातंत्र्या उपरांत काँग्रेसीन तांकां मुख्यमंत्री पद दिल्लें. तांकां तें पद घेवपाचें नाशिल्लें कारण तांकां दोतोरकी करून लोकांची सेवा करपाची आवड आशिल्ली. शेवटाक महात्म गांधीन तांकां तें पद घेवपाची विनंती केल्ली आनी ती मानून ताणीं १९४८ वर्सा बंगालचे मुख्यमंत्री म्हूण सुत्रां घेतिल्लीं. डॉ. बिधान चंद्र रॉयान बंगालचे कुडके जावचे न्ही आनी थंय शांतं उरची म्हणून खूब यत्न केल्ले.

तांकां १९६१ वर्सा भौ मोलाचो 'भारत रत्न' हो सन्मान दिल्लो. उपरांत १ जुलय १९६२ दिसा ते देह सोडून गेल्ले. तांची जल्माची आनी मरण आयिल्ली तारीख एकच आशिल्ली... १ जुलय.



* आमी जें कितें करतात तें म्हणल्यार दर्यातलो एक थेंब अशें आमकां दिसता. पूण ताका लागून दर्या एका थेंबाक मुकला हें विसरूं नाकात - मदर तेरेझा

* पोटाचे भुके परस मोगाची भूक भागोवप कठीण आसता - मदर तेरेझा

* भूकेल्लो, घरदार, कपडे नासप म्हळयार दळदीर, ताजेर आमी आमच्या घरांतूच उपाय काडपाक जाय - मदर तेरेझा.

# पुरूषोत्तमदास टंडन (१८८२- १९६२)



हिंदी भाशेचे महापंडीत, ती राष्ट्रीय भाशा जावची ह्या खातीर वावुरिल्ले, हिंदूच्या विचारांचें समर्थक पुरूषोत्तमदास टंडन हांचो जल्म १ ऑगस्ट १८८२ वर्सा अलाहाबादेंत जाल्लो. प्राथमिक शिक्षण ताणीं घराच केल्लें. आनी मूर मध्यवर्ती कॉलेज, अलाहाबाद हांगां पदवेचें शिकप पूर्ण केल्ले.

१८९९ सावन भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीचे ते क्रियाशील वांगडी आशिल्ले. १९०६ सावन ते काम करताले, पूण ताणी चडसो स्वतःचो वेळ राष्ट्राचे स्वातंत्र चळवळींत घालयिल्लो. जालियनवाला बागेंत जाल्या घडणुकेविशींचे चौकशी समितींत ते आशिल्ले. असहकार चळवळ, सामाजीक चळवळ वगैरेंत वांटो घेता म्हणून तांकां साबार खेपो धरून बंदखणींत घातिल्ले.

ते कट्टर हिंदुत्ववादी आशिल्ले. तरूय मुस्लीम- हिंदू संस्कृतींत एकी आसची अशे ते मानतालें.१९३७ आनी १९४५ अशा दोन खेपेच्या कार्य काळांत ते उत्तरप्रदेशाचे सभापती आशिल्ले. १९५० न नाशिकांत जाल्या काँग्रेसीच्या अधिवेशनाचे ते अध्यक्ष आशिल्ले. पूण १९५२ वर्सा पंडीत नेहरूं कडेन पटना जाल्यान ताणीं अध्यक्ष पदाचो राजीनामो दिल्लो.

ते लोकसभेचेर १९५२ वर्सा आनी राज्यसभेचेर १९५६ वर्सा निवडून आयिल्ले. उपरांत १९५६ व्या वर्सा ताणीं राजकारण सोडिल्ले.

भाशेविशींच्या तांच्या आवडीचें सदांच कौतुक जातालें. हिंदी राष्ट्रभाषा जावची म्हूण ताणीं खूब यत्न केल्ले. हिंदी साहित्य संम्मेलन आनी राष्ट्रभाशा प्रचार समिती ह्या संघटना बरबर ताणीं जायतो वावर केल्लो. १९१० सावन ताणीं 'अभ्युदय' नावांच्या फामाद दिसाळ्याचें संपादन केल्ले. हिंदी भाशेच्या प्रचाराखातीर ते सदांच मुखार आसताले.उर्दू आनी पारसी भाशांचेरय तांचें बरेपैकीं प्रभुत्व आशिल्लें. ताणीं प्राचीन भारतीय संस्कृती खातीर केल्लो वावर खूबदां फाटीं पडत गेल्लो. पूण हिंदीच्या प्रचाराखातीर केल्लो वावर सदांच तांकां सगल्यांचे नदरेन नाका त्या वादांत व्हरून पावयतालो. तरूय ताणीं भाशेची गरज तांकां पटोवन दिली.

अशा ह्या भौ आयामी व्यक्तीक 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार १९६१ वर्सा भेटयिल्लो. त्या उपरांत १ जुलय १९६२ वर्सा ते हो संवसार सोडून अनंतांत विलीन जाल्ले.



# राजेंद्रप्रसाद (१८८४- १९६३)



बिहार राज्यांतल्या झरदाई गावांत ३ डिसेंबर १८८४ वर्सा राजेंद्र प्रसादाचो जल्म जाल्लो. तांच्या बापायचें नांव महादेव सहाय आनी आवयचें नांव कमलेश्वरीदेवी आशिल्ले. पारसी आनी संस्कृत भाशेंत ते हुशार आशिल्ले. राजेंद्रप्रसादांक तांचे आवयन रामायण आनी महाभारतांतल्यो काणयो ल्हानपणार सांगिल्ल्यो. वयाच्या पांचव्या वर्सा तांकां पारसी शिकपाक एका मौलवी कडेन धाडिल्लो. उपरांत मुळावें शिकप घेवपाक तांकां चाप्राच्या जिल्हा शाळेंत धाडिल्ले.

राजेंद्र प्रसादांचें लग्न १२ व्या वर्सा राजवंशीदेवी कडेन जाल्ले.तरुय ताणीं फुडलें शिकप बंद करूं नाशिल्लें. सुरवेक ते पाटणाच्या आर. के. घोश अकादमींत गेल्ले. पूण ताणीं परत चाप्राच्या जिल्हा शाळेंतच वचपाचें थारायिल्लें. वयाच्या १८ व्या वर्सा ताणीं कलकत्ता विद्यापिठाची दाखलो परीक्षा (Entrance Test) पास केल्ली. तिवूय पयल्या विभागांत पयलो येवंन.

कलकत्त्याच्या प्रेसीडेंसी कॉलेजींत ताणीं फुडलें शिकप घेतिल्लें. त्यावेळार ते थंय ताज्या भावा बरबर इडन हिंदू हॉस्टेलांत रावताले. तांच्या भावान - महेंद्रप्रसादान तांकां स्वदेशी चळवळींत ओडिल्लो. त्या उपरांत ते सिस्टर निवेदिता आनी सतीशचंद्र मुखर्जींच्या संघांत सामील जाल्ले.

१९११ वर्सा ते कॉंग्रेसींत गेल्ले. त्या वेळार तांच्या कुटूंबाची अर्थिक स्थिती बरी नाशिल्ली. कुटूंबाची जबाबदारी तांचेरच आशिल्ली. ताणीं भावाकडेन स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेवपाखातीर परवानगी मागिल्ली. पूण कुटूंबाचे वायट परिस्थितीक लागून तांकां तें शक्य जावंनाशिल्लें. १९१६ वर्सा राजेंद्रप्रसाद बिहार आनी ओरिसाच्या हायकोर्टांत रूजू जाल्ले. तांची हुशारी आनी देशप्रेम त्यावेळार थंय कसाक लागिल्लें. अशें सांगतात, तेन्नाचे जुविज स्वतःची बुध्द, मखलाशी उणी पडटा तेन्नां राजेंद्रप्रसादांक तांचे विचार विचारताले.

गांधीजीलागीं तांची भेट जाल्ली तेन्ना सावन ते स्वातंत्र्याचे चळवळींत चड वेळ दिवंक लागिल्ले. विद्यापीठाचें सर्वोच्च नियामक मंडळ सोडून ताणीं त्या वेळावेल्या दोन नावांजत्या दिसाळ्यांनी सोद निबंद बरोवंक सुरवात केल्ली. त्या दिसाळ्यांखातीर ताणीं

णगीय जमयिल्ली. त्याखातीर ते जायते कडेन भोंविल्ले. हेर फुडाऱ्यांवरी तांकांय धरुन दखणींत घातिल्ले.

१९३४ वर्सा बिहारांत भुकंप जाल्लो, तेन्नां राजेंद्रप्रसाद बंदखणींत आशिल्ले. ोन दिसां उपरांत तांकां सोडिल्ले, तेन्नां ताणीं भुकंप ग्रस्तांखातीर फंड जमोवंक मदत केल्ली. तेन्नाच्या व्हायसरॉयानय फंड जमा करपाक मदत केल्ली. पूण अजापाची गजाल हळ्यार राजेंद्रप्रसादाच्या कार्याक चड लोकांनी तेंको दिल्लो. राजेंद्रप्रसादान जमयिल्लो ाज्यानय एक त्रतियांश वाट्यान उणो फंड व्हायसरॉयाच्या फंडांत मदत जमिल्ली. ाजेंद्रप्रसादांनी ३८ लाखांवयर फंड जमयिल्लो. ताणीं सुरु केल्या कार्यांत देशाविशीं ांची तळमळ दिसताली. सगल्या कडेनच्या जनतेन तांच्या कार्यांत वांटो घेतिल्लो. सगले ांका मान, रेस्पेद दिताले. लोकांचो तांचे विशींचो आदर पळोवन तांकां कॉंग्रसीचे अध्यक्ष वेंचून काडिल्ले.

आत्मकथा, चंपारण्यातलो सत्याग्रह, भारताचें विभाजन, महात्मा गांधी आनी बिहार सारख्या प्रकाशीत पुस्तकांतल्यान तांचें साहित्यीक मोटेंपण समजून येता.

भारत स्वतंत्र जातकीर २६ जानेवारी १९५० वर्सा राजेंद्रप्रसादांक पयले राष्ट्रपती म्हूण निवडून दिल्ले. राष्ट्रपती जातकीर तांचीं तत्वां प्रत्येक जाण आपणावंक लागिल्ले. १९६० च्या प्रजासत्ताक दिसा तांची भयण अंतरिल्ली. पूण ताणीं धीर सोडीनासतना मोट्या धैर्यान प्रजासत्ताक दिसाच्या ध्वज - संचालनाची मानवंदना स्विकारिल्ली.

१९६२ मेरेन ताणीं राष्ट्रपतीपद सोबयिल्ले. आनी उपरांत निवृत्त जावपाची इतसा उक्तायिल्ली.

त्याच वर्सा म्हळ्यार १९६२ त तांकां सर्वोच्च नागरी पुरस्कार ''भारत रत्न'' दिवंन भौमानीत केल्ले. तांच्या निवृत्ती उपरांत रोखडीच तांची घरकान्न राजवंशीदेवी सोपिल्ली. त्या उपरांत तेवूय चड तेंप रावले नांत. २८ फेब्रुवारी १९६३ दिसा ताणीं देह त्याग केल्लो.



# डॉ. झकीर हुसेन (१८९७- १९६९)



डॉ. झकीर हुसेनांचो जल्म ८ फेब्रुवारी १८९७ वर
हैदराबादेंत जाल्लो. तांचें प्रभावी वकृत्वपण आनी हुशारे खातं
तांकां सगले जाण मानताले. तांचे बापूय मूळ उत्त
प्रदेशांतल्यान हैदराबादेंत आयिल्ले झकीर हुसेनांचे शिक
मुहम्मदन एंजल ओरिएंटल कॉलेज, आयचे अलिगढ मुस्ली
युनिव्हर्सिटींत जाल्ले.

झकीर हुसेनान त्यावेळार तांच्या सांगाती आनी टिच
बरबर मेळून राष्ट्रीय मुस्लीम युनिव्हर्सिटी काडिल्ली, आनी तिक
नांव दिल्ले 'जामिया मिलिया इस्लामिया'. महात्मा गांधीजींच्य
प्रभावान ते स्वातंत्र्य झुजांत भितर सरिल्ले.

१९२० व्या वर्सा तांचे बुध्दीमत्तेक पळोवंन तांकां जर्मनीक धाडिल्ले. थंयच्य राबित्यांत ताणीं युरोपियन कलेची, साहित्याची आनी थंयच्या संगिताची म्हायिती मेळयिल्ली युनिव्हर्सिटी ऑफ बर्लीन हे संस्थेन तांकां अर्थ शास्त्रांतली डॉक्टरेट पदवी दिल्ली.

स्वातंत्र्य झुजांतली पयली व्यक्ती म्हूण बिहार सरकारान तांकां १९५७ ते १९६२ ह्या काळांत राज्यपाल पदार नेमिल्ले. राज्यपाल पदावेल्यान १९६२ वर्सा ते उपराष्ट्रपती जाल्ले. राधाकृष्णनान राष्ट्रपती पदावेल्यान निवृत्ती घेवपाचे थारायिल्लें तेन्ना भारतांतल्या लोकांक डॉ. झकीर हुसेन ही योग्य व्यक्ती त्या पदार आशिल्याचें जाणवल्लें. त्या प्रमाण उपरांत ते १९६७ वर्सा भारताचे राष्ट्रपती जाल्ले. राष्ट्रपती पदावेल्यान ताणीं पयलें भाशण दिल्लें, तेन्नां सांगिल्लें, " भारत हें म्हजें घर आनी हांगची सगली जनता म्हळ्यार म्हजी फामील ".

राष्ट्रपती जावचे पयलीं तांच्या अश्टताशी व्यक्ती मत्वाक लागून १९६३ ह्या वर्सा तांकां 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार भेटयिल्लो. पूण राष्ट्रपती पदार ते पुराय कार्यकाळ रावंक पावूं नाशिल्ले. ३ मे १९६९ वर्सा त्या पदार आसतनाच ताणीं देह त्याग केल्लो.



# पांडुरंग वामन काणे( १८८०- १९७२)



पांडुरंग वामन काणे हांचो जल्म एका ब्राह्मण कुटूंबांत १८८० वर्सा जाल्लो. तांच्या नांवार जायते पुरस्कार नोंद जाल्ले आसात. संस्कृतांतले ते फामाद पंडित जावन आशिल्ले. तशेच ते एक राष्ट्रीय स्तरावेले कार्यक्षम आनी क्रियाशील प्रोफेसर आशिल्ले.

तांचे हुशारकायेविशीं कथन करीत तितलें थोडें जातलें. तांची हुशारकाय दिश्टी पडटाली ताज्यानय प्रत्यक्षात कितल्याशा पटीनीं ते चड हुशार आशिल्ले. तांची हुशारी तांचे एके-एके कृतींतल्यान नदरेक पडटाली. ते मुंबय युनिव्हर्सिटीचे उप-कुलपती आशिल्ले. तांकां पार्लामेंटात खासा प्रतिनिधीत्व दिल्लें. थंय तांकां 'महा महोपाध्याय' म्हणटाले.

ते एक फामाद साहित्यीक आशिल्ले. इंग्लीश, मराठी आनी संस्कृतांत तांच्या लेखनांचीं सुमार १५,००० छापील पानां आशिल्लीं. धर्म शास्त्राचो इतियास आशिल्लो. तातूंत कितल्याशाच भागांचो आस्पाव आशिल्लो. धर्माचेर आनी ग्रामीण कायद्यांचेर बरयिल्लो तांचो ज्ञानकोश हो पुराणकाळांत व्हड वावर मानताले. तांची ती एक अज्रंवर अशी कलाकृती जावन आशिल्ली आनी आजय आसा. कारण तो ज्ञानकोश आज तत्वज्ञानांचे, धर्माचें, इतियासाचें आनी कायद्याचें शिकप घेवपी विद्यार्थ्यांक उपेगी थाल्ला. हाजेवेल्यान त्या ग्रंथाचें म्हत्व मतींत येता. तें पुस्तक सगल्या विरूध्द मतांचें खंडन करपी आसा.

पांडुरंग वामन काणे १९७२ वर्सा हें जग सोडून गेल्ले. त्या आदीं १९६३ वर्सा देशान मोठ्या मानान तांकां 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार दिवन गौरव केल्लो.



# लाल बहादूर शास्त्री (१९०४- १९६६)



लाल बहादूर शास्त्रींचो जल्म १९०४ त प्रयाग हांगा जाल्लो. तांचे बापूय शारदाप्रसाद शास्त्री गावांत शाळेचे मास्तर आशिल्ले. लाल बहादूर देड वर्साचे आसतना बापूय तांकां आवयच्या कुशींत दवरून हें जग सोडून गेल्ले. त्याखातीर ल्हान आसतनाच लाल बहादूरांचेर मोटी जबाबदारी पडिल्ली. तांच्या मामान शिकपाखातीर तांकां वाराणसीक धाडून दिल्ले. ज्या कुटूंबांत तांकां दवरिल्ले थंय दया-माया कांय मेळनाशिल्ली. ते थंय चड तेप रावूं नाशिल्ले. त्या उपरांत ते एका मास्तरागेर - मिश्राजीगेर रावपाक गेल्ले.

त्या मास्तरान तांका भारत देश कसो पारतंत्र्यांत पाविल्लो हाज्यो गजाली सांगिल्यो. त्यो आयकून लाल बहादूराच्या मनांत देशाविशीं प्रेम निर्माण जावन ते स्वातंत्र चळवळींत सामील जाल्ले. असहकार आंदोलना वेळार महात्मा गांधीजी वाराणसीक भाशण दिवंक गेल्ले तेन्नाचो तो काळ आशिल्लो. पदवेचें शिकप पूर्ण जावपाक एक वर्स आसतना लाल बहादूरान कॉलेज सोडिल्ली आनी ते चळवळींत सामील जाल्ले. तांची ती कृती पळोवन तांचे मामा आनी मास्तर मिश्राजी निर्शेल्ले. पूण तांचे आवयन तांकां तांच्या त्या कार्यांत फाटबळ दिल्लें. तिज्या आशिर्वादान ते फुडें पूर्ण वेळ असहकार चळवळींत वावरूंक लागिल्ले.

बंदी घातिल्या चळवळीच्या मोर्चांत वांटेकार जाले म्हूण तांका अटक केल्ली. पूण तांची ती पयली खेप आशिल्यान रोखडे सोडून दिल्ले. अटकेची ही घडणूक ताज्या मुखावेल्या जिणेची नांदी थारिल्ली. उपरांत ताणीं दिसभर खादीच्या दुकानार काम करून रातचो शिकून तत्वज्ञानांत पदवी मेळयिल्ली.

केंद्र सरकारांत ते रेल्वे मंत्री आशिल्ले तेन्नां तामिळनाडूंत अरीयालूर हांगा रेल्वेक जाल्या अपघाताची जबाबदारी आंगार घेवन ताणीं केंद्रांतल्या रेल्वे मंत्रीपदाचो राजीनामो दिल्लो. ही तांची हेरांक देख आशिल्ली. हरिजनांखातीर ताणीं खूब वावर केल्लो. कांय तेपान ते अलाहाबादेंत गेल्ले. थंय ताणीं जिल्हा काँग्रेस समितीचे सचिव म्हूण वावर केल्लो. १९२९ वर्सा लाहोरांतल्या काँग्रेसीच्या अधिवेशनांसावन येतकीर ताणीं 'पूर्ण स्वराज्य' मेळोवपाखातीर जाग्रूताय करपाक मुरवात केल्ली. तांच्या ह्या कार्याक लागून ते जायते खेपे बंदखणींत पाविल्ले. त्याच काळांत तांचे बायलेन ललीतादेवीन एका भुरग्याक जल्म दिल्लो. तांकां कितले खेपे धरून बंदखणींत घातिल्ले हाजें कोणाकडेन मोजमाप नाशिल्लें. तांका सतत धर धरून बंदखणींत

ालताले.

देश स्वतंत्र जातकीर उत्तरप्रदेश सरकारान तांकां पयले पोलीस मंत्री केल्ले. १९५१ त ाल बहादूर शास्त्रींक लोकसभेचे सचिव नेमियार केल्ले. पंडित जवाहरलाल नेहरूंच्या सरकारांत ांचे कडेन जायतीं खातीं दिल्लीं. तातूंत रेल्वे, म्हायती संचालनालय, ग्रह मंत्रालय वगैरे आशिल्लीं. पंडित नेहरूंच्या मरणा उपरांत तांचे कडेन प्रधानमंत्र्याचो ताबो दिल्लो, तेन्ना ताणीं भारत देश खाणां-जेवणांत स्वावलंबी जावचो म्हणून भरसक यत्न केल्ले.

१९६५ वर्सा पाकिस्तानान भारताच्या काशिमराचेर घूरी घातिल्ली. त्यावेळार शास्त्रीन नमळायेन तांकां लाहोराक परतिल्ले. १९६६ वर्सा जागतीक स्तरावेल्यान त्या सबंदान तांचेर दबाव घालूंक शास्त्री यशस्वी जाल्ले. उपरांत लाल बहादूर शास्त्री ताश्कंदाक गेल्ले आनी आयुब खानाकडेन ताश्कंद करार केल्लो. ताणी त्या कराराचेर सयो केल्यो त्याच रातीकडेन न्हिदिल्ले थंय ते संवसाराक अंतरिल्ले.

अशा ह्या भौ आयामी व्यक्तीक त्याच वर्सा म्हळ्यार १९६६ वर्सा सर्वोच्च नागरी ुरस्कार 'भारत रत्न' भेटयिल्लो.







# इंदिरा गांधी (१९१७- १९८४)



स्वतंत्र भारताची सगल्यांत प्रभावशाली प्रधानमंत्र कोण आसत तर ती आशिल्ली इंदिरा गांधी. जवाहर आन कमला नेहरू हांची ती चली. तिजो जल्म १९ नोव्हेंबर १९१ वर्सा जाल्लो. ल्हानपणांसावन पंडित जवाहरलाल नेहरूंच्य मार्गदर्शनाखाला उरिल्यान ती एक हुशार, विचारी आनी मुत्सद्दं राजकारणी जाल्ली. राजकारणांतली तिजी पध्दत वेगळे धाटणीची आशिल्ली.

१९६४ मेरेन ती राजकारणांत स्वतःच्या बापायच्य फाटल्यान राविल्ली. केंद्रीय केबिनेट मंत्रीमंडळांत वेचून येवन मंत्री जाल्ली तरी लेगीत ती बापायच्या मार्गदर्शनांत राविल्ली. १९६६ वर्सा लाल बहादू शास्त्रींचे निधन जाल्या उपरांत तिणें देशाचें नेतृत्व करून देशाविशींची स्वतःची तळमळ दाखोवन दिल्ली. ती देशाची प्रधानमंत्री जाल्ली तेन्नां सुरवातेक प्रत्येकाक दिशिल्लें ती काँग्रेसीच्या मार्जी नेत्यांची बावली जावन वावुरतली. पूण तिणें तांच्या विचारांक फट थारायत एक प्रभावशाली प्रधानमंत्री म्हणून नांव दवरिल्लें.

जायत्या काँग्रेस नेत्यांविरूध्द तिजे विचार आशिल्यान काँग्रेसीचे दोन वांटे जाल्ले. एक १९६९ वर्सा आनी दुसरो १९७८ वर्सा. पयल्या फूटी उपरांत तिजी लोकप्रियता देविल्ली. पूण १९७१च्या इलेक्शनांत ती परत भौमतान वेचून आयिल्ली. त्याच वर्सा पाकिस्तानाकडेन पूर्व बंगालांत लडाय करून पूर्व पाकिस्तान निर्माण केल्लें. तेच लडायेंत पूर्व पाकिस्तान निर्माण करून ताका बांगलादेश नांव दिल्लें. ही लडाय भारतान १४ दिसांभितर जिखिल्ली.

बँकांक राष्ट्रीय दर्जो दिवपाचें श्रेय इंदिरा गांधीक वता. (**Green Revolution**) हरित क्रांति सुरू करून तिणे भरपूर भात, बियाणीं आनी कडधान्यांची पिकावळ काडपाक शेतकऱ्यांक प्रोत्साहन दिल्लें. तिज्या ह्या यत्नांक लागून ती परत सत्तेर पाविल्ली. भारताचो अणू कार्यक्रम करपाचें श्रेय तिकाच वता.

पूण दुसरे वटेन भारतीय इतियासांत न विसरपासारखी गजाल तिणे केल्ली. ती म्हळ्यार १९७५ वर्सा जाहीर केल्ली आणिबाणी. विरोधी पक्षान १९७१ च्या वेचणुकेंत तिज्या पक्षान व्हड अफरातफर केल्या असो आरोप करतकीर तिणे आणिबाणीचे पावल उखलिल्ले. अलाहाबादेंतल्या हायकोर्टांत प्रधानमंत्र्यांनी वेचणुकेत अफरातफर केल्याचें सिध्द जाल्लें.

तें सिध्द जातकीर पार्लामेंटांतल्यान तिका काडिल्लें. आनी सः वर्साखातीर खर्चीय

चणूक लडोवपाचेर बंदी घातिल्ली. सगलें तिज्या विरूध्द गेल्यान तिणें देशांत आणिबाणी
ाहीर केल्ली; आनी त्या खाला सगळ्या विरोधी नेत्यांक कादयेंत बंद केल्ले. लोकशायेक एक
क्को बशिल्लो. तिणे भारतीय अधिनियमांतले ३५२ कलम लावन स्वत:कडेन वेगळी सत्ता
ळयिल्ली. थोड्या चर्चे उपरांत पार्लामेंटांतलीं तिज्या विरूध्द दाखल केल्लीं सगलीं बिलां / केसी
ायर मारिल्यो. तिज्यो ह्यो चाली जनतेच्या कांय जाणांक आवडूंक नाशिल्यो. ही आणिबाणी
९ म्हयने उरील्ली आनी १९७७ च्या वेंचणुकेंत तिज्या पक्षाक जनतेन भायर मारिल्लो. हो
ानी एक धक्को तिज्या पक्षाक बशिल्लो. पूण तिजे बुंदवंत कायेन परत एक फावट ती १९७९ त
धानमंत्री म्हणून सत्तेर आयिल्ली.

पंजाबांतल्या शिखांविशीं तिणे घेतिल्या एका निर्णयाक लागून तिका आनी एक खेपे
ाजीनामो दिवचो पडिल्लो. अमृतसरांत शिखांच्या भांगराच्या देवळांत तिणे करपाक लायिल्ले
ारवायेंत ९० भिंद्रनवाले शीख सोपिल्ले. संत जर्नाल सिंह भिंद्रनवाले हो त्या शीखांचो नेतो
ाशिल्लो. ही कारवाय ऑपरेशन ब्ल्यू स्टार नावांन केल्ली. जी इंदिरा गांधीक खूब म्हारग
डिल्ली.

इंदिरा गुजरातांतल्या पारसी फिरोज गांधीकडेन लग्न जाल्ली. आनी उपरांत इंदिरा
ांधी म्हूण नावांरूपांक आयिल्ली. संजय आनी राजीव अशे तिका दोन चले जाल्ले. संजय गांधी
आणिबाणी पयलीं आनी उपरांत तिजे लेफ्टनंट आशिल्ले. ते १९८० वर्सा विमान दुर्घटनेंत
ेल्ले.

राजीव गांधी इंदिरा गांधी उपरांत प्रधानमंत्री पदार पाविल्ले. इंदिरा गांधीक सर्वोच्च
ागरी पुरस्कार भारत रत्न तिज्या ५४व्या वर्सा १९७१ त दिल्लो. हो पुरस्कार घेवपी ती सगळ्यांत
यली ल्हान व्यक्ती आशिल्ली. तिजें कर्तत्वी व्यक्तीमत्व तिज्या खासा राखणदारांनी
**Bodyguard** ) ३१ ऑक्टोबर १९८४ वर्सा मोपयिल्लें.



** पावस हो असो मोसम जंय दर एक पान, फूल आसता.*
*– सर्वपल्लीं राधाकृष्णन्*

# वराहगिरी वेंकट गिरी (१८९४- १९८०)



वराहगिरींचो जल्म तेलगू भाशीक कुटूंबांत मद्रासांतल्या गंजम जिल्ह्यांतल्या बेहमपूरांत १० ऑगस्ट १८९४ वर्सा जाल्लो. सध्याक तो ओरिसा राज्याचो भाग जाला. स्वतंत्र भारताचे वराहगिरी वेंकट गिरी हे चौथे राष्ट्रपती जाल्ले. तांच्या राष्ट्रपती पदाच्या कार्यकाळांत जायत्यो राजकीय घडामोडी घडिल्यो.

त्या वेळार व्ही. व्ही. गिरींची राष्ट्रपती पदाची वेंचणूक ही भारतीय इतियासांतली एक प्रतिष्ठेची वेंचणूक आशिल्ली. इतर काँग्रेसमनानीं तांकां विरोध केल्लो, जाल्यार इंदिरा गांधीन तांचे उमेदवारीक तेंको जाहीर केल्लो. ह्या वादाक लागून त्यावेळार भारतीय काँग्रेसींत फूट पडिल्ली.

त्या आदीं १९१३ वर्सा व्ही. व्ही. गिरीन दबलीन देशांतले युनिव्हर्सिटींत कायद्याचें शिक्षण घेतिल्ले. थंय लेगीत तांकां हें शिकप सातत्यान करूंक मेळूं नाशिल्ले. शिक्षण पुराय जावचे पयलींच १९१६ व्या वर्सा तांकां त्या कॉलेजींतल्यान काडून वडयिल्ले. कारण ताणीं आयरलेंडातल्या सिन - फेन चळवळींत वाटों घेतिल्लो. जी थंयच्या सरकार विरोधी चळवळ आशिल्ली. तांकां कॉलेजींतल्यानच काडिल्लो अशें न्हंय तर आयरलेंडातल्यान धांवडायिल्ले.

थंयसावन भारतांत येतकीर गिरीन स्थानीक राजकारणांत उडी घेतिल्ली. राजकारणांत रावन कामगार वर्गाक संघटीत करून एकटांय हाडप ही तांची मुखेत मोख आशिल्ली. उपरांत ते अखिल भारतीय रेल्वे फेडरेशनाचे सचिव जाल्ले, आनी उपरांत अध्यक्षपदार पाविल्ले. तेच वरी अखिल भारतीय कामगार युनियनाचे अध्यक्षपदय तांका दिल्लें.

१९३७ वर्सा ते मद्रासांतल्या काँग्रेस सरकारांत सामील जाल्ले. त्यावेळार तांकां कामगार आनी उद्येग मंत्री केल्ले. १९४२व्या वर्सा थंयच्या काँग्रेस सरकारान राजीनामो दितकीर ताणी परत कामगार चळवळींत वांटो घेतिल्लो. त्यावेळार भारत छोडो चळवळी निमतान ब्रिटीश सरकारान तांकां कादयेंत घातिल्ले.

१९४७ वर्सा भारत स्वतंत्र जातकीर व्ही. व्ही. गिरींक पयली भेट म्हणून स्वतंत्र भारतान सिलोनाचे (आतांची श्रीलंका) हाय कमिशनर नेमिल्ले. १९५२ वर्सा ते पार्लामेंटाचेर वेंचून आयिल्ले. आनी कामगार मंत्री जाल्ले. १९५४ मेरेन ताणीं हें मंत्रीपद सांबाळिल्लें. उपरांत त्याच वर्सा स्वतःच्या मंत्रीपदाचो राजिनामो दिल्लो. त्या उपरांतच्या सलग धा वर्सांत ताणीं उत्तर प्रदेश,

केरळ आनी कर्नाटकाचे राज्यपाल म्हूण काम पळयिल्लें.

१९६७ वर्सा ते भारताचे उपराष्ट्रपती म्हूण वेंचून आयिल्लें आनी त्या वेळावेले राष्ट्रपती डॉ. झकीर हुसेन भायर पडिल्ले तेन्नां व्ही. व्ही. गिरीन तात्पुरत्या राष्ट्रपती पदाचीं सुत्रां सांबाळिल्लीं. उपरांत जावपी फुडले राष्ट्रपती पदाचे वेंचणुकेंत उमेदवारी भरपाची तयारी ताणीं केल्ली. पूण निमण्या खिणाक काँग्रेसीन निलम संजीव रेड्डी हांकां त्या पदार नियुक्त केल्ले. रेड्डी उपरांत व्ही. व्ही. गिरी भारताचे चौथे राष्ट्रपती जाल्ले. त्याच वेळार भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेस फुटील्ली.

गिरी राष्ट्रपतीपदार १९७४ मेरेन राविल्ले. मदल्या काळांत ताणीं गोयांतय एक खेपे भेट दिल्ली. भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' व्ही. व्ही. गिरी हांकां १९७५ व्या वर्सा दिल्लो. आनी त्या उपरांत २५ नोव्हेंबर १९८० व्या वर्सा ते हो संसार सोडून गेल्ले.



5758

* अणभव ही फणी, जी आमी बोडके जातकच सैम आमकां दिता
  – सर्वपल्ली राधाकृष्णान

* दुबळयांची निस्वार्थ सेवा केल्यार जिवीत पवित्र जाता – मदर तेरेझा

* कोणाचोय पराभव करप सोपें. मात कोणाकय जिखप सामकें कठीण
  – सर्वपल्ली राधाकृष्णान

# कामराज (१९०३-१९७५)



कामराज हांचो जल्म १५ जुलय १९०३ वर्सा जाल्लो. तांच्या बापायचें नांव कुमारस्वामी आनी आवयचें नांव शिवकामी अम्मल आशिल्लें. ते ख्रूब गरीब घराण्यांत जल्मल्ले. तांचो घराबो नदार हे सकयल्या जेमातिचो आशिल्लो. तोच तांचो मुळावो व्यवसाय आशिल्लो. तातूंतच तांचे कुटूंब जेमतेम पोट भरतालें.

देशांत चलिल्ले स्वातंत्र्य चळवळीक लागून कामराज राजकारणांत पाविल्ले. त्या वेळार तांचे वय १६ वर्सांचें आशिल्लें. तांचो स्वभाव गांधीवादी म्हळ्यार अहिंसा मानपी आशिल्लो. तांची जिणे शैली, सामकी सादी आशिल्ली. गर्रीबींतल्यान आयिल्यान हे तरेन जीण जगप तांकां सोपें जाल्लें. स्वत:चे जिणेच्या निमाणे मेरेन ते अविवाहीत राविल्ले.

गरीबींत दीस सारून लेगीत १९५४ वर्सा ते मद्रासाचे (चेन्नय) मुखेलमंत्री जाल्ले. सलग १३ वर्सां ताणीं हें पद सांबाळिल्लें. मुखेलमंत्री पदार आसतना ताणीं शिक्षणीक पुनरूत्थान आनी सार्वजनीक पांवड्यार राज्यभर मुळाव्यो सुविधा मेळोवन दिवपाचेर भर दिल्लो. आनी त्यो पुराय केल्यो.

कामराजांक सगले स्वतंत्र भारतीय राजकारणाचे गुरू मानताले. तांकां राजासारखो मान दिताले. भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीचे ते अध्यक्षय जाल्ले. तांच्या अध्यक्षपदाच्या कार्यकाळांत ताणीं दोग जाणांक प्रधानमंत्री पदार हाडूंक यत्न केल्ले. ते म्हळ्यार १९५४ वर्सा लाल बहादूर शास्त्री आनी १९६६ वर्सा इंदिरा गांधीक.

तांच्या पुराय जिणेच्या साद्यापणाचो दाखलो दिवन सांगपाचें जाल्यार तांच्या जिणेच्या निमण्या काळार ते भाड्याच्या घरांत रावताले. काँग्रेस पक्षाचे अध्यक्ष, राज्याचे मुखेलमंत्री आसूनय कामराजाक स्वत:चें घर नाशिल्ले ही अजापीत करपी गजाल आसा. जेन्ना ते अंतरिल्ले तेन्ना तांचेलागीं फक्त १२० रूपया मेळिल्ले, आनी फक्त ६ धोतरां. हें सगलें पळयत जाल्यार विश्वास न बसपासारखें आसा.

आतांच्या साद्या राजकारण्याची आस्पत कितली आसता आनी कामराज...जे राज्याच्या उच्च पदार आशिल्ली व्यक्ती-तांची परिस्थिती पळोवन अजापान तोणांत बोटां घालपाक लावपी आसात.

मुखेलमंत्री पद ताणीं १३ वर्सां सांबाळिल्लें आनी राजकारभार हातांत आसतना भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीचे ५ वर्सां अध्यक्ष रावन तांची शिल्लकी पळोवन कोणेय देख घेवपाची.

१९७५ वर्सा ते अंतरिल्ले. आनी सर्वोच्च नागरी पुरस्कार मरणोत्तर १९७६ वर्सा दिवन तांच्या कार्याचो गौरव केल्लो.



# मदर तेरेझा (१९१०- १९९७)



मदर तेरेझांचे जिणेविशीं बरयतलो जाल्यार कांय वळींनीं सोपपाचें ना. तांचो जल्म २७ ऑगस्ट १९१० वर्सा स्कोपजे शारांत - आयच्या मेसेडोनियाची राजधानींत जाल्लो. तांचे बापूय एक दुकानदार आशिल्ले. तीन भावंडांपैकीं ती सगल्यांत ल्हान आशिल्ली.

भारतांत कलकत्त्याच्या आयरीश जातीच्या नन् जावपी संस्थेंत लॉरेटोची सिस्टर म्हणून तिका प्रवेश दिल्लो. १९३१ वर्सा तिणे सिस्टर मेरी तेरेझा म्हणून पयलो सोपूत घेतिल्लो - तेरेझा अविलाक रेस्पेत म्हणून, आनी स्वतःचो निमाणो सोपूत तिणे १९३७ वर्सा घेतिल्ली. मदर तेरेझा हें धार्मिक नांव तिणे त्या ६/७ वर्सांच्या काळांत मेळयिल्लें.

कलकत्त्याच्या सेंट मेरीस स्कूलांत १९२९ ते १९४८ वर्सा मेरेन तिणे भूगोल आनी ख्रिश्चन धर्माची धार्मिक शिक्षण दिवपाची पध्दत हांची शिकवण दिल्ली. उपरांत १९४४ वर्सा ती त्याच स्कूलाची प्रिन्सिपल जाल्ली. १९४८ वर्सा पोप पायस XII हांचे कडल्यान तिका थारावीक जातीं भायर, स्वतंत्र पणान नन् म्हणून रावपाची परवानगी मेळिल्ली. त्या बरबर तिणे तें स्कूल सोडिल्लें. आनी पाटणा, बिहार वचून मिशनरींचीं वैजकी धोरणां जाणा जावन घेतिल्लीं. त्या उपरांत ती परत कलकत्त्याक गेल्ली. थंय एक तात्पुरतें वसतीघर घेतिल्लें. आनी गरीबांची सिस्टर (आया) जावन राविल्ली.

उपरांत तिणें उक्त्यार अनाथ भुरग्यांखातीर शाळा काडिल्ली. ही तांची पयली सुरवात आशिल्ली. त्या उपरांत तिणे जायत्यो धर्मादाय संस्था स्थापन केल्यो. 'भुकेल्यां खातीर घर' ही तांतली एक जावन आशिल्ली. तिजें मुख्य कार्यालय हिंदू देवळांत आशिल्लें. निर्मळ हृदय, आलाशिरो नाशिल्यांक शांतिनगर, अपंगां खातीर गरजेचीं आयुदां वगैरे मदत तिणे केल्ली. जांकां समाजान पयस केल्ले, जांकां समाज तुच्छ मानतालो, तांकां ती आलाशिरो दिवन मायेन लागयताली. ह्या मोगाळ वागपान तिजें नांव जगांतल्या चारूय कोनशांनीं पाविल्लें. चोय वटेन तिजें नांव गाजिल्लें. हाजोच फायदो घेत तिणें समविचारी व्यक्तींची संस्था स्थापन केल्ली. आनी सादार कार्य करपाक सुरवात केल्ली. समाजांत कोण नाशिल्यांक पळोवपी, तांची देखरेख करपी म्हणून तिज्या त्या कार्यान १९७० मेरेन ती आंतरराष्ट्रीय नामनेक पाविल्ली.

१९७१ वर्सा तिका पयलो पोप जॉन XXIII शांती पुरस्कार भेटयिल्लो. त्या उपरांत

इनामां, पुरस्कार आनी हेर तोखणायेचो तांचेर पावस पडिल्लो. तातूंत मुखेल पणान १९७१ त कॅनेडी इनाम, आलबर्ट स्वीझर आंतरराष्ट्रीय इनाम १९७५ त, युनायटेड स्टेटस प्रेसिडेंशियल स्वातंत्र्य पदक १९८५ वर्सा, आनी कॉंग्रेसीचें भागरा पदक १९९४ वर्सा तिका मेळिल्लीं.

१९९६ वर्सा अमेरिकेची मानादीक रहिवासी म्हणून तिजो गौरव केल्लो. त्या सगल्या पुरस्कारांचेर कळस चडयिल्लो नोबेल शांती पुरस्कारान, जो तांकां १९७९ वर्सा भेटयिल्लो.

२००३ वर्साच्या २० ऑक्टोंबरांत पोप जॉन पॉल II हाणीं तिका भक्तीवंत केल्ली. भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार तिका १९८० वर्सा सोदीत पाविल्लों . ५ सप्टेंबर १९९७ वर्सा पार्थीव शरीर सोडून ती अनंतांत विलीन जाल्ली.



* समाधान ही समृध्द जिविताची मोलादीक वस्त - स्वामी विवेकानंद

* खयचोय मनीस इतलो गिरेस्त ना जितलो की तो ताचो भूतकाळ विकत घेवंक शकतलो - मदर तेरेझा

* जें हांव हाताळपाक शकना तें देव म्हाका दिवचो ना हें हांव जाणां. ताणे म्हजेर इतलो विश्वास दवरचो न्हंय अशें म्हाका दिसता. ताणे म्हजी परीक्षा घेवची - मदर तेरेझा

# विनोबा भावे (१८९५- १९८२)



विनोबा भावेंचो जल्म ११ सप्टेंबर १८९५ वर्सा महाराष्ट्रांतल्या गागोडे गावांत जाल्लों. तांचें कुटूंब चित्पावन पर्थाय आशिल्लें. तांचें नांव विनायक नरहरी भावे आसुनय तांका विनोबा भावे म्हणूनच सगले वळखताले. ताणीं धर्मिक, सामाजीक, राजकीय क्षेत्रांत स्वत:चें वेगळें अशें एक वारें निर्माण केल्लें.

भगवद्गीता वाचून ते प्रभावीत जाल्ले. त्या उपरांत स्वत:च्या जिणेचो चडसो वाटो ताणीं सदच्या सामाजीक कार्याक दिल्लो. तेचवरी महात्मा गांधी उदेशींय ते प्रभावीत जाल्ले. उपरांत ताणीं गांधी बरबर भारताच्या स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो तिल्लो. स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेता म्हणून ब्रिटीश सरकारान १९३२ वर्सा तांकां जेलींत तिल्ले. थंय जेलींत महाराष्ट्राचे हेर कैदी आशिल्ले पळोवन ताणीं तांकां भगवद्गीतेचे विचार, र्थ आनी गीतेचें सार सांगपाक सुरू केल्लें. तांच्या त्या विचारांचें उपरांत Talks on the Geeta" नावांचें पुस्तक काडिल्लें. त्या मौलीक विचारांच्या पुस्तकाचे उपरांत जायत्या भाशानीं णकार केल्ले. १९४० वर्सा विनोबा भावेक महात्मा गांधीनीं सत्याग्रही म्हणून वेचून ाडिल्लो.

एका गीतेनच तांची अध्यात्मिक बुध्दिमत्ता सोपूना. ते खूब हुशार आशिल्ले. तांकां ायत्या धर्मांची आनी भाशांची जाण आशिल्ली. भारताचे राष्ट्रीय शिक्षक म्हणून तांकां ळखताले. तांका आचार्य ही पदवी दिल्ली. चडशा भारतियांची जिणेशैली पळोवन ताणीं ांच्यो अडचणी आध्यात्मिकतेंतल्यान सोडोवपाचो यत्न केल्लो. ताखातीर ताणीं 'सर्वोदया' ळवळ सुरु केल्ली. दुसरे वटेन तिका " Awakening of all potientials" अशें म्हणटाले. ांची दुसरी चळवळ आशिल्ली 'भूदान ' चळवळ. हे चळवळी खातीर सावकारां कडल्यान जमीन णगी म्हणून घेवपाक ताणीं पुराय भारतभर भोंवडी केल्ली. त्या वेळार दान रुपांत मेळिल्ली मीन ताणीं उपरांत गरजेवंतांक वांटून दिल्ली. गो हत्येचे ते प्रखर विरोधक आशिल्ले. गाय ही ामची गो माता आसा हें ते प्रकर्शान सांगताले.

तांच्या फुडल्या जिणेंत ताणीं महाराष्ट्रांत पवनार हांगा एका आश्रमाची स्थापणूक ल्ली. तांच्या हया आश्रमांत गो मुत्रा सावन, शेणा सावन वखदां, दंतमंजन वगैरे तयार रताले.

आचार्य विनोबा भावे हांकां 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार १९८३ वर्सा रणोत्तर भेटयिल्लो. १५ नोव्हेंबर १९८२ वर्सा ताणीं स्वखोशेन समाधी घेतिल्ली. त्या आदीं ाणीं वखदां, जेवण, खाण सगलें सोडिल्लें.



# खान अब्दूल गफार खान (१८९०- १९८८)



अब्दूल गफार खान हांचो जल्म १८९० त्या वर्सा उत्तर पश्चिम दिकेच्या राज्यांत जाल्लो....आज तें पाकिस्तानांत आसा. शिक्षणाखातीर विदेशांत वचपाची तांची संद त्यावेळार चुकिल्ली. कारण तांची आवय तांकां स्वतःच्या दोळयां असवडी पयस धाडपाक तयार नाशिल्ली. ती तांकां स्वतःच्या दोळयांआड जावंक दिनाशिल्ली.

व्हड जातकीर ताणीं पठाणांखातीर जायत्यो शाळा काडिल्यो. कारण त्या काळार पठाणी लोक शिकिल्ले नाशिल्ले. चडशे पठाणी अशिक्षीत आसताले म्हणून ताणीं पठाण जातींखातीर एक संस्था स्थापन केल्ली, आनी तिका नांव दिल्लें "खुदायी खिदमतगार" म्हळयार देवाचे कामगार. तांचे खातीर ताणीं केसरी रंगाचो गणभेस दिल्लो

अब्दूल गफार खान मनशांखातीर काम करप म्हळयार देवाखातीर काम करप अशें मानताले. जगाक ते सदांच सांगताले, धर्माखातीर वेगळोचार करप म्हळयार मनशा -मनशा मदीं, मनीसपणां मदीं वेगळोचार करप, एकमेकांक वेगळो करप.

खान अब्दूल गफार खान हे गांधीजींचीं तत्वां मानपी आशिल्ले. तांची जीण सादी आनी सरळ आशिल्ली. तांची ही सादगी पळोवन गांधीजीय प्रभावीत जाल्ले. पुराय जिणभर ताणीं बरे विचार, मोग आनी कर्तव्य ही तत्वां प्रखरपणान स्वतःच्या आचरणांत हाडिल्लीं. १९३१ सांत ताणीं कराची कॉंग्रेसीच्या आधिवेशनांत वांटो घेतिल्लो. त्याच वर्सा तांकां आनी तांचे व्हडले भाव डॉ. खानसाहेब हांकां हजारीबाग, हे बिहारांतले जेलींत घातिल्ले. भारताच्या फाळणी वेळार माऊट बेटन प्लान लायिल्लो, तेन्नां ते कॉंग्रेसीच्या कार्यकारी कमिटीचे सभासद आशिल्ले. आनी फाळणी जाल्ली तेन्ना ते सगल्यांत चड दुखी जाल्ले.

फाळणी उपरांत उरिल्लें आयुष्य जल्म गावांत सारचें अशें ताणीं थारायिल्ले. पूण स्वतंत्र जातकीर तांची चडशी जीण पाकिस्तानातल्या वेगवेगळया जेलींत गेल्ली. ब्रिटीशांच्या काळांत ते १५ वर्सा जेलींत आशिल्ले; स्वतंत्र जाल्या उपरांत २१ वर्सा पाकिस्तानांतल्या जेलींत सारिल्लीं. हाजेवेल्यान ताणी जेलींत काडिल्या काळाची कल्पना येता.

१९८५ वर्सा मुंबय जाल्या कॉंग्रेसीच्या अधिवेशनांत हजर रावपाक तांका भारतांत येवपाची परवानगी मेळिल्ली. जगाचे खरे नागरीक खान अब्दूल गफार खान हांकां भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' १९८७ वर्सा भेटयिल्लो आनी २० जानेवारी १९८८ दिसा ते हें जग सोडून गेल्ले.



# एम. जी. रामचंद्रन (१९१७- १९८७)



मरुधर गोपालन रामचंद्रन हांचो जल्म १७ जानेवारी १९१७ त श्रीलंकेच्या कँडी शारांत जाल्लो. तांच्या बापायचें नांव मरुधर गोपालन आनी आवयचे नांव सत्यभामा आशिल्लें. मुळावें शिकप जातकीर तांकां जबरदस्तीन शाळा सोडची पडिल्ली, आनी ते नाटक कंपनींत भरती जाल्ले. स्टेजीचेर अणभव मेळटकीर ते सिनेमाच्या जगांत भितर सरिल्ले. हांगा ताणीं स्वतःचे ताकीचेर बरें नांव मेळयिल्लें. ते कलाकार, दिग्दर्शक नेच वरी निर्मातेय जाल्ले. तांकां एम. जी. रामचंद्रन म्हणूनच वळखताले.

सिनेमांत नांव कमोवन उपरांत ते तामिळनाडूचे मुखेलमंत्री जाल्ले. तांचो पयलो सिनेमा 'सती लिलावती' १९३६ सांत प्रदर्शित जाल्लो. १९४७ वर्सा प्रदर्शित जाल्या 'राजकुमारी' सिनेमान ते कलाकार म्हणून नावांरुपाक आयिल्ले. तांचे सिनेमा द्रविडांचे चळवळीचेर आसताले. मुखार ते एक व्हड तामीळ कलाकार जाल्ले. तांचे हें सेत पळोवन त्या क्षेत्रांत तांकां शत्रूय निर्माण जाल्ले. अशाच एका सह-कलाकारान तांचेर आर्माची गुळी मारिल्ली. त्या उपरांत ताणीं स्पश्ट उलोवपाचें कमी केल्लें. पूण ताजो परिणाम तांच्या कला प्रवृत्तीचेर मात पडूं नाशिल्लो.

१९७२ वर्सा प्रदर्शित जाल्लो 'रक्षाकरण' हया सिनेमाखातीर तांकां भारत पुरस्कार (बरो दादलो कलाकार) मेळिल्लो. त्या पयलीं १९६० वर्सा ताणीं पदमश्री पुरस्कार नाकारिल्लो.

तामीळ सिनेमा कलाकार आसूनय ते तामीळ संगीत, राष्ट्रीय द्रविडीयन आनी एक राजकीय द्रविड मुन्नेत्रा कझगम चे (DMK) सभासद आशिल्ले . १९६२ वर्सा ते हया DMK चे तिकेटीचेर विधानसभेचेर काऊंसिलर सभासद म्हणून वेंचून आयिल्ले. आनी १९६७ वर्सा ते विधानसभेचे आमदार जाल्ले. तांकां राजकारणाची आवड आशिल्यान तांचे चडशे सिनेमा राजकारणाचेर आशिल्ले.

अडचल्यांक मदत करपाक ते सदांच मुखार आसताले. १९६२ वर्सा चिनाबरबर जाल्या झूज फंडांत ताणीं पयलीं मदत केल्ली.

अण्णादुराय हांच्या मरणा उपरांत DMK चें मुखेलपण ताणीं सोडिल्लें. ताणीं अखिल भारतीय द्रविड मुन्नेत्रा कझगम [AIDMK] पक्ष स्थापन केल्लो. आनी १९७७ वर्सा त्या पक्षाक सत्तेर हाडिल्लो. तेन्नांच ते - एम. जी. रामचंद्रन - मुखेलमंत्री जाल्ले. १९८४ त तांकां अर्धांग

वायुचो झटको आयिल्लो तरुय ताणीं मुख्येलमंत्री पद सांबाळिल्लें. जयललितांक राजकारणांत हाडपांत तांचोच वाटो आसा....जी उपरांत तामिळनाडुची मुख्येलमंत्री जाल्ली.

मुख्येलमंत्री जातकीर रामचंद्रन हाणीं जायत्यो कल्याणकारी येवजणो चालीक लायिल्यो; चड करुन शिक्षणाविशीं. मदल्या वेळार खाण दिवप आनी तामीळ विद्यापीठ तातुंतल्यो कांय मुखेल येवजणो आशिल्यो . १९८८ वर्सा तांकां सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' मरणा उपरांत दिल्लो. ते २४ डिसेंबर १९८७ वर्सा अंतरिल्ले.



* संवसारातलें निमणें सत्य म्हणल्यार रानांतलें हिंस्त्र जनावर.
  - सर्वपल्ली राधाकृष्णन

* तुमकां तुमचे परस बरो सल्लो कोण दिवंक शकना - मदर तेरेझा

* मनशाचो सभाव तीन गजालींक लागून घडटा. इत्सा, भावना आनी ज्ञान - रविंद्रनाथ टागोर

* कोणाचो मोग मेळपना, सगल्यांनी किंकोत करप, सगल्यांक नाका जावप हें सगल्यांत व्हडलें दळदीर - मदर तेरेझा

# डॉ. भिमराव आंबेडकर (१८९१ - १९५६)



भिमराव रामजी आंबेडकर हांचो जल्म १४ एप्रिल १८९१ दिसा जाल्लो. ते तांच्या आवय बापायचे चौदावे अपत्य आशिल्ले. ते अनुसुचित जमातींतले आशिल्ले - जांकां दलीत म्हणटाले.

आंबेडकरांच्या बापायन भुरग्यांच्या शिक्षणाखातीर थोडे पयशे जमयिल्ले. त्यावरवीं ताणीं भुरग्यांक मराठी आनी इंग्लीशींतल्यान शिक्षण दिल्लें. शिकपांत भिमराव उत्कृश्ट आशिल्ले. १९०८ वर्सा ताणीं मेट्रिकेचें शिकप पूर्ण केल्लें; आनी चार वर्सांनी पॉलिटिक्स आनी इकॉनॉमिक्साची पदवी घेतिल्ली. त्या उपरांत ताणीं बडोद्यांत मुलकी आधिकारी पदाची नोकरी धरिल्ली. बडोदा राज्यांन तांकां फुडल्या शिक्षणाखातीर शिश्यवृत्ती दिल्ली.

१९१३ ते १९१७ आनी १९२० ते १९२३ हया वर्सांनीं भिमराव युरोपांत फुडल्या शिक्षणाखातीर गेल्ले. ते सार्वजनीक जिणेंत खूब हुशार व्यक्ती आशिल्ले. पी. एचडी खातीर केल्या प्रबंधाचेर आशिल्लें The Evolution of Provincial Finance in British India नावांचें तांचे पुस्तक उजवाडा आयिल्लें. १९२० सांत मूकनायक नावांचें साप्ताहीक ताणीं प्रसिध्द केल्लें. उपरांत The Problem of the Rupee नावांच्या तांच्या प्रबंधाक लंडनाच्या युनिव्हर्सिटीन सायन्सींतली पदवी दिल्ली. ते थंयच्या बार संघटनेंत सामील जाल्ले. लंडनांतल्यान उपरांत ते इकॉनोमिक्स शिकपाखातीर थोडया काळाखातीर जर्मनींत गेल्ले.

थंयसावन भारतांत येतकीर ते कॉलेजींत शिकोवंक लागिल्ले. ताणीं इग्लंडांत भारतांतल्या वेगवेगळया जमातींचे प्रतिनिधी म्हणून तिन गोल-मेज कॉन्फरंसांत हजेरी लायिल्ली. थंय 'बहिश्कारी' हितकारिणी सभा' नावान संस्था स्थापन करुन ताणीं दलीत समाजाक फुडें येवंक मदत केल्ली.

भिमराव आंबेडकरांनी अहिंसक मार्गान हिंदूमर्दी आफुडभश्ट ना करपाखातीर प्रचार केल्लो. तेचवरी देवळांनी प्रवेश मेळोवपाक, सार्वजनीक बांयचें उदक दलितांक पिवंक मेळचें म्हणून यत्न केल्ले. तांच्या असल्या कार्याक लागून जायत्या जाणांक तांचो राग येतालो. तांचे कांय विचार गांधीजींकय मानवूंक नाशिल्ले. त्याखातीर तांचेकडेन दुसऱ्या गोल - मेज कॉन्फरन्सांत वाद जाल्लो. पूण स्वतःचें म्हणणें ब्रिटीशांक पटोवन दिवपाक भिमराव यशस्वी जाल्ले. त्याप्रमाण ताणीं दलितांखातीर वेगळया मतदानाची तयारी केल्ली. तेन्नां गांधीजीनीं तांकां विरोध करुन उपासाक बशिल्लें; आनी ब्रिटीशांक ताणीं केल्ली ती सोय रद्द करची

पडिल्ली.

१९०८ वर्सा भिमरावांच्या १६ व्या वर्सा ९ वर्सांच्या रमाबाईकडेन तांचें लग्न जाल्लें तांकां उपरांत ५ भुरगीं जाल्लीं. गांधीजींकडेन वाद जाल्लो त्याच काळार तांची धर्मपत्नी हर संसाराक अतरिल्ली.

भिमरावांनी स्वत:चो 'स्वतंत्र कामगार पार्टी' नावांचो नवो पक्ष स्थापन केल्लो; आनी १९३७ वर्सांतली विधानसभेची वेचणूक लडयिल्ली. भिमराव मुंबयच्यान निवडून आयिल्ले १९४१ व्या वर्सा तांची संरक्षण सल्लागार कमिटीचेर नेमणूक जाल्ली. त्याच वर्सा ते कार्यकार कामगार काऊंसिला चेर कामगार सभासद म्हणून दाखल जाल्ले. उपरांत कांय वर्सांनीं तांची स्वतंत्र कामगार पार्टी बदलून 'अखिल भारतीय दलीत संघटना' जाल्ली.

स्वतंत्र भारताचें संविधान बरोवपी म्हणून भिमराव आंबेडकरांक व्हडलो मान आसा. ते संविधान कमिटीचे मुखेली आशिल्ले. आनी अशें सांगतात हें संविधान ताणीं एकल्यान बरोवन मुखार हाडिल्लें. त्या पयलीं १९४७ वर्साच्या नेहरू सरकारांत ते कायदो मंत्री आशिल्ले आनी तांचें हें संविधान पास जातकीर ते कॅबिनेट मंत्री जाल्ले.

१९५१ व्या वर्सा ताणीं कॅबिनेट मंत्रीपदाचो राजीनामो दिल्लो. तेन्नासावन ते राजकारणांतल्यान पयस गेल्ले. १९५२ व्या वर्सा लोकसभेची वेचणूक ते हारील्ले. तरुय राज्यसभेचेर तांकां वेंचून दिल्ले.

आफुडभश्ट पण ना करपाचें कार्य खूब सवकासायेन चलता तें पळोवन ते खंती जाताले. ताणीं बुध्दाच्या शिकवणीचो प्रचार करपाक सुरु केल्लें. जाचे वरवी आफुडभश्टपण ना करपाक घटसाण मेळटाली. त्याच काळार 'बुध्द आनी ताजो धर्म' नावांचें ताणीं बरयिल्लें पुस्तक सगल्या पुस्तकांमदीं उत्कृश्ट थारिल्लें. पूण तें पुस्तक तांच्या मरणाउपरांत उजवाडा आयिल्लें.

बुध्द धर्म स्विकारून अवघे सात आठवडे ते जगिल्ले. तांकां मानान बाबासाहेब म्हणटाले. बाबासाहेब भिमराव आंबेडकरांक 'भारत रत्न 'हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार मरणोत्तर १९९० त दिल्लो. ६ डिसेंबर १९५६ वर्सा तांचें महानिर्वाण जाल्लें.



# डॉ. नेल्सन मंडेला (१९१८-२०१३)



जागतीक किर्तिचे स्वातंत्र्य सेनानी जांकां भारत देशाभायर भारत रत्न मेवळां तांच्या मदले एक आसात - दक्षिण आफ्रिकेचे पयले लोकशायी राष्ट्रपती डॉ. नेल्सन मंडेला. तांचो जल्म १८ जुलय १९१८ व्या वर्सा दक्षिण आफ्रिकेच्या तेन्बुंत जाल्लो.

सात वर्सांचेर ते शाळेंत गेल्ले. तांचे फामिलींतल्यान शाळेंत वचपी ते पयले व्यक्ती आशिल्ले. त्या शाळेनच तांकां नेल्सन हें नांव दिल्लें. ते धा वर्सांचे आसतना तांचे बापूय अंतरिल्ले. वयाच्या सोळाव्या वर्सा पश्चिमी संस्कृती शिकपाक ते लार्कबरी बोर्डिंग संस्थेंत वचपाक लागिल्ले. ताणीं ज्युनियर कॉलेजीचें शिकप तीन वर्सां बदला दोन वर्सांत पुर्ण केल्लें. त्या उपरांत ते फोर्ट बियूफोर्टाच्या वेसलियन कॉलेजींत गेल्ले. थंय ताणीं धावप आनी बॉक्सिंगचे धडे घेतिल्ले. फोर्ट हॅर युनिव्हर्सिटींत ताणीं बी. ए. खातीर दाखलो घेतिल्लो. थंय तांकां ओलिव्हर तांबू मेळिल्ले. दोगूय उपरांत जिणभर इश्ट जावन राविल्ले.

कॉलेजींत पयल्या वर्साच्या शेवटाक युनिव्हर्सिटीच्या नेमांविरुध्द जावपी घडणुकांत ताणीं वांटो घेतिल्लो म्हणून दोगांकय युनिव्हर्सिटी सोडूंक लायिल्ली. उपरांत ताणीं पदवेचें शिकप युनिव्हर्सिटी ऑफ दक्षिण आफ्रिकेंत पत्र व्यव्हारांतल्यान पुर्ण केल्लें . त्या उपरांत ताणीं कायदो विशय घेवन फुडलें शिकप घेतिल्लें.

विद्यार्थी दशेंनच तांची राजकीय कारकिर्द सुरु जाल्ली. गोऱ्या काती विरुध्द ताणीं राजकीय, सामाजीक आनी अर्थीक हक्काखातीर झगडें सुरु केल्लें. १९४२ वर्सा ते आफ्रिकन राष्ट्रीय कॉंग्रेसींत दाखल जाल्ले. दोन वर्सां उपरांत सिसुलू आनी ऑलिव्हर तांबू हांच्या सांगातान ताणीं युवा फोर्साची स्थापना केल्ली.

१९५२ वर्सा तांच्या मित्रांनीं आनी ताणीं मेळून अहिंसेच्या मार्गान चळवळ सुरु केल्ली. डिसेंबर १९५६ वर्सा तांका धरिल्लें. १९६० वर्सा आफ्रिकन राष्ट्रीय कॉंग्रेसीचेर बंदी घातिल्ली. तेबरबर मंडेला आनीं तांच्या सांगात्यानीं बदल म्हणून सुखार अहिंसा सोडून लडपाचें थरायिल्लें.

आफ्रिकन राष्ट्रीय कॉंग्रेसीच्या आर्मीचे १९६१ वर्सा तांकां सुखेली केल्ले. त्या वेळार ताणीं गोरे कातीच्या सरकाराविरुध्द व्यवस्थीत प्लान करुन सुत्सध्दीपणान झूज सुरु केल्लें. १९६२ वर्साच्या ५ ऑगस्टाक तांकां अटक केल्ली. आनी २५ ऑक्टोंबर १९६२ वर्सा तांकां ५ वर्सांची कादय फर्मायिल्ली.

मंडेला कादयेंत आसतना गोऱ्या कातीच्या पोलिसांनीं आफ्रिकन राष्ट्रीय कॉंग्रेसीच्या इतर नेत्यांक अटक केल्ली. मंडेलांक घातपाती कारवायो करपी आनी देशद्रोही अश्या कलमाखाला बंदी केल्ले. ताणीं शेगित २७ वर्सां कादयेंत काडिल्लीं. परत असल्यो कारवायो करचोना हया मुद्याचेर तांकां सोडपाचें निश्चित जाल्लें. पूण मंडेलान तें मानलें नां. आनी निमाणे १९९० वर्सा ते जेलिंतल्यान सुटिल्ले.

त्या उपरांत नेल्सन मंडेला दक्षिण आफिकेचे १९९४ वर्सा पयले राष्ट्रपती जाल्ले. डिसेंबर १९९९ मेरेन म्हळयार निवृत्त जाय मेरेन ताणीं तें पद सांबाळिल्लें. तांकां जायते पुरस्कार फाव जाल्ले. तातूंत १९९३ वर्साच्या शांती खातीरचो नोबेल पुरस्काराचो आस्पाव जाता.

भारत सरकारान तांकां 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार १९९० वर्सा भेटयिल्लो. ५ डिसेंबर २०१३ वर्सा चड काळाच्या दुयेसा उपरांत ताणी निमणो स्वास घेतिल्लो.



* लोकांक बरे आनी वायटामदीं विभागून घालपाक जायना. कारण खंचोच मनीस काळजांतल्यान बरो आनी वायट असो नासता - मदर तेरेझा

* सगल्यांचेर विश्वास दवरप धोकादायक. मात कोणाचेरय विश्वास ना दवरप हें ताचे परस धोकादायक - सर्वपल्ली राधाकृष्णन

* नितळ जावपाक पिंजचें पडटा, पवित्र जावपाक लासून घेवचें पडटा आनी किल्लून येवपाक पुरून घेवचें पडटा - सर्वपल्ली राधाकृष्णन

# राजीव गांधी (१९४४ - १९९१)



पंतप्रधान इंदिरा गांधीच्या मरणा उपरांत पंतप्रधान जाल्ले राजीव गांधी हांचो जल्म २० ऑगस्ट १९४४ व्या वर्सा जाल्लो. पंतप्रधान जातकीर ताणीं २१ व्या शेकड्यांत भारताक अर्थिक उदरगतीच्या परमोच्च शिखरार व्हरपाची मोख दवरिल्ली अशें जायते जाण सांगतात. पंतप्रधान इंदिरा गांधीचे ते धाकटे पूत आशिल्ले.

तांचें मुळावें शिकप दून शाळेंत आनी कॅब्रीज युनिव्हर्सिटींत जाल्लें. पूण कॅंब्रीजांतल्यान खंचीच पदवी तांकां मेळू नाशिल्ली. आजो, आजी, बापूय, आवय आनी भाव संजय हांचे वरीं तांच्या पावलार पावल दवरून राजीव गांधी राजकारणांत येवपाक तयार नाशिल्ले. तांकां विमान पायलट जावपाचो आशिल्लें. पूण तांचो भाव संजय हांच्या आकस्मिक मरणान तांकां राजकारणांत पावल दवरचें पडिल्लें. संजय विमान अपघातांत मरण पाविल्ले तेन्नां जायत्या कॉंग्रेसवाल्यांनी रिकामो जाल्लो जागो घेवंक राजीव गांधीक विनंती केल्ली.

संजय गांधीच्या मरणा उपरांत राजीव गांधी राजकारणांत पाविल्ले हे खरें आशिल्लें, तरूय पंतप्रधानमंत्री पद घेवंक तांकां आनीक एक गजाल कारण थारिल्ली. ती म्हळयार तांची आवय इंदिरा गांधींचे मरण आशिल्लीं. ३१ ऑक्टोंबर १९८४ वर्सा ताणीं प्रधानमंत्रीपदाचीं सुत्रां घेतिल्लीं. उपरांत कांय म्हयन्याभितर जाल्ले वेचणुकेंत ताणीं भौमत मेळयिल्लें. इंदिरा गांधीच्या मरणा उपरांत जनतेची सहानुभूती आनी भरघोस आदार तांकां ही वेचणूक जिखपाक कारण जाल्लें.

पंतप्रधान जातकीर ताणीं नवे विचार नवे तंत्र मुखार हाडिल्लें. जे उपरांत हेरांनीं आपणायिल्लें. ताणीं स्वतंत्र सोवियत युनियनाकडेन कबलात करुन भारतांत संगणक पावयिल्लो. श्रीलंका सरकार आनी एल. टी. टी. ई. (LTTE) कडल्या कबलातीचेर सय तांच्याच कार्यकाळांत भारतान केल्ली. त्या प्रमाण श्रीलंके कडेन चालू आशिल्लें LTTE चें झूज बंद जाल्लें. अशीं जायतीं म्हत्वाचीं पावलां ताणीं राजकारणांत घारिल्लीं.

१९८७ त ते श्रीलंकेक गेल्ले कडेन थंयच्या लश्करची मानवंदना घेतना एका लश्करी जवानाच्या हल्ल्यांतल्यान ते अजापीत रितीन वाटाविल्ले. हो हल्लो सिंहली आतंकवाद्यांच्या वतीन केल्लो. तांच्या जिणेच्या निमाण्या वर्सांनीं देश भ्रश्टाचार आनी हेर जायत्या आंदोलनांनीं गाजिल्लो. ताका लागून तांची भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेस १९८९ वर्साची वेचणूक हारिल्ली.

उपरांत १९९१ वर्साच्या २१ मेक पार्लामेंटांतले वेचणुकेचो प्रचार करपाक ते पेरुंबदर, तामिळनाडूंत गेल्ले तेन्नां LTTE च्या आतंकवाद्यांनीं आत्मघाती बॉम्ब घालून एका मुत्सद्दी नेत्याक लोपयिल्लो. त्याच वर्सा म्हळयार १९९१ त भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' तांकां मरणोत्तर दिटयिल्लो.



# सरदार वल्लभभाई पटेल (१८७५ - १९५०)



सरदार वल्लभभाई पटेलांचो जल्म ३१ ऑक्टोंब १८७५ वर्सा गुजरातेंतल्या नडियाद शारांत जाल्लो. तांचें नां झवेरभाय पटेल दवरिल्लें, पूण तांकां चडशे सगले सरदा म्हणूनच वळखताले. तो आवय - बापायचो चौथो भुरगं आशिल्लो. पंडित नेहरू आनी हेरां वरी ते बॅरिस्टर (वकील लंडनांत जाल्ले. ते भारतांत परत आयिल्ले तेन्ना स्वतःचे हुशारकायेन अहमदाबादेंतले ते एक हुशार वकील जाल्ले महात्मा गांधींनीं तांकां स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेवंक प्रेरीत केल्ले.

त्यावेळार खेडांत पारतंत्र्याविरुध्द मोटें झगडें जाल्लें. जायत्यो चळवळी जाल्यो सरदार पटेलाचे स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेवपाचें तें पयलें पावलआशिल्लें. गुजरातांतल्या त्या खेडा जिल्हयात उपरांत कडक दुकळ पडिल्लो. थंय पावस पडूं नाशिल्लो. त्यावेळार थंयच्या शेतकारांनीं कर भरपाविशीं सरकाराकडेन सवलत मागिल्ली. पूण सरकारान ती दिवपाक न्हयकार दिल्लो. ताका लागून मोटें विरोधी वातावरण तयार जाल्लें. हो विरोध करप्यांमदीं दुसरे तिसरे कोण नाशिल्ले, जाल्यार खुद्द महात्मा गांधी आशिल्ले. आनी सरदार पटेलांसारखे हेर नेते आशिल्ले. तांचो हो विरोधाचो संप जैतान सोपिल्लो. कर भरपाविशींची तांची मागणी सरकारान मान्य केल्ली.

त्या उपरांत गुजरातांतल्या बारडोली शारांत सत्याग्रह जाल्लो. त्या सत्याग्रहान सरदार पटेलांक एक व्हड नेते म्हणून मुखार हाडिल्ले. त्या सत्याग्रहाचो चडसो भार पटेलांनी स्वतःच्या भुजांर घेतिल्लो.

सरदार वल्लभभाई पटेल १९३७ सांत काँग्रेसींत गेल्ले. त्या उपरांत ते एक व्हड आनी फामाद नेते जाल्ले. कारण ते भायलीं आनी भितल्लीं अंतर्गत कामांय करताले. कांय जाण तांकां त्यावेळार पंडित जवाहरलाल नेहरूंचे प्रतिस्पर्धी समजताले. कारण ते फक्त काँग्रेसींत रावन सत्त्याखातीर झगडताले. पूण दोगांनींय - नेहरू आनी पटेलान - निमाणे मेरेन काँग्रेसींत आनी राजकारणांत एक बरबर सांगातान काम केल्लें.

भारत स्वतंत्र जाल्या उपरांत सरदार वल्लभभाई पटेल नेहरू सरकारांत उप-पंतप्रधान जाल्ले. पटेलान भारतांतलीं वेगळीं आशिल्लीं राज्यां एक जावचीं म्हणून खूब यत्न केल्ले. त्या खातीर तांकां (पोलादी पुरुष) लोखणाचे मनीस मानताले. गुपीत कारवायो आळाबंदा हाडपाखातीर एक स्वतंत्र विभाग ताणीं सरकारांत स्थापिल्लो. ज्या वरवीं राजकर्त्यांक गुपीत

बरो, कारवायो कळपाची सोय जाल्ली. तांच्या त्या म्हत्वाच्या निर्णयाक बरो मान फाव जाल्लो. ानी त्या प्रमाण  वेग वेगळयो नेमणुको जाल्यो. त्या वेळार भारतांतलीं तीन राज्यां एकत्री-रणाच्या निर्णयाखातीर तयार जावन पटेलाच्या त्या विचारांक तेंको दिवन सामील जाल्लीं. तें ळोवन सगले जाण पटेल राज्यांक खाकनवाळ करपाक उठल्यात असो बोवाळ घालूंक लागिल्ले. ण तांचें मत आनी विचार कोणाक खबर नाशिल्लें, वा कोणें जाणां जावपाची तकालस घेवंक ाशिल्ली.

सरदार वल्लभभाई पटेलांक १५ डिसेंबर १९५० वर्सा मरण आयिल्लें. ''भारत रत्न'' ो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार तांकां मरणोत्तर १९९१ वर्सा भेटयिल्लो.



* चुकी करीत घालयिल्लें जिवित मानाचें, चड उपेगाचें, न्हंय कांय करी नासतना घालयिल्या जिविता परस - स्वामी विवेकानंद

* तुमचे मदलो आत्मविश्वास वगडावं नाकात. तो आसल्यार तुमी संवसारांतली खंचीचय गजाल करपाक शकतात.   स्वामी विवेकानंद

* विद्या हें एक शस्त्र, जो मनीस शिलवान आसा तो त्या शस्त्रान एखाद्याची राखण करतलो, मात जो शिलवान ना तो विद्येच्या त्याच शस्त्रान दुसऱ्याचो घात करतलो. - डॉ. भिमराव आंबेडकर

# मोरारजी रणछोडजी देसाय (१८९६ - १९९५)



गांधीवादी विचारसरणीच्या मोरारजी रणछोडजी देसा हांचो जल्म २९ फेब्रुवारी १८९६ वर्सा जाल्लो. ते ८० वर्सां आसतना भारताचे पंतप्रधान जाल्ले. त्या वेळार पंतप्रधान प आनी तांच्या वयाविशीं भौसांत तशेंच वर्तमान पत्रांनीं खू वाकडे-तिकडे तर्क, चर्चा सुरु जाल्यो.त्यावेळार मोरारजीन सांगिल्लें ''हांव निकतोच वीस वर्सांचो जाला''. कारण तांचो जल्मदीस चार वर्सांनी एक खेपे २९ फेब्रुवारीक येता. ८० वर्सांक चारानी भागले जाल्यार २० वर्सां येतात. तितलेच खेप मोरारजीन जल्मदीस मनयिल्ले. सांगिल्ल्या प्रमाण प्रधानमंत्री पदाक न्याय दितना ताणीं तरनाट्यां भशेन कार्य केल्ले.

मोरारजी देसाय ल्हान आसतना कॉंग्रेसींत गेल्ले. १९३० वर्सा ब्रिटीशां विरुध्द जाल्या असहकार चळवळीवेळार ताणीं बेस बरें काम केल्लें. जायत्या स्वातंत्र्य सेनानीं भशेन मोरारजी देसायान स्वतःच्या जिणेचीं चडशीं वर्सां कादयेंत घालयिल्लीं.

१९५२ व्या वर्सा ते मुंबय राज्याचे मुखेलमंत्री म्हणून निवडून आयिल्ले. उपरांतच्या काळांत मुंबय राज्याचे दोन वांटे जावन महाराष्ट्र आनी गुजरात अशीं दोन राज्यां जाल्लीं. त्या उपरांत ताणीं स्वतःची राजकीय कारकीर्द केंद्रांत सुरु केल्ली.

पंडित जवाहरलाल नेहरूंच्या मरणा उपरांत मोरारजी देसाय प्रधानमंत्री जातले अशें जायते जाण म्हणटाले. पूण त्या वेळार भारतीय राजकारणाचे राजा म्हणपी - कामराज नदार-हांच्यो अपेक्षा,इच्छा वेगळ्यो आशिल्ल्यो. ताका लागून मोरारजी देसायांची प्रधानमंत्री जावपाची संद पयले फावट गेल्ली. दुसरे फावट लाल बहादूर शास्त्रींच्या मरणा उपरांत तांचो प्रधानमंत्री पदाचो जागो मोरारजी देसायांक मेळटा म्हणपाची सामकी खात्री जाल्ली, पूण कामराज हाणीं परत एक खेपे तांका संद दिनासतना श्रीमती इंदिरा गांधीक प्रधानमंत्री पदार वेंचिल्लीं. आनी मोरारजी देसायांक उपप्रधानमंत्री पद दिल्ले.

उपरांतच्या काळांत मोरारजी देसाय आनी कॉंग्रेसींतल्या जायत्या माजी नेत्यांक इंदीरा गांधीची तत्वां आवडूं नाशिल्ली. त्याखातीर १९६९ वर्सा ताणीं भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेसीकडेन काडीमोड घेतिल्ली, आनी जनता पार्टी नावांचो नवो पक्ष स्थापन केल्लो. तरूय इंदिरा गांधीच्या तत्वांचें जैत जाल्लें. हें १९७१ वर्साच्या वेचणुकेन दाखोवन दिल्लें. त्याच काळांत इंदिरा गांधी सरकारान राष्ट्रीय आणिबाणी जाहीर केल्ली, तेन्नां मोरारजी देसायांक धरून बंदखणींत घातिल्ले.

१९७९ वर्सा जाल्ल्या वेचणुकेंत इंदिरा गांधीच्या काँग्रेसीक टक्कर दिवपाक
ारारजींची जनता पार्टी यशस्वी थारिल्ली. त्याप्रमाण जनता पार्टीचे जैत जाल्लें, आनी तांच्या
ातांत सत्ता आयिल्ली. मोरारजी देसाय प्रधान मंत्री जाल्ले. पूण जनता पार्टीच्या अंतर्गत
ट्याक लागून तांकां प्रधानमंत्री पद वगडावचें पडिल्लें. जनता पार्टींत फूट पडटकीर तांका
धानमंत्री पदाचो राजीनामो दिवचो पडिल्लो. आनी उपपंतप्रधान आशिल्ले चरणसिंग
तप्रधान जाल्ले.

पंतप्रधानमंत्री पदावेल्यान देवतकीर ताणीं रोखडें राजकारण सोडिल्लें. भारताचो
र्वोच्च नागरी पुरस्कार ''भारत रत्न'' तांकां १९९१ वर्सा भेटयिल्लो. त्या उपरांत १० एप्रिल
९९५ व्या वर्सा ९९ वर्सांचेर ते हें जग सोडून गेल्ले.



* वेव्हारी मनीस जिविताक केन्ना बरें वा वायट म्हणना. तो अति आनंदाच्या वेळार आनी अति दुःखाच्या वेळार थीर आसता.
 – स्वामी विवेकानंद

* सगल्या सदगुणांमदी दयेक पयलें स्थान मेळटलें – महात्मा गांधी

* शरीर आत्म्याचों रावपाचो जागो जाल्यान, ते तिर्था सारखें पवित्र आसा – महात्मा गांधी

# मौलाना अबूल कलाम आझाद(१८८८-१९५८)



मौलाना अबूल कलाम आझाद हांचो जल्म १८८८ व्या वर्सांत मक्केच्या शारांत जाल्लो. मौलाना खैरुद्दीन हे तांचे बापूय. मौलानाचो पणजो अफगाणिस्तानांतल्यान भारतांत आयिल्लो. बाबरांच्या काळांत भारतांत येवन ताणीं मुसलमानांच्या नेत्यांचो आनी हेर मौलानांच्या जिविताचो अभ्यास केल्लो.

अबूल कलामांचे बापूय १८९० वर्सा कलकत्त्याक गेल्ले आनी थंय ताणीं तांचें शिक्षण तांच्या पारंपारीक पध्दतीन केल्लें. थंय अबूल कलाम अरेबियन, पारसी, फिलोसोफी, भुमिती, गणित आनी बीजगणित शिकिल्ले. सुरवेक घराकडेन तांच्या बापायन तांकां शिकयिल्ले. आनी उपरांत त्या त्या क्षेत्रांतले नामनेचे शिक्षक तांकां शिकोवपाक दवरिल्ले. इंग्लीश मात ते स्वतः आपुणच शिकिल्ले. ताणीं आझाद हे नांव स्वतःच्या सोयीखातीर आनी वेगळे वळखी खातीर दवरुन घेतिल्ले; तशेंच तांचे मुस्लीम परंपरेसावन स्वतंत्रतायेखातीर ते ह्या नावांचो उपेग करताले.

स्वातंत्र्याचे लडायेंत श्री श्यामसुंदर चक्रवर्ती - जे स्वतः एक क्रांतिकारी आशिल्ले - आझादांचे गुरू आशिल्ले. स्वातंत्र्य झूजांत वचपाची आवड दाखोवन ताणीं सगल्यांक अजापाचो धक्को दिल्लो. त्या वेळार क्रांतीकारी चळवळी फकत बिहार आनी बंगाला पुरत्यो मर्यादीत आशिल्ल्यो. मुसलमान भावांनी हे क्रांतिकारी चळवळींत सामील जावचें ह्या उद्देशान आझादान अल-हिलाल नावांचें वर्तमान पत्र १९१२ व्या वर्सा काडपाक सुरू केल्लें. उत्तर भारतांत आनी मुंबय ते चळवळीचीं गुपीत केंद्रा स्थापन करपाक आझादान आदार केल्लो.

ते काडटाले त्या खबरापत्राचो खप दोन वर्सा भितर २६ हजारांवयर पाविल्लो. तांची ही चळवळ पळोवन ब्रिटीश सरकारान त्या वर्तमान पत्राचेर पत्रकार कायद्याखाला बंदी घातिल्ली. ते पळोवन आझादान मुस्लीम समाजाक खिलाफत चळवळी खाला एकटांय केल्ले. ब्रिटीशांनीं तुर्कस्थान घेतिल्लें तें परत मेळोवपाची मोख तांच्या ह्या खिलाफत चळवळीची आशिल्ली.

गांधीजींच्या असहकार चळवळीक आझादान तेंको दिल्लो आनी १९२० व्या वर्सा ते भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेसींत सामील जाल्ले. १९२३ त खासा भरील्ल्या अधिवेशनाचे ते अध्यक्ष जाल्ले. आनी सगल्यांत ल्हान वयाचेर वेचून आयिल्ले कॉंग्रेस अध्यक्ष जावपाचो मान ताणीं

ळयिल्लो. त्या वेळार ते ३५ वर्सांचें आशिल्ले. गांधीजींच्या मिठाच्या सत्याग्रहांत ताणीं वांटो तिल्लो. तेन्ना १९३० त तांकां अटक करून मेरठ जेलींत देड वर्स दवरिल्ले.

स्वतंत्र भारताची विभागणी जावची न्हंय म्हणून ताणीं मर मेरेन लढो दिल्लो. ताणीं तःच्या बळग्यार ह्या विभागणींक विरोध केल्लो. पूण तांचो तो विरोध आर्थीक आनी फाव त्या ळग्याच्या उणावाक लागून तग धरुंक पावुनाशिल्लो. भारत स्वतंत्र जातकीर मौलाना अबूल लाम आझादांनीं पंडीत जवाहरलाल नेहरु सरकारांत १९४७ ते १९५८ मेरेन शिक्षण मंत्री हणून वावर पळयिल्लो.

१९५८ वर्साच्या ऑगस्ट म्हयन्यांत अबूल कलाम आझादांची प्राण ज्योत पालवल्ली. 'भारत रत्न'' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार तांकां मरणोत्तर १९९२ व्या वर्सा दिल्लो.



जगांत आनंदीत रावपाचो एकच उपाय आसा, तो म्हळयार स्वतःच्यो गरजो कमी करप - महात्मा गांधी

जे देव आमचे सारखेच आसात, पूण आमचे परस श्रेष्ठ आसात अशाच देवांची उपासना करपाक जाय - स्वामी विवेकानंद

दुसऱ्यांचो दुस्वास करप हो अधर्म, देवाचेर आनी स्वतःच्या आत्म्याचेर विश्वास दवरप हो धर्म - स्वामी विवेकानंद

# जहांगीर रतनजी दादाभाय टाटा( १९०४-१९९३)



जहांगीर रतनजी दादाभाय टाटा हांचो जल्म २९ जुलय १९०४ वर्सा पॅरीस देशांत जाल्लो. भारतीय नागरी विमान उड्डाणाचे तांकां बापूय मानताले. तांच्या बापायचें नांव रतनजी दादाभाय टाटा आनी आवयचें नांव सुनी सुझान आशिल्ले. रतनजी दादाभाय टाटा हे पारसी जातींचे वंशज अशिल्ले, जाल्यार जहांगीराची आवय सुझान ही फ्रांन्स देशाची नागरीक आशिल्ली.

जहांगीर रतनजी दादाभाय टाटांक लुईस ब्लेरीयोट हांच्या कडल्यान उत्तेजन मेळून ताणीं विमान उड्डाणाचें शिक्षण घेतिल्ले. भारत सरकारान पयलो विमान पायलटाचो परवानो जहांगीर रतनजी दादाभाय टाटांक दिल्लो. पायलट जाल्या उपरांत ताणीं व्यावसायीक तत्वाचेर विमानसेवा १९३२ त स्थापन केल्ली. तांचे विमान सेवेक टाटा विमानसेवा म्हणटाले. उपरांत १९६४ वर्सा ती भारतीय विमानसेवा (ॲर इंडिया) जाल्ली, जी भारताची कायदेशीर , रितसर आंतरराष्ट्रीय विमानसेवा जाल्ली.

जहांगीर रतनजी दादाभाय टाटा समुहान जायत्यो कंपन्यो उपरांतच्या काळांत काडिल्ल्यो. तांच्या ह्या कंपन्यानी जायते कारखाने घातिल्ले. जातूंत मुखेलपणान लोखंड, अभियात्रिकी आनी विद्युत हांचो आस्पाव आशिल्लो. एक फामाद आनी यशस्वी उद्येजक म्हूण तांची नामना आशिल्ली. ताणी स्वतःचो असो खात्रीशीर तरेन उंचेल्या पांवड्याचो दर्जो सांबाळून दवरिल्लो. ताणीं त्याखातीर केन्नां लांच दिली ना वा केन्नां लांच घेतिल्ली ना. तेचवरी स्वतःचो धंदो वाडीक लागपाखातीर, चड फायदो मेळोवपाखातीर वाकडो मार्ग/रस्तो आपणांवंक नाशिल्लो.

अशा ह्या व्यक्तीक जहांगीर रतनजी दादाभाय टाटांक १९९२ वर्सा भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार ''भारत रत्न'' तांच्या उद्येगीक आनी व्यावसायीक वावराखातीर भेटयिल्लो.

नोव्हेंबराच्या २९ तारखेक १९९३ वर्सा जिनेव्हा स्वीझरलेंडांत तांका मरण आयिल्लें.



# सत्यजीत रे (१९२२-१९९२)



भारतीय सिनेमाक सगल्यांत उंच तेंगशेर व्हरून पावोवपी सत्यजीत रे हांचो जल्म २ मे १९२२ वर्सा कलकत्त्यांत जाल्लो. तांचे बापूय सुकुमार रे बंगाली भाशेचे एक फामाद बरोवपी आशिल्ले. कलकत्त्याच्या प्रेसिडेंसी कॉलेजींत आनी रविंद्रनाथ टागोरांनी स्थापन केल्या विश्वभारती युनिव्हर्सिटींत ताणीं (शांतिनिकेतन) शिकप घेतिल्ले.

सुरवातेक सत्यजीत रे न चित्रकलेचे कलाकार म्हणून एका प्रसिध्दी माध्यमांतल्यान काम केल्ले. थंय जायरात एजन्सींत तांचें काम आसतालें. त्याच काळांत 'पथेर पांचाली' ही फामाद बंगाली कादंबरी तांच्या वाचनात आयिल्ली. ती तांकां खूब आवडिल्ली, ताणीं ताजेर एक सिनेमा काडपाचें थारायिल्ले. त्या कामा खातीर ताणीं स्वतःच्या कांय इश्टांची मदत घेतिल्ली, आनी तांकांच त्या सिनेमांत वेगवेगळ्यो भुमिका दिल्ल्यो. सिनेमाची आर्थिक बाजू ताणीं स्वतः सांबाळिल्ली. पूण तांकां तो सिनेमा पूर्ण करप शक्य जावक नाशिल्लें. उपरांत बंगाल सरकारान तो सिनेमा पूर्णत्वाक व्हरपाक तांकां रीण दिल्लें. तो सिनेमा जेन्नां थेटरांनी दाखयिल्लो तेन्ना प्रेक्षकांनीं ताका माथ्यार घेतिल्लो. 'पथेर पांचाली' अपेक्षे भायर यशस्वी जाल्लो. आर्थिक नदरेन आनी कलाकारी अशा दोनय वाटांनी सिनेमा उजू थारिल्लो. १९५६ तल्या कान्स चित्रपट महोत्सवात तो सिनेमा जैतिवंत जाल्लो. तेन्नाच भारतीय फिल्म उद्योगाक गरजेची आशिल्ली उभारी लाबिल्ली. सिनेमाचें झाड रुजवणाक लागिल्लें.

'कांचन गंगा' ही सत्यजीत रे न बरयिल्ली पयली चलचित्र फीत आशिल्ली. आनी पयली आसुनय ती पूर्ण रंगीत आशिल्ली. सत्यजीत रे न एक खेपे पश्चिमी सिनेमा (हॉलीवूड) काडिल्लो. स्वतः बरयिल्ल्या 'दि अलायन' नावांचो सिनेमा १९६७ त कोलंबिया पिक्चर्सा खाला तयार जाल्लो. बंगाली सिनेमा भायर ताणीं फकत दोन सिनेमा काडिल्ले. ते म्हळ्यार 'शतरंज के खिलाडी' आनी 'सदगती' दोनय सिनेमा जे मुळांत एक व्हड बरोवपी मुंशी प्रेमचंद हांचे आशिल्ले. तांचे कांय गाजिल्ले सिनेमा अपराजिता, अधुरा संसार, देवी, तीन कन्या, चारुलता आशिल्ले.

सत्यजीत रे हांकां ताणीं पुराय जीण सिनेमांक ओपिल्याखातीर १९८५ वर्सा दादा साहेब फाळके पुरस्कार भेटयिल्लो. भारतांतल्यान ऑस्कर मेळोवपी दोगां व्यक्ती मदले ते त्या काळावेले एक आशिल्ले. तांकां १९९२ वर्सा दिल्लो हो 'ऑस्कर पुरस्कार' जिणभरच्या वावराखातीर आशिल्लो.

भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' तांकां १९९२ वर्सा भेटयिल्लो. तांची प्राणज्योत त्याच वर्सा २३ एप्रिल १९९२ त पालवल्ली.



# डॉ. ए.पी.जे. अब्दूल कलाम (१९३१ - )



अबुल पकीर जैनुलाबदीन अब्दुल कलाम हांचो जल्म तामिळनाडूंत धनुष्कोडींत १५ ऑक्टोंबर १९३१ व्या वसा जाल्लो. भारताचो अणू कार्यक्रम चालीक लावंक तांचो मुखेल वांटो आसा. तांकां भारताचे क्षेपणास्त्र व्यक्ती म्हणटात.

विमान विद्येसंबंधीची इंजिनियरींगाची पदवी ताणीं मद्रासांतल्या इंस्टिट्यूट ऑफ टेक्नोलॉजींत पूर्ण केल्ली. त्या उपरांत ते भारताच्या डिफेन्स रिसर्च ॲन्ड डॅव्हलॉपमेंट ऑर्गनायझेशन(DRDO) संस्थेत रुजू जाल्ले. १९६२ वर्सा ते भारतीय अंतराळ सोद संस्थेंत इंडियन स्पेस रिसर्च ऑर्गनायझेशनांत (ISRO- Indian space research organisation) गेल्ले. थंय तांच्या पंगडान जायते सॅटेलायट अंतराळांत धाडून भारताक उन्नतीच्या मळार पावयिल्लो. भारताचें पयलें अंतराळ यान धाडपांत तांचो पालव मेळिल्लो. पयलें अंतराळ यान SLV-III यशस्वी तरेन जुलय १९८० वर्सा अंतराळांत धाडिल्ले.

भारतांतले ते एक व्हड शास्त्रज्ञ जावन आसात. १९८२ वर्सा ताणीं DRDO संस्थेंत संचालक पदार परत येवन क्षेपणास्त्रांचेर लक्ष केंद्रीत केलें. त्या प्रमाण भारताच्या अग्नी आनी पृथ्वी ह्या क्षेपणास्त्रांत प्रगती जाली. त्याच खातीर तांकां क्षेपणास्त्र व्यक्ती (Missile Man) म्हणटात. १९९२ वर्सा ते भारताच्या संरक्षण मंत्रालयाचे विज्ञानीक सल्लागार जाले. त्या उपरांत भारत सरकारांत मुखेल विज्ञानीक सल्लागार म्हूण ते काम पळयताले. तांच्या त्या कार्यकाळांत १९९८ वर्सा भारतान अणू चाचणी पोखरणांत यशस्वी रितीन घडोवन हाडिल्ली. हे चाचणीक पोखरण -II अशें नांव दिलें.

कुराण आनी गीता ह्या ग्रंथांविशीं तांचे विचार आनी हेर कार्य पळोवन डॉ. ए.पी. जे अब्दुल कलामांक १८ जुलय २००२ वर्सा भारताच्या सर्वोच्च पदार, भारताचे राष्ट्रपती म्हणून वेचले. तांच्या कार्यकाळांत ताणीं जायते कडेन भेटी दिवन नवे नवे आयाम दिवपी मार्गदर्शन केलें. गोयांतय ताणीं भेट दिली. ताणीं जायते साहित्य रचलां. १९८१ वर्सा तांकां पद्मभूषण ही पदवी दिली आनी पद्मविभूषण तांकां १९९० वर्सा भेटयली.

भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' तांका १९९७ वर्सा ते राष्ट्रपती जावचे पयलीं दिलो. आजय ते लोकांक मार्गदर्शन करपाचें कार्य करतात. जाणटे धरुन ल्हान भुरग्यांचे ते आवडटे जावन आसात.



# गुलजारीलाल नंदा (१८९८ - १९९८)



पंजाबातल्या सियालकोट प्रांतांत ४ जुलय १८९८ वर्सा गुलजारीलाल नंदाचो जल्म जाल्लो. दोन खेपे तांकां भारताचे पंतप्रधान जावपाची संद मेळिल्ली. पयले खेपे जवाहरलाल नेहरूंच्या मरणा उपरांत आनी दुसरे खेपे लाल बहादूर शास्त्रींच्या मरणा उपरांत ताणीं भारताचें पंतप्रधान पद सांबाळिल्लें.

लाहोर, आग्रा आनी अलाहाबादेंत ताणीं शिकप पुराय केल्ले. कामगारांच्या वेगवेगळ्या प्रश्नांचो सोद घेवपाचें कार्य ताणीं अलाहाबाद युनिव्हर्सिटींत केल्लें. उपरांत १९२१ सांत मुंबयच्या राष्ट्रीय कॉलेजीचे ते अर्थशास्त्राचे प्राध्यापक जाल्ले. गांधी तत्वांचे ते पूर्णपणान पालन करताले. भारताच्या स्वातंत्र्य चळवळींत १९२१ वर्सा ते सामील जाल्ले. १९२२ सांत अलाहाबाद गिरणी कामगार मंघाचे ते सचिव म्हणून निवडून आयिल्ले. त्या वेळार ताणीं केल्या सत्याग्रहाखातीर तांकां १९३२ सांत बंदखण फाव जाल्ली. उपरांत परत एक खेपे १९४२ ते १९४४ मेरेन ते कादयेंत आशिल्लें. भारतीय कॉंग्रेसींत रावन कामगारांचे प्रश्न सोडोवपाखातीर ताणीं भारतीय राष्ट्रीय ट्रेड युनियन कॉंग्रेस स्थापिल्ली. ताणीं जिणभर कामगार वर्गाखातीर कार्य केलें, आनी तांचे खातीर ते वावरत आशिल्ले.

१९३७ ते १९३९ मेरेन ते मुंबय सरकारांत कामगार आनी अबकारी खात्याचे पार्लामेंट सचिव आशिल्ले. उपरांत १९४६ ते १९५० मेरेन ते मुंबय सरकारांत कामगार मंत्री जाल्ले. १९४७ वर्सा जिनेवांत जाल्या आंतरराष्ट्रीय कामगार कॉन्फरन्सांत प्रतिनिधी म्हणून ताणीं वांटो घेतिल्लो. त्या कॉन्फरन्सांत 'स्वतंत्र संघटन कमिटी' चेर तांकां नियुक्त केल्ले. त्या वेळार ताणी जायत्या युरोपियन देशांनीं भोवन कामगार वर्गाच्यो घरगुती समस्या जाणा जावन घेतिल्ल्यो.

१९५० वर्सा ते भारताच्या प्लेनिंग कमिशनाचे उप-चेरमन जाल्ले. १९५१ वर्सा तांकां तेंच प्लेनिंग मंत्रीपद दिल्ले. त्या भायर तांकां शिपणावळ आनी वीज खात्याचो ताबो दिल्लो. १९५५ वर्सांत सिंगापुरांत प्लेन कंन्सल्टेटीव्ह कमिटी आनी १९५९ त आंतरराष्ट्रीय कामगार कॉन्फरन्सा मुखार गेल्या प्रतिनिधींचे नेतृत्व ताणीं केल्लें.

१९५७ तल्या वेचणुकां उपरांत गुलजारीलाल नंदांक केंद्रीय कामगार, रोजगार आनी येवजण मंत्रीपद दिल्लें. थंयच्यान ते परत एक खेपे येवजण आयोगाचे उपचेरमन जाल्ले. १९६२ वर्सा वेचणुको जाल्ल्यो , त्यावेळार पंडित नेहरून तांकां परत सरकारांत घेवन कामगार आनी

रोजगार खात्याचे मंत्री केल्ले. पंडित नेहरूंच्या मरणां उपरांत ताणीं प्रधानमंत्री पदाचो सोपृ घेतिल्लो. काळजीवाहू प्रधानमंत्री म्हणून ते म्हयन्याच्यानय उणो काळ अधिकारार राविल्ले उपरांत शास्त्री प्रधानमंत्री जाल्ले. तेन्नां त्या कार्यकाळांत ते ग्रहखात्याचे मंत्री आशिल्ले. आनं शास्त्रींच्या मरणा उपरांत परत एक खेपे ते काळजीवाहू प्रधानमंत्री जाल्ले.

गुलजारीलाल नंदा हांकां कट्टर गांधीवादी आनी सादे राहणीखातीर सगले मानताले जिणेच्या शेवटा मेरेन ते स्वतःच्या तत्वांक दसून राविल्ले. भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्का 'भारत रत्न' तांकां १९९७ वर्सा भेटयिल्लो. १५ जानेवारी १९९८ वर्सा ते ह्या जगाक सोडू गेल्ले.



* मनशाक ताज्या भितरल्या दिव्यत्वाची जाणीव करून दिवप आनी ताज्या जिवितांतल्या दर एका खिणाक तिजी अभिव्यक्ती कशी करपाक मेळटली हें समजावप होच आदर्श - स्वामी विवेकानंद

* सगल्यो शक्ती तुमचे भितरच आसात हाजेर विश्वास दवरात. तुमी दुबळे आसात हाजेर केन्नाच विश्वास दवरूं नाकात. उबे रावात आनी तुमचे भितरले हें दिव्यत्व प्रकार करात - स्वामी विवेकानंद

* तुमी देवाचेर विश्वास दवरपाक शकनात, जो मेरेन तुमी स्वतःचेर विश्वास दवरिनात - स्वामी विवेकानंद

# अरूणा असफ अली (१९०९ - १९९६)



हरियाणांतल्या कालका हांगा अरूणा असफ अली हांचो जल्म १९०९ वर्सा जाल्लो. भारत छोडो चळवळींत सहभागी जाल्यांमदीं आनी व्हड स्वातंत्र्य सैनिकांच्या धाडशी व्यक्तीमत्वांमदीं अरूणा अलीक व्हड मान आशिल्लो. भारत छोडो चळवळींतली सगल्यांत धाडशी बायल कोण आसत तर ती अरूणा असफ अली आशिल्ली. मुळांत ती बंगालांतल्या गांगुली फामिलींत ब्राह्मो समाजांतली आशिल्ली. फामाद कायदे पंडीत आनी स्वातंत्र्य सैनिक असफ अली हांचेकडेन ती एका कॉनव्हेंशनांत लग्न जाल्ली.

तिणे १९३० च्या काळासावन स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतिल्लो. वेगवेगळे कडेन एक एकल्यान ब्रिटीशांविरूध्द केल्या सत्याग्रहांत तिणे वांटो घेतिल्लो. १९४१ वर्सा तिका अटक केल्ली. १९४२ वर्सा भारत छोडो चळवळ सुरू जाल्ली. ही चळवळ तिजी जीण बदलपी थारील्ली. तिणें तेन्नाच्या पोलिसांक वास लागूंक दिनासतना एक येवजण आखिल्ली आनी त्याप्रमाण तिणें मुंबय राष्ट्रीय झेंडो सार्वजनीक जाग्यार हुबयिल्लो. त्या घटने उपरांत सगल्या मुखेल नेत्यांक अटक जाल्ली. तेन्ना ती भुर्मागत गेल्ली. ती चळवळ फुडें व्हरपाक भुमिगत रावन तिणें सगल्यांक मार्गदर्शन केल्लें, चळवळींतलो उणो जाल्लो नेट परत उबो केल्लो. पोलिसांक चुकोवन तांकां कळनासतना कलकत्ता, मुंबय, दिल्ली हांगां वचून तिणे चळवळीक मार्गदर्शन केल्लें. त्यावेळार युवकांच्या चळवळींची ती म्हळ्यार एक स्पुर्तीस्थान आशिल्ली.

ती कशीच हाताक सापडना म्हणून ब्रिटीश सरकारान तिजे अटकेखातीर पांच हजारांचें इनाम जाहीर केल्लें. १९४६ त तिजे आडचें अटक वॉरंट निर्शेवन काडून वडयिल्लें, तो मेरेन ती भुमिगत राविल्ली. भुमिगत जाल्या काळांत तिणे कॉंग्रेसीखातीर एका म्हयनाळ्याचें संपादन केल्लें. त्या म्हयनाळ्याचें नांव आशिल्लें 'इंन्कलाब'. डॉ. राम मनोहर लोहिया त्या म्हयनाळ्याचे सहसंपादक आशिल्ले.

१९४७ वर्सा अरुणा दिल्ली प्रदेश कॉंग्रेसीची अध्यक्षा जाल्ली. रोखडीच १९४८ त तिणे कॉंग्रेस सोडिल्ली, आनी सामाजीक ग्रूपांत सामील जाल्ली. तिणे कामगार चळवळींत समुग्ल्यान वांटो घेवन काम केल्लें. १९५५ वर्सा ती भारतीय कम्युनिस्ट पार्टींत गेल्ली. तिका केंद्रीय कमिटींत वांगडी करुन घेतिल्ली आनी अखिल भारतीय ट्रेड युनियन कॉंग्रेसीची उपाध्यक्षा केल्ली. १९५८ वर्सा तिणे कम्युनिस्ट पार्टी सोडिल्ली. त्याच वर्सा ती दिल्लीची मेयर

म्हूण निवडून आयिल्ली. १९६४ वर्सा ती परत काँग्रेसींत गेल्ली. पूण राजकारणांत त्याउपरांत तिणे चड वांटो घेवंक नाशिल्लो.

संपूर्ण जिणेंत तिका जायते पुरस्कार मेळिल्ले. तातूंत शांतिखातीरचें लेनिन इनाम आंतरराष्ट्रीय कार्याखातीर जवाहरलाल पुरस्कार हांचो आस्पाव जाता. तिज्या घरकाराक - असफ अलीक १९५३ वर्सा मरण आयिल्लें. आनी ती २९ जुलय १९९६ दिसा अंतरिल्ली. १९९७ वर्सा तिका मरणोत्तर सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' भेटयिल्लो.



* मनशाचो सगल्यांत व्हडलो दुस्मान म्हळयार अंधश्रध्दा.
  - स्वामी विवेकानंद

* आमचे भोवतणी कितें चल्लां ताजेकडेन लक्ष दिवंक ना हेंच आमच्या भारतीय मनाचे अधोगतीचें एक व्हडलें कारण, निदान हाजे मुखार हें टाकुया. - स्वामी विवेकानंद

* परिवर्तनाक लागून इत्साशक्ती केन्नाच बळिश्ट जायना, उरफाटी ती दुबळी जावन गुलाम जाता - स्वामी विवेकानंद

# एम्.एस्.सुब्बालक्ष्मी (१९१६ - २००५)



मूळ संगीत घराण्यांत १६ सप्टेंबर १९१६ त यम्. यस्. सुब्बालक्ष्मींचो जल्म जाल्लो. तामिळनाडूच्या मदुराय शारांत संगीत कलाकार घराब्यांत तिजो जल्म जाल्लो. घरांत संगितीक वातावरण आशिल्ल्यान ल्हानपणार तिणे गावप सुरू केल्लें. अवघ्या १० वर्सांची आसतना तिजो पयलो आल्बम उजवाडा आयिल्लो. सेमानगुडी श्रीनिवास अय्यर हे तिजे कर्नाटक शास्त्रीय संगिताचे गुरू आशिल्ले. जाल्यार हिंदुस्थानी शास्त्रीय संगिताचे गुरु आशिल्ले, पंडित नारायणराव व्यास. दक्षिण भारतांत चडशा देवळांनीं एम्. एस्. सुब्बालक्ष्मीन गायिल्लें 'व्यंकटेश सुप्रभातम्' सकाळच्या वेळार लायिल्लें आयकूंक मेळटा, चडशें गोंय सोडून. डी वा कॅसेटीच्या रूपांत हें स्तोत्र आसा.

वयाच्या २० व्या वर्सा स्वातंत्र्य सैनिक सदाशिवम् हांचेकडेन तिजी वळख जाल्ली. नी रोखडोच तार्णी लग्न जावपाचो निर्णय घेवन लग्न जाल्लीं. तांचों घर संसार ५० वर्सा ल्लो. पूण तांकां अपत्य जावंक नाशिल्लें. सदाशिवमाच्या सल्यान म्हणात वा एम्.एस्. ब्बालक्ष्मीच्या इत्सेन ती अभिनयाच्या क्षेत्रांत गेल्ली. फिल्मी अभिनयाच्या क्षेत्रांत ती बरीच माद जाल्ली. १९४५ वर्सा 'भक्त मीरा' ह्या सिनेमांतली तिजी भुमिका खूब गाजिल्ली. मिरेचे मिकेंत तिणें गायिल्लीं भजनां आजय मोटे आवडीन आनी उमेदीन लोक आयकतात.

कार्यक्रमाच्या निमतान जायत्या भायल्या देशांनीं ती भोविल्ली. मोट्या मोट्या थेटरांनीं नीं जगभरच्या व्हड - व्हड नेत्यां मुखार स्वत:ची कला सादर करपाचो मान तिका मेळिल्लो. रताची सांस्कृतिक क्षेत्राची राजदूत अशें तिका म्हणटाले. महात्मा गांधी आनी पंडित हरलाल नेहरू लेगीत तिज्या आवाजाचे पिशे जाल्ले. गांधीजीन एकदां म्हणिल्लें, ब्बालक्ष्मीन गायिल्ली भजनां आयकून हांव आनंदीत जालां आनी उपरांत तीं भजनां हेरांनीं यिल्ली आयकल्यांत'.

जायते पुरस्कार, भौमान एम्. एस्. सुब्बालक्ष्मींक मोदीत आयिल्ले. तांचे मदीं १९५४ र्सा पद्मभूषण पुरस्कार, १९६८ वर्सा संगीत कलानिधी, १९७४ रांत मेगसेसे पुरस्कार, १९७५ पद्मविभुषण आनी १९९० वर्सा राष्ट्रीय एकात्मतेखातीर इंदिरा गांधी पुरस्कार तांचे मेरेन विल्ले. तांचे घरकार सदाशिवम् १९९७ वर्सा सोपिल्ले. त्या उपरांत सुब्बालक्ष्मीन सार्वजनीक र्यक्रम करपाचे बंद केल्ले. तिणे स्वत:चे जोडीतली चडशी आस्पत आनी इतर येणावळ र्मादाय संस्थांक दान केल्ली.

भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' तांकां सोदीत १९९८ वर्सा तांचे मेरेन विल्लो. ११ डिसेंबर २००५ वर्सा ती हें जग आनी सांस्कृतीक व्याप सोडून कायमची गेल्ली.



# चिदंबरम सुब्रह्मण्यम (१९१० - २०००)



तामिळनाडूच्या कोइंबतूरा लागीं आशिल्ल्या पोला[illegible] हांगा चिदंबरम सुब्रह्मण्यम हांचो जल्म जाल्लो. तांचें मुळा[illegible] शिकप पोलाची हांगाच जाल्लें. उपरांत ते कायद्याचें शिक[illegible] घेवपाक चेन्नय गेल्ले. इंदिरा गांधी सरकारांत ते अर्थमं[illegible] आशिल्ले. त्या वेळातल्या हरीत क्रांतिचे ते जनक आशिल्ले[illegible] तांकां सी.सुब्रह्मण्यम वा सी.यस. अशें म्हणटाले.

स्वातंत्र्य चळवळींत कार्य करतासतना परत पर[illegible] बंदखणींत वचपांत तांचो चडसो काळ गेल्लो. तशेंच तांकां पर[illegible] परत अटक जाताली. स्वातंत्र्याची चळवळ चलता आसतन[illegible] तांकां परत परत अटक करुन बंदखणींत घालताले[illegible] बंदखणींतल्यान भायर येतकीर ते परत चळवळींत सहभागी जाताले. आनी ब्रिटीश तांकां पर[illegible] अटक करुन बंदखणींत घालताले अशें चलतालें.

१९५२ ते १९६२ ह्या धा वर्साच्या काळांत ते राजाजींचे उजवे हात जावन वावुरिल्ले[illegible] त्या वेळार ताणीं मद्रास राज्याचें शिक्षण, कायदो आनी अर्थमंत्रीपद सांबाळिल्लें. १९६[illegible] वर्सासावन फुडें ते केंद्रीय मंत्रीमंडळात गेल्ले. थंय ताणीं आनीक धा वर्सांवयर मंत्रीप[illegible] सांबाळिल्लें. केंद्रात ताणी खाद्य आनी शेतकीमंत्री पदा बरबर अर्थ, संरक्षण येवजण आनी उद्योग[illegible] विकास मंत्रालयाचो ताबो घेतिल्लो.

१९६९ वर्सा काँग्रेसींत फूट पडिल्ली तेन्नां सुब्रह्मण्यम इंदिरा गांधी बरबर राविल्ले. त्यावेळार ताणीं प्रधानमंत्री पद सांबाळचें अशें इंदिरा गांधीचें मत आशिल्लें, कारण तिका स्वत[illegible] खातीर काँग्रेसींत फूट पडिल्याचें जाणवल्लें. पूण ताणीं पंतप्रधानमंत्री पद घेवंनाशिल्लें. त्या[illegible] फुटीच्या संदर्भातच १९७८ वर्सा सुब्रह्मण्यमानीं इंदिरा गांधींचो सांगात सोडपाचें थारायिल्लें. त्याप्रमाण तिका सोडून ते के. ब्रह्मानंद रेड्डीच्या सांगाताक राविल्ले.

१९९२ वर्सा तांकां महाराष्ट्र राज्याच्या राज्यपाल पदार नियुक्त केले. त्याच काळांत पंतप्रधान श्री. पी. व्ही. नरसिंहराव हांच्या सरकाराच्या कामकाजाचेर ताणीं भाश्य केल्लें. त्याखातीर तांकां राज्यपाल पदाचो राजीनामो दिवचो पडिल्लो. पदाचो राजीनामो दिवन लेगीत ताणीं सामाजीक कार्य करपाचें सोडूं नाशिल्लें. सार्वजनीक कार्यांत ताणीं सतत वांटो घेतिल्लो. तेचवरी जायत्या संस्थांमदीं वावरून कार्य केल्लें. भारतीय विद्या भवन आनी रामकृष्ण मिशनाचे ते मुखेली जाल्ले.

तांच्या ह्या सगल्या कार्याची दखल घेवन १९९८ वर्सा तांकां भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' भेटयिल्लो. उपरांत ७ नोव्हेंबर २००० वर्सा ते ह्या संवसाराक अंतरिल्ले.



# जयप्रकाश नारायण (१९०२ - १९७९)



बिहार राज्यांत ११ ऑक्टोंबर १९०२ वर्सा जयप्रकाश नारायण हांचो जल्म जाल्लो. तांकां लोकनायक वा जे.पी. म्हणून चड वळखताले. तांचें उंचेले शिकप अमेरिकेंत जाल्लें. राजकारण आनी समाजकारणांत ताणीं उंचेलें शिक्षण घेतिल्लें आनी मार्क्सवाद आपणायिल्लो. अमेरिकेंतल्यान भारतांत परत येवन भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेसींत ते १९२९ वर्सा सामील जाल्ले.

भारत छोडो चळवळींत ताणीं राष्ट्राखातीर चौकस बुध्दी वापरिल्ली. पूण ती थोड्यांक त्यावेळार उस्तुर्‍यां गेल्ली. १९३२ वर्सा तांकां नाशिकांतले बंदखणींत घातिल्ले. थंय तांची भेट राम मनोहर लोहिया, मिनू मिसानी, अच्यूत पटवर्धन, अशोक हता, युसूफ देसाय आनी हेर राष्ट्रीय नेत्यांकडेन जाल्ली. तांचे सुटके उपरांत ताणीं कॉंग्रेस ोशेलिश्ट नावांची पार्टी काडून डाव्या आघाडीचो एक पंगड कॉंग्रेसींत स्थापन केल्लो. देश वतंत्र जातकीर हो पंगड कॉंग्रेसींतल्यान भायर सरिल्लो.

विनोबा भावेच्या भूदान चळवळींत ह्या लोकनायकान स्वतःचें खूब योगदान आनी वेळ दिल्लो. जेपींक ते मार्क्सिस्ट जाल्यान गांधीजींचीं तत्वां मान्य नाशिल्लीं. तरूय ताणीं महात्मा ांधीजींचें मन जिखिल्लें. उपरांत जे.पी. अहिंसा आनी सत्याग्रहाचे व्हड प्रचारक जाल्ले. पंडित हरूंच्या तत्वां आनी नेमा प्रमाण ते क्वचित, चुकून वागिल्ले. १९६० त ताणीं गरीब आनी ेतकर्‍यां खातीर बिहारांत चळवळ चलयिल्ली आनी राज्य सरकाराचो राजीनामो मागिल्लो.

१९७५ वर्सा अलाहाबाद हायकोर्टान इंदिरा गांधी विरोधांत निर्णय दिल्लो. त्या वेळार तिका राजीनामो दी म्हणपी नेत्यांमदीं जयप्रकाश नारायण आशिल्ले. हो इंदिरा गांधीखातीर व्हड पको आशिल्लो. जे. पी.न आनी हेरांनीं राजीनामो मागिना बरबर इंदिरा गांधीनीं देशांत खवडी आणिबाणी लायिल्ली. आनी पयली अटक जेपींक केल्ली. तांका चंदीगडाच्या जेलींत ातिल्ले. त्याच काळांत बिहारांत व्हड हुवार आयिल्लो. तेन्नां ताणीं हुवारांत सापडिल्यां खातीर ावर करपाक स्वतःक जामिनाचेर सोडचे अशी विनंती केल्ली. पूण तांची ती विनंती मान्य करुं ाशिल्ली. त्या उपरांत अकस्मात तांची प्रकृती बिघडिल्ली . त्या बरबर तांकां १५ दिसांखातीर ोडिल्ले. तांचें मुत्राशय बिघडिल्लें. तांचेर जायते उपचार, उपाय केल्ले. पूण ते बरे जावंक ाशिल्ले. निमाणे मेरेन ते अतिदक्षता विभागांत आशिल्ले.

जनता पार्टी निर्माण करपांत जेपींचेच विचार आशिल्ले. तांच्या विचारांनी आनी त्नान जनता पार्टी तयार जाल्ली. आनी आणिबाणी उपरांत जनता पार्टी अधिकारार ायिल्ली. जेपींची प्रकृती इल्ली इल्ली खूबच वायट जायत गेल्ली. आनी ८ ऑक्टोंबर १९७९ र्सा तांचो देहांत जाल्लो. 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार तांकां मरणोत्तर १९९८ वर्सा टयिल्लो.



# प्रो. अमर्त्य कुमार सेन (१९३३-)



प्रतिष्ठेचो नोबेल पुरस्कार ज्या भारतियांक मेवळ तांचेपैकी अमर्त्य कुमार सेन हे एक आसात. भारताची आर्थिक घडी सुरळीत चलची आनी उत्कर्षाचो पावंडो मुखार चलचो म्हणून काम केल्या अमर्त्यकुमार सेनांचो जल्म ३ नोव्हेंबर १९३३ साव्या वर्सा जाल्लो.

कलकत्ता आनी दिल्ली शारांनीं ताणीं शिक्षणीक कारकिर्द सुरु केल्ली. १९५६ वर्सा ताणीं केंब्रीजच्या ट्रीनिटी कॉलेजींतल्यान बी.ए. केल्ली. आनी पी. एच.डी. १९५९ वर्सा पुरी केल्ली. त्या उपरांत ताणीं जायत्या युनिव्हर्सिटींनी इकोनोमिक्स शिकयिल्लें. तातूंत कलकत्ता युनिव्हर्सिटी, जादवपूर युनिव्हर्सिटी, ऑक्सफोर्ड, लंडन स्कूल ऑफ इकोनोमिक्स, हॉर्वड हांचो आस्पाव आसा.

ताणीं इकोनोमिक्स विशयाचेर जायतीं पुस्तकां बरयिल्ली आसात. इकोनोमिक्स विशयाच्या विद्यार्थ्यांक तांची ही पुस्तकां आयज उपेगाचीं थारतात. तांच्या ह्या पुस्तकांपैकी 'पोवर्टी ॲन्ड फेमिन्स : ॲन येसे ऑन येनटायटलमेंट ॲण्ड डेप्रीवेशन '(Poverty and Famines: An essay on entitlememt and deprivation) हें चड लोकप्रिय जालां. ह्या पुस्तकांत ताणीं बायलांच्या भूकमारीचेर, तांच्या उण्या खाणां - जेवणांचेर उजवाड घातिल्लो. त्या खातीर उप्रासपी प्रश्नाचेर खोलायेन बरयलां. तांकां दितात ते समान तरेन वांटप जायना म्हणून ताणीं तें वांटपाच्या पध्दतीचेर उजवाड घातला. खाणां-जेवणां आनी हेर सुखसोयी वाटूटना भेदभाव जाता ताजेर भाश्य केलां. ह्या विशयाचेर ताणीं जायतें संशोधन करुन पुस्तकां बरयल्यांत.

तांचें कार्य एका थारावीक भागापुरतें मर्यादीत नाशिल्लें. वा थारावीक येवजण्यापुरतें मर्यादीत नाशिल्ले, तर तें स्वतंत्र राज्य प्रणालीचेर चड उजवाड घालतालें. हाजी सत्यता युनायटेड नेशन्स डॅव्हलॉपमेंट प्रोग्राम वतीन उजवाडायिल्ल्या 'ह्यूमन डॅव्हलॉपमेंट रिपोर्टान' खरी थारल्या. तांका नॅशनल ह्युमेनिटी मेडल (National Humanity Medal) २०११ जाहीर केल्ले आनी १३ डिसेंबर २०१२ दिसा भेटयले.

अमर्त्यकुमार सेन हाणीं जगभरांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्यान जायतीं इनामां मेळयल्यांत. ह्या सगल्या पुरस्कारांचेर १९९८ वर्सा अर्थशास्त्रांत दिल्या योगदानाखातीर तांकां मेळिल्या नोबेल पुरस्कारान कळस चडयिल्लो. १९९९ वर्सा सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' तांचे मेरेन पावयिल्लो.



# गोपीनाथ बारडोलोय (१८९०-१९५०)



उत्तर - पूर्व प्रांतांतल्यान फक्त एकल्याक भारत रत्न मेळिल्लें. ते जावन आशिल्ले गोपीनाथ बारडोलोय. तांचो जल्म ६ जून १८९० वर्सा आसामांत जाल्लो. गोपीनाथ बारडोलोय हे भारतीय स्वातंत्र्य चळवळीचे जनक आशिल्ले. भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसीच्या सुरवातीच्या काळांतले ते म्हळ्यार एक खांबो आशिल्ले. तांचे बापूय डॉक्टर आशिल्ले. बापायच्या सान्निध्यांत रावन सामाजीक बांधीलकी आनी मनीस जातीच्यो मुळाव्यो गरजो हांचेविशीं गोपीनाथांक जाण आयिल्ली. गुवाहाटीच्या कॉटन कॉलेजींत ताणीं शिक्षण घेवन कलकत्त्याच्या युनिव्हर्सिटींतल्यान प्रवेश परीक्षा पास केल्ली.

गोपीनाथ विद्यार्थी दशेंत आसतना सर सुरेंद्रनाथ बॅनर्जी, सर जादूनाथ सरकार , जे. सी. बोस आनी रवींद्रनाथ टागोर हांच्या सारख्या व्हड व्यक्तींच्या प्रभावान भाराविल्ले. गोपीनाथ बारडोलोय हांच्या धैर्याक आनी यत्नांक लागून भारताचो उत्तरपूर्व प्रांत वेगळे राजवटी सावन अबाधीत आनी सुरक्षीत उरल्लो. ही त्या काळांतली एक इतियासीक घडणूक जावन आसा. त्या घडणुके फाटल्यान ब्रिटीश सरकाराच्या कॅबिनेटीचो एक मोटो प्लान आशिल्लो ... जो ताणीं घडोवन हाडिल्लो. ताज्या मुळावणाक मुस्लीम लीग आनी काँग्रेसीचो आदार आशिल्लो. तातुंतलो ब्रिटीशांचो मूळ कट गोपीनाथ बारडोलोय हांकां समजल्लो. तो म्हळ्यार ब्रिटीश सरकार, काँग्रेस आनी मुस्लीमां मदीं फूट घालून स्वतः राज्य चलोवंक सोदतात हें गोपीनाथ ताणां जाल्लें. त्याविशींची खबर ताणीं गांधीजींच्या कानार घातिल्ली. तेन्ना गांधीजीक त्या कट-कारस्थानाचो माग लागिल्लो. ताणीं गोपीनाथांक ब्रिटीश आनी तांच्या कॅबिनेट मिशनाच्या विरुध्द उठाव करपाचो आदेश दिल्लो. पंडित जवाहरलाल नेहरू आनी सरदार वल्लभभाई हांकां आसामांतल्या जनतेक गोपीनाथ बारडोलोयक मदत करपाक गांधीजींनी सांगिल्लें. गरज पडल्यार आसाम - काँग्रेसींत आनी भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेसींत फूट पडल्यार उपकारता असो पवित्रो बारडोलोय हाणीं घेतिल्लो.

गोपीनाथाच्या अहिंसक मार्गान केल्या चळवळीन ब्रिटींशांक कॅबिनेट मिशन सोडून दिवचें पडिल्लें. त्याच खातीर भारतांतलें आसाम वाटाविल्लें, तेच बरबर संपूर्ण उत्तर-पूर्व प्रांत-भारता सावन वेगळे राज्य प्रणाली सावन शाबूत उरिल्लो.

भारत स्वतंत्र जातकीर आसाम भारतांतलें एक राज्य जाल्लें; आनी गोपीनाथ बारडोलोय आसाम राज्याचे पयले मुख्यमंत्री म्हणून निवडून आयिल्ले. त्या वेळार आसामांत कसल्योच गरजेच्यो मुळाव्यो सुखसोयी नाशिल्ल्यो. गोपीनाथांनीं तांच्या कारकिर्दीन गरजेच्यो लागल्यो सुखसोयी तयार करपाकडेन फाव तशें लक्ष दिवपाचें आश्वासन दिल्लें. ... ती



धर्माक एकठांय हाडून तांकां स्वतःच्या अस्तित्वाची जाण घडोवंक बारडोलोयन नेटाचे यत्न केल्ले. श्रीमंत शेतकार आनी रोवप्यांचेर टॅक्स (कर) बसोवपी पुराय भारतांतल्या राज्य सरकारांपैकीं ते पयले मुखेलमंत्री आशिल्ले. जाका लागून इतर सुखमोर्यी तयार करपांत तांकां आदार जाल्लो.

जेन्नां ते सरकारांत नाशिल्ले, तांचेर कसल्योच जबाबदाऱ्यो नाशिल्ल्यो, त्या वेळार ते एका आप वावुरप्या वरवीं वागिल्ले. ते शाळा मास्तर आनी कॉलेजीचे प्रोफेसर जाल्ले. एक खाजगी कॉलेज ताणीं स्थापन केल्ले. आज तें गुवाहाटींतलें नावांजतें कॉलेज म्हणून नांव जोडून आसा. अहिंसक आनी गांधी तत्वांचे ते एक खरे कॉंग्रेसमन आशिल्ले.

१९५० वर्साच्या ऑगस्ट म्हयन्यांत तांकां मरण आयिल्ले. आनी सुमार ४९ वर्सां उपरांत म्हळ्यार १९९९ वर्सा मरणोत्तर तांकां भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' दिल्लो.



* तुज्या जिवितांत घडटा तें सगळें तुमकां बदलपा खातीर, ताचो स्विकार करात - स्वामी विवेकानंद

* भूत आनी भविष्य हें मनांत आसता, सध्या कितें आसा तेंच खरें सत्य - स्वामी विवेकानंद

* संवसारांत बऱ्यो गजाली आमी करतात, तेन्ना आमकां जाता तीच खरी खोस - सर्वपल्ली राधाकृष्णन्

# पंडित रवि शंकर (१९२० - २०१२)



रवि शंकर हांकां ल्हान आसतना 'बू' ह्या टोपण नावान वळखताले. तांचें मूळ गांव बांगला देशांतल्या नडाईल जिल्ल्यांत आसा. बापूय श्याम शंकर विव्दान आनी कायदेतज्ञ आशिल्ले. बापायचे गैरहजेरेत आवय हेमांगिनी हिणे तांकां वाडयिल्लो. रविशंकर म्हणल्यार सतारीचे सरताज. अशा पंडित रवि शंकरांचो जल्म ७ एप्रिल १९२० वर्सा वाराणसी हांगा बंगाली ब्राह्मण कुटूंबात जाल्लो. तार वाद्य म्हळ्यार रविशंकर अशे मानताले. तंतू वाद्यांत आंतरराष्ट्रीय किर्ती मेळोवपी ते पयले भारतीय नामनेचे वादक आशिल्ले.जितलो मोग तांकां भारतीयां कडल्यान मेळिल्लो तितलीच लोकप्रियता तांकां विदेशांत मेळिल्ली. त्या खातीर भारताचे आदले राष्ट्रपती डॉ. धाकृष्णन् हाणीं म्हणिल्लें 'पंडितजी भारतीय संस्कृतिचे राजदूत आसात'. तांचे पुराय नांव वेंद्र शंकर चौधरी.

पंडित रवि शंकर हांचो व्हडलो भाव उदय शंकर हे संवसारीक नामनेचे नर्तक आशिल्ले. ान आसतना रविशंकरांक तांच्या भावाच्या पॅरीसांतल्या नाच पंगडांत सामील जावपाक ळिल्लें. पिरायेच्या १६ व्या वर्सा ते नाच कलेंत प्रवीण जाल्ले. उदय शंकर हांच्या वाद्य वृंदाचें योजन आनी संचलन नामनेचे सरोद वादक उस्ताद अल्लाउद्दीन खाँ करताले. रवि शंकराचे तार शिकपाचे जिज्ञासूपण पळोवन अल्लाउद्दीन खाँ हाणीं तांकां सतार वादनाचें प्रशिक्षण वपाक सुरवात केल्ली. सतार शिकपा खातीर रवि शंकर गुरूच्या घरा महिसराक रावपाक गेल्ले. रणे गुरू-शिश्य परंपरे प्रमाण तांचें सतार शिक्षण जाल्लें.

खाजगी कार्यावळी, आकाशवाणी आनी संगीत परिशदांतल्यान केल्या कलेच्या दरीकरणाक लागून रवि शंकरांचें सगळेकडेन नांव जाल्लें. सतार वादनाचो गायकीकडेन प्रतीम संयोग घडोवन ताणीं स्वतःची नवी शैली तयार केल्ली. दिल्ली आकाशवाणीन विदेश वा विभागांत भारतीय संगिता खातीर तांची नेमणूक केल्ली. स्वतःच्या कार्यावळींतल्यान देशी श्रोत्यांक उच्च दर्जाचें संगीत आयकुवपाक दिवन रवि शंकर हाणीं तांका भारतीय संगिता डेन आकर्शित केल्ले. ताका लागून जायते विदेशी अभ्यासक सतार शिकपाक भारतांत यिल्ले.

रवि शंकर हाणी चित्रपट सळार लेगीत दोळे दिपकावपी कामगिरी केल्ली आसा. यजीत रे हांच्या जायत्या सिनेमांक ताणीं संगीत दिल्ले. नामनेचे पश्चिमात्य व्हायोलीन वादक दी मेन्युहीन रवि शंकर हांच्या सतार वादना कडेन आकर्शित जाल्ले. ताणीं तांचेकडल्यान तार वादनाचें शिक्षण घेतिल्लें. मुखार ह्या दोगांनीं मेळून भारतीय पाश्चिमात्य संगिताचो लाफ घडोवन हाडपी संगीत रचना केल्यो.

''डिस्कव्हरी ऑफ इंडिया'' ह्या पंडित जवाहरलाल नेहरू हांच्या पुस्तकाचेर आदारि नाच - नाटिका ताणीं तयार केल्ली. ती खूब लोकप्रिय जाल्ली. १९५८ वर्सा पॅरीसांत जाल्य 'युनेस्को 'संगीत महोत्सवांत रवि शंकर वाँटेकार जाल्ले. लॉस एंजलिस हांगा १९६७ वम तांकां कॅलिफॉर्निया विद्यापिठान डॉक्टरेट ऑफ फाईन आर्टस हे पदवेन भौमानीत केल्ले

१९६२ वर्सा ताणीं मुंबय शारांत किन्नर संगीत - शाळा सुरु केल्ली. १९६५ वस फामाद वादक जॉर्ज हॅरिसन हांच्या सांगाताक तांकां काम करपाची संद मेळिल्ली. ही घडणूव तांच्या सितार वादनाचो टप्पो बदलपी थारिल्ली. एके तरेन तांच्या वादन प्रक्रियेचो हो मैलाचे फातर थारिल्लो. भारतीय शास्त्रीय संगिताक पंडित रवि शंकर हाणीं खऱ्या अर्थान सात समुद्रापार पावपाचें काम केल्लें. तांकां लागून जायते परदेशी कलाकार भारताकडेन आकर्शीत जाल्ले. संगीत मळावेलो सगल्यांत श्रेष्ठ असो ग्रॅमी पुरस्कार रवी शंकर हांकां १९६८,१९७२ आनी २००२ अशे तीन खेपे फावो जाल्लो.

रवि शंकर हाणीं सितार आनी ऑर्केस्ट्रा अशा दोन वेगवेगळ्या गजालींखातीर म्हायती एकठावन बरयल्या. जायत्या सिनेमांखातीर ताणीं संगिताची रचणूक केल्ली आसा. तातूंत मुखेलपणान 'गांधी' ह्या सिनेमाचो आस्पाव आसा.अमेरिकेच्या कला आनी पत्र सूचना अकादमीचे रवि शंकर सन्माननीय वांगडी आसात.

१९७६ वर्सा ताणीं स्वतःच्या जल्म गावांत-वाराणसी हांगा रिसर्च इंन्स्टिट्यूट फॉर म्युझिक अॅण्ड परफॉरमिंग आर्ट' ची स्थापणूक केल्ली. १९८६ वर्सा ते राज्य सभेचे वांगडी जाल्ले.१९९२ वर्सा तांकां आंतरराष्ट्रीय दर्ज्याचो मॅगसेसे पुरस्कार फाव जाल्लो. 'काबुलीवाला ' ह्या सिनेमाच्या संगीत दिग्दर्शना खातीर एक्स्ट्रा ऑर्डीनरी प्रायझ ऑफ ज्युरी हो पुरस्कार तांकां १९५७ वर्साच्या बर्लीन आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवांत फावो जाल्लो. १९६२ वर्सा तांकां संगीत नाटक अकादमीचो पुरस्कार मेळिल्लो. १९६७ वर्सा तांकां पद्मभूषण,१९८१ वर्सा पद्मविभूषण आनी १९८७ - ८८ वर्साचो मध्यप्रदेश सरकाराचो कालिदास पुरस्कार तांकां फावो जाल्लो.

ताणीं केल्ले संगिताचे सेवेखातीर राणी एलिझाबेथ दुसरी हांचेकडल्यान 'ऑर्डर ऑफ दी ब्रिटीश अॅम्पायर' मानद नायट कमांडर ही पदवी २००१ वर्सा मेळिल्ली.

अल्लाद्दीन खाँ हांचेकडल्यान सतार शिक्षण घेतले उपरांत १९३९ वर्सा तांची पयली मैफल अहमदाबाद हांगा जाल्ली. १९४९ वर्सा ते दिल्लीतल्या ऑल इंडिया रेडिओत संगीत दिग्दर्शक म्हूण कामाक लागिल्ले. १९५४ वर्सा सोविएत युनियनांत ताणीं पयली आंतरराष्ट्रीय मैफल गाजयिल्ली. युरोप, अमेरिकेंत तांच्यो सतार वादनाच्यो जायत्यो कार्यावळी जाल्यो.

संगीत मळार केल्या उत्तुंग अशा वावराक लागून भारत सरकारान १९९९ वर्सा तांकां सर्वश्रेष्ठ असो 'भारत रत्न' पुरस्कार दिवन तांच्या कलागुणांचो भोवमान केल्लो. वयाच्या ९२ व्या वर्सा १२ डिसेंबर २०१२क ते ह्या संसाराक अंतरले.



# लता मंगेशकार (१९२९-)



लता मंगेशकार ह्यांचो जल्म २८ सप्टेंबर १९२९ वर्सा मध्यप्रदेशांतल्या इंदोर शारांत गायकी घराण्यांत जाल्लो. तांचे बापूय दिनानाथ मंगेशकार हे एक व्हड कलाकार आशिल्ले. गोमंतक मराठा समाजांत तिजो जल्म जाल्लो. वयाच्या पाचव्या वर्सा सावन तिणे गायनाचे धडे घेवंक सुरु केल्ले. तिजें ल्हानपण महाराष्ट्रांत गेलें. मंगेशकार घराण्यांतली ती सगल्यांत व्हडली चली . मंगेशकार घराणें हें मूळ गोंयच्या मंगेशीचें.

ल्हानपणासावन कुंदनलाल सैगलालागीं ती गायन शिकली. तिजी इतसा सिनेमांत गावपाची आसली. त्याप्रमाण 'किर्ती हसाल' ह्या सिनेमांत तिणें पयलें गीत गायलें. पूण बापायच्या आग्रहाक लागून ते गीत त्या सिनेमांतल्यान काडून वडयलें कारण तिच्या बापायक तिणें सिनेमांत गावप पसंत नाशिल्लें. ती १३ वर्सांची आसतना तिजे बापूय अंतरल्ले. तेन्ना तांकां ख्रूब आर्थिक चणचण जाणवपाक लागली. जिणेच्यो प्राथमीक गरजो भागोवपाक तिणे मराठी आनी हिंदी सिनेमांत काम करपाक सुरू केल्ले. आवड नासतना तिका ह्या क्षेत्रांत पावल घालचें पडिल्लें. १९४० मेरेन ती अभिनयाच्या क्षेत्रांत आशिल्ली.

१९४५ वर्सा वयाच्या सोळाव्या वर्सा गुलाम हैदरान - जाणे नूर जहाँनाक भारतीय सिनेमांत हाडिल्ली-ताणीं लता दीदींक एका निर्मात्या लागीं व्हरुन तिका गावपाची संद दिल्ली. याउपरांत एक-एक पांवडो चडत ती हिंदी सिनेमांतली पयल्या पांवड्यावेली गायक जाली. १९४७ वर्सा वसंत जोगळेकर ह्याणीं तिका 'आपकी सेवा में' ह्या सिनेमांत गावपाची संद दिल्या उपरांतच तिणें तें स्थान मेळयलें. तिणें गायिल्ल्या गितांचे कांय सिनेमा अशे आसात. महल-१९४९, बरसात-१९४९, नागीन-१९५०, अलबेला-१९५१ आनी शाझाद-१९५४. ह्या सुरवेच्या सिनेमांतल्या पदांनीं तांच्या आवाजांतली जादू सगल्यांक जाणवल्ली.

फामाद निर्माते आनी कलाकार राज कपूरांनीं म्हटलां लता म्हळ्यार सरस्वती देवीचो अवतार जावन आसात. राजकपूरांच्या सिनेमांत तिणे मन्नाडे आनी मुकेशांबरबर गायिल्ल्या गितांनीं सिनेमाक उबारी दिल्ली. महम्मद रफी बरबर तिणें जायतीं गितां गायल्यांत. पूण किशोर कुमारांबरबर तिणें सगल्यांत चड गितां गायल्यांत. १९६० च्या दशकांत लता मंगेशकार भारतीय सिनेमांतली पार्श्वगायनांतली राणी जाल्ली.

सिनेमा भायर तिणें भजना आनी गझल गायन केलां. 'ए मेरे वतन के लोगों' हें ताणीं गायिल्लें सगल्यांत फामाद देशभक्ती गीत जावन आसा. ह्या गिताची तुस्त आनी तोखणाय ख्रूब जाल्या. एकदां सार्वजनीक कार्यक्रमांत तिज्या आवाजांतल्यान हें गीत आयकून पंडित

जवाहरलाल नेहरूंच्या दोळ्यांत दुकां आयिल्लीं. गायनाच्या क्षेत्रांत लता सगल्यांची आवडटी आसली. एस्.डी.बर्मन हांच्या सांगातान ताणीं १९६० च्या काळांत संगितांत जादवाचो बदल घडोवन हाडलो. पूण बर्मनांची पयली पसंती लतांची धाकटी भयण आशा भोसले आशिल्ली.

लता मंगेशकरांक उषा मंगेशकार, आशा भोसले अशो दोन भयणी आनी भाव ऱ्हदयनाथ मंगेशकार आसात. सगल्यांनी संगिताक स्वतःचे जिवित ओपलां. लता म्हळ्यारच जिती जागती संगिताची म्हूर्त मानतात. जाणीं तिज्या बरबर ह्या क्षेत्रांत वावर केला ते तिका गान कोकीळा-स्वर-सम्राज्ञी म्हणटात.

नूर जहाँनान म्हटलां लताजी म्हळ्यार लताजीच. तिजी सर कोणांकच येवची ना. तिज्या सारखी गायक जाली ना आनी जावचीय ना. तांचीं ही उतरां लता दिदींक मेळिल्ल्या साबार पुरस्कारांनी खरीं थारायल्यांत.

१९८९ वर्सा तांकां पद्मभूषण पुरस्कार फाव जालो. आनी भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार भारत रत्न २००१ वर्सा तांकां भेटयिलो.



* जेन्ना जिवित तुमकां रडपाखातीर १०० कारणां दिता. तेन्नां तुमकां खोशी जावपाखातीर १००० कारणां आसात, हें जिविताक दाखोवन दियात. - सर्वपल्ली राधाकृष्णन्

* भोग, सुवार्थ हाचो दर्या हुपून पलतडीं वता तोच परमेश्वराकडेन पावता - स्वामी विवेकानंद

# उस्ताद बिसमिल्ला खान (१९१६- २००६)



बिहार राज्यांतल्या दमरान गावांत २१ मार्च १९१६ त राज्य संगीत फामिलींत उस्ताद बिसमिल्ला खान हांचो जल्म जाल्लो. तंतू वाद्यां तयार करपांत तांचो हात धरपी जगांत कोण नाशिल्लो. तंतू वाद्य म्हटलें म्हळ्यार सनई वादक उस्ताद बिसमिल्ला खान हें समीकरण जावन गेल्ले. तांच्या मामान अली बक्श हाणीं तांकां शेनायेचे धडे दिल्ले. अली बक्श बरे पैकी शेनाय (शहनाई/सनई)वादक आशिल्ले. ते बनारसांत विश्वनाथ देवळांत शेनाय वाजयताले. शेनाय हें एक पारंपारीक शास्त्रीय वाद्य लग्न सुवाळ्यावेळार आनी मंगल कार्यावेळार वाजयताले. आज शेनाय वादन दरेक शुभ म्हुर्तार आयकूंक येता, ांव ते कॅसेट वा सीडीच्या रुपांत.

देशाच्या पयल्या प्रजासत्ताक दिना दिसा उस्ताद बिसमिल्ला खानान लाल किल्ल्याचेर ल्ले शेनाय वादन आर्विल्ल्या काळांतलें सगल्यांत सुंदर शास्त्रीय वादन आशिल्ल्याचें सगल्यांनी नून घेतलां; आनी तो एक आज मेरेनचो उच्चांक जावन आसा. संगीत हें पळोवपाचें नासून तें नानीं आयकुपाचें आसता अशें बिसमिल्ला खान मानतालें.

ताणीं सदांच संगिता वरवीं एकतेचो संदेश दिवपाचो यत्न केल्लो. धर्मा-धर्मामदल्या कतेचेर ते चड भर दिताले. ते शिया धर्माचे आसुनय सरस्वती देवीचे कट्टर भक्त आशिल्ले. णीं पुराय जगभर जायते कडेन शेनाय वादनाचे कार्यक्रम केल्ले आसात. ते 'खान साहेब' ह्या वान फामाद आशिल्ले. बनारस हिंदू युनिवर्सिटी आनी शांति निकेतनान डॉक्टरेट पदवी वन तांचो भौमान केल्लो. संगीत नाटक अकादमी पुरस्कारा बरबर तांकां तानसेन पुरस्कार नी पद्मविभूषण पुरस्कार फाव जाल्ले.

जगभर नामना मेळूनय ताणीं आदलेवरी साद्या बनारस पध्दतीन रावप पसंत केल्लें. णीं केन्नांच स्वतःच्या मोटेपणाचो भपको करूं नाशिल्लो. भौशिक आनी गडबड वाळासावन पयस रावप तांकां पसंत आशिल्ले.

२००१ वर्सा भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' भेटोवन तांचो भौमान ल्लो. आनी २१ ऑगस्ट २००६ वर्सा ते ह्या संवसाराक सोडून गेल्ले. एक शास्त्रीय गेतांतलो हिरो ना जाल्लो.



# पंडित भिमसेन जोशी (१९२२-२०११)



इंद्रायणी काठी देवाची आळंदी, माझे माहेर पंढरी सारखे अग्रंवर अभंग दरेकल्याच्या तोणांत दिवन ते अजरामर करपी आनी "मिले सूर मेरा तुम्हारा" ह्या गितान समेस्त भारतियांची काळजां जिखपी स्वरांचो सम्राट, "भारत रत्न" पंडित भिमसेन जोशी जावन आशिल्ले.

०४ फेब्रुवारी १९२२ ह्या दिसा जल्मल्ले भिमसेन जोशी ख्याल गायना खातीर नामनेक पाविल्ले. पिरायेच्या ११ व्या वर्सा १९३३ सांत ताणीं गायन शिकपाखातीर घर सोडिल्लें, आनी पिरायेच्या १९ व्या वर्सा कानडी आनी हिंदी गीत गायनांत ताणीं पयली कार्यावळ केल्ली. ते २२ वर्साचे आसतना एच्.एम्.व्ही कंपनीन तांच्या गायनाची पयली रिकोर्ड बाजारांत हाडिल्ली.

ल्हानपणार घर सोडल्या उपरांत ते धारवाड सावन विजापूर गेल्ले. त्या वेळार तांच्या बोल्सांत पयशे नाशिल्ले. रेल्वेंत तांचे कुशीक बशिल्ल्या एका प्रवाश्यान तांकां आर्थिक आदार केल्लो. त्या पयशांनीं ते पुण्यांमेरेन गेल्ले. थंयच्यान ग्वालियराक गेल्ले. थंय ग्वालियर महाराजांच्या माधव संगीत शाळेंत ताणीं प्रवेश घेतिल्लो. नामनेचे सरोद वादक उस्ताद हफीज अली खानाची ताका ह्या वावरांत खूब मदत जाल्ली. १९४३ वर्सा ते मुंबय गेल्ले आनी आकाशवाणीचे सेवेंत रुजू जाल्ले.

त्या पयलीं १९३६ वर्सा रामभाऊ कुंदगोळकर उर्फ सवाई गंधर्व हांचें शिश्यत्व ताणीं आपणायिल्लें. १९३६ ते १९४० ह्या काळांत ताणीं गायनाचे धडे चिरिल्ले. उपरांत १९५२ वर्सा गुरूंचे यादीक ताणीं सवाई गंधर्व महोत्सव सुरु केल्लो.

कर्नाटकांतल्या धारवाड जिल्ल्यांतल्या गदग शारांत जल्म जाल्ले पंडित भिमसेन जोशी सोळा भावंडा मदले सगल्यांत व्हड आशिल्ले. तांच्या तरण्या पिरायेचेर आवय ताका सोडून गेल्ली. उपरांत सावत्र आवयन तांकां वाडयिल्लो. तांकां अण्णा तशेच भीमअण्णा ह्या नावांन वळखताले.

शुध्द कल्याण, मिया की तोडी, पुरीया धनश्री , मुलतानि भीम पलासी, दरबारी आनी रामकली ह्या रागांचेर तांणी शेक जोडिल्लो. स्वतःच्या दैवी स्वरांनीं रसिकांक मंत्रमुग्ध करपी पंडित जोशीन शास्त्रीय संगिता बरबर अभंग, भजन, ठुमरी, नाट्यगीत, चित्रपटगीत अशे संगितांतले साबार विंगडविंगड प्रकार हाताळिल्ले. म्हान शास्त्रीय संगीत गायिका सर्गेस्त गंगुबाई हलगल ही तांची गुरुभगिनी.

देशांतल्या विद्यापिठांनी डॉ. लिट ही पदवी भेटोवन तांचो भोवमान केल्लो. १९७२ वर्सा तांकां पद्मश्री हो पुरस्कार भेटयिल्लो. आनी संगीत नाटक अकादमीचो पुरस्कार

ांकां १९७६ वर्सा फाव जाल्लो. १९८५ वर्सा पद्मभूषण आनी पार्श्व गायनाखातीर राष्ट्रीय फल्म पुरस्कार मेळिल्ले. १९९९ वर्सा पद्मविभूषण ह्या पुरस्कारान तांचो भोवमान केल्लो. ादित्य विक्रम बिर्ला कलाश्री पुरस्कार २००० वर्सा आनी २००१ वर्सा कन्नज द्यापिठाच्या नाडोजा पुरस्कारान तांकां सन्मानीत केल्ले. महाराष्ट्र भूषण हो पुरस्कार तांकां ००२ वर्सा फाव जाल्लो.

२००३ वर्सा केरळ सरकाराचो स्वाथी संगीत पुरस्कार आनी कर्नाटक रत्न २००५ र्सा तांकां भेटयिल्लो. तेचवरी दिल्ली सरकाराचो जिणे गौरव पुरस्कार २००९ वर्सा आनी गळूरूच्या रामसेवा मंडळीचो एस्. व्ही.नारायणस्वामी राव राष्ट्रीय पुरस्कार २०१० वर्सा ांकां दिल्लो.

शेर्गात सात दशकां भारतीय संगिताचेर शेक गाजयतल्या पंडित भिमसेन जोशींक ००८ वर्सा 'भारत रत्न' हो देशांतलो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार भेटोवन तांचो भोवमान ेल्लो.

अशें हें अश्ट नाशी व्यक्तिमत्व २४ जानेवारी २०११ दिसा ल्हान काळाच्या येसान ८९ वर्सांचेर अनंतांत विर्लीन जाल्ले.



तुमचें विचार कितले बकिश्ट आसा हें तुमकां कळ्ळें जाल्यार तुमी केन्नाच नकारात्मक विचार करचे नांत- स्वामी विवेकानंद

मनांचे धारण जाले म्हण्टकीत धन निर्धन जाता, म्हणून धनाचें द्रव्य करपाक जाय. हें धन व्हावपाक लागतकीर ताजें द्रव्य जाता. धनाचें द्रव्य केलें म्हण्टकीर तें धन्य जाता. - आचार्य विनोबा भावे.

# डॉ. सी. एन्. आर. राव (१९३४ - )



स्वत:ची पुराय जीण विज्ञानाक ओपिल्ले ज्येष्ठ रसाय शास्त्रज्ञ डॉ. सी.एन्.राव हांकां मिस्टर सायन्स ऑफ इंडिया ह नावान सगळे वळखतात. तांचो जल्म ३० जून १९३४ व बंगलुरू कर्नाटकांत जालो. तांच्या बापायचें नांव नागेश र आनी आवयचें नागम्मा. डॉ. चिंतामणी नागेश रामचंद्र राव उ सी. एन. आर. राव हाणी घनरुप अवस्था आनी पदार्थ रसाय शास्त्रांत संशोधन केलां ताका तोड ना.

म्हैसूर युनिव्हर्सिटींत ताणीं १९५१ वर्सा पदवेचें शिक्ष पूर्ण केलें. १९५८ वर्सा ताणीं पी. एच्.डी. परडू म्हाविद्यालयां पूर्ण केली. १९६१ वर्सा म्हैसूर विद्यापीठांतल्यान ताणीं डी. एस्.सी. केली. १९६३ त कानपुरांत भारतीय इंस्टीट्यूट ऑफ टॅक्नोलॉजींत रूजू जाले.

तांकां जायत्या विद्यापिठांतल्यान डॉक्टरेट पदव्यो भेटयल्ल्यात. तातूंत बोरडियक्स कायन, कॉलरेडो, खारटोन, लिव्हरपूल, नॉर्थवेस्टन, नोवोसिबीरिक्स, ऑक्सफर्ड, परडू स्टॅलनबॉस्च, जॉसेफ फरीयर, व्हेलस, रॉकलोव, नोत्रेडॅम, उपसला, अलिगड मुस्लीम, अॅन्ना आंध्र, बनारस, बंगाल इंजिनियरींग, बंगलोर, बर्डवान, बुंदेलखंड, दिल्ली, हैदराबाद, इग्नू आय. आय. टी - मुंबय, खडगपूर, दिल्ली आनी पाटणा, जे. यन्. टी. यू. कल्याणी, कर्नाटक कलकत्ता, कोव्हेम्पू, लखनौ, मेंगलोर, मणीपूर, म्हैसूर, उस्मानिया, पंजाब, रुरकी, सिक्कीम मणीपाल, यस्. आर.एम्. तुमकूर, श्री व्यंकटेश्वर विद्यासागर आनी विश्वेश्वरय्या टॅक्नोलॉजी युनिव्हर्सिटी हांचो आस्पाव जाता.

तांकां पद्मश्री आनी पद्मविभूषण हे पुरस्कार मेळ्यात. कर्नाटक सरकारान तांका कर्नाटक रत्न हो पुरस्कार भेटयला. २००० वर्सा राजघराण्यांतल्या समुदायान तांकां Hughes पदक दिवन भौमान केलो. २००४ वर्सा भारत सरकारान भेटयिल्लो विज्ञान पुरस्कार मेळोवपी ते भारतांतले पयले व्यक्ती थाल्ले.

ताणीं जायतीं आंतरराष्ट्रीय इनामां मेळयल्यांत. २००५ वर्सा डेन डेव्हीड इनाम डेन डेव्हीड संस्थेन तांकां भेटयलें. त्याच वर्सा फ्रेंच सरकारान तांकां " नायट ऑफ दी लिजन ऑफ हॉनर " (Knight of the legion of honour) ही पदवी भेटयली. बांगला देश सायन्स अकादमीचे ते विदेश सचिव आसात. २००४ वर्सा तांकां कलकत्ता युनिव्हर्सिटीत डॉक्टर ऑफ सायन्स म्हूण मानद पुरस्कार भेटोवन भौमान केलो.

भारत - चीन सबंदांतल्या विज्ञानीक सहकार्याग्वातीर ताणीं म्हत्वाचो वावर केल्ले

ातीर डॉ. राव हांकां चिनांतलो सगल्यांत व्हडलो पुरस्कार फाव जालो. हो पुरस्कार तांकां ायनीज अकादमी ऑफ सायन्स(CAS) संस्थेने २०१३ वर्सा भेटयलो.

ते जायत्या जागतीक, विज्ञानीक संस्थांचेर वांगडी आसात. तातूंत यू. एस्. नेशनल अकादमी ऑफ सायन्स, अमेरिकन अकादमी ऑफ आर्टस आनी विज्ञान, इंग्लंडाची रॉयल ोसायटी, फ्रेंच अकादमी, जपान अकादमी, सेरेबियन अकादमी ऑफ सायन्स ॲन्ड आर्टस ानी पोन्टेफिसियल अकादमी आदिंचो आस्पाव जाता.

ताणीं प्रधानमंत्र्याच्या शास्त्रीय सल्लागार समितीचे मुखेली म्हूण काम केलां. १९६३ १९७६ ह्या काळांत कानपूर आय्. आयटींत रसायन शास्त्र विभागांत तशेंच १९८४ ते १९९४ मेरेन बेंगलुरूतल्या भारतीय विज्ञान संस्थेंत ताणीं अध्ययनाचें कार्य केलां. सध्या ते थंयच वाहरलाल नेहरू प्रगत विज्ञानीक संशोधन केंद्रांत संशोधन प्राध्यापक आनी मानद अध्यक्ष म्हूण ाम करतात.

ताणीं सुमार ४५ पुस्तकां आनी १५०० सोद निबंद बरोवन उजवाडा हाडल्यात. तांकां ायतेे राष्ट्रीय, आंतरराष्ट्रीय पुरस्कार फाव जाल्यात. १६ नोव्हेंबर २०१३ त भारताचो सर्वोच्च ागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' तांकां भेटोवपाची घोशणा जाली आनी ४ फेब्रुवारी २०१४ वर्सा ांकां तो भेटयलो.



* तुमचे भोवतणचे सगळे हेच तुमचे गुरू - मदर तेरेझा.

* दुसऱ्या खातीर जगूंक ना जाल्यार तें जिवीत न्हंय - मदर तेरेझा

# सचिन तेंडुलकार (१९७३ - )



मलग २४ वर्सां स्वतःच्या अष्टताशी खेळान संवसारांतल्या कोट्यांनीं क्रिकेट रसिकांक खोशी, आनंद दिवपी भारत रत्न जोडपी मास्टर ब्लास्टर सचिन तेंडूलकार हो देशांतलो पयलो खेळगडो जावन आसा. सचिन तेंडुलकरांचो जल्म २४ एप्रिल १९७३ वर्सा मुंबय एका मध्यम वर्गीय कुटूंबात जाल्लो.

ताज्या बापायचें नांव रमेश तेंडुलकार आनी आवयचें नांव रजनी तेंडुलकर. सचिनाच्या खेळाची विशेशता सांगतलो जाल्यार तनान आनी मनान खेळाक मैदानार सातत्यान १०० टक्के योगदान दिवप जावन आसा. ताका नम्र आनी शालीन अशी मराठी व्यक्ती तशेंच क्रिकेटींतलो देव म्हणून सगले मानतात आनी वळखतात. भारतावतीन क्रिकेटींत ताणे सुरवात केल्ली तेन्नां कोणेंच चितूं नाशिल्लें, येदोसो हो भुरगो स्वतःच्या मनगटाच्या बळग्यार, सगल्यांत उणे पिरायेर 'भारत रत्न' हो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार जोडटलो म्हणून.

तो सलग २४ वर्सां क्रिकेट खेळलो आनी १७ नोव्हेंबर २०१३ क ताणे वानखेडे मैदानार स्वतःची २०० वी कसोटी खेळून खेळांतली निवत्ती घेतली. ताणे टॅस्ट मॅच ते २०-२० मेरेन विक्रमाचे विक्रम स्वतःच्या नावार केल्यात.

'जिद्दीन सपनांचीं फाटपुरवण कर आनी येसाक शॉर्टकट आसना हें लक्षांत दवर' हीं ताज्या बापायचीं उतरां मनांत याद दवरून तो फुडल्या जिणेची वाटचाल करीत रावलो आनी जैताचे तेंगशेर पावलो.

१९८८-१९८९ वर्सा तो पयल्या श्रेणीतली क्रिकेट खेळिल्लो आनी तेन्नां १०० धांवड्याचेर तो नाबाद राविल्लो. त्या वेळार ताजें वय १५ वर्सां आनी २३२ दिसांचे आसलें. हो विक्रम करपी त्या वेळार तो सगल्यांत ल्हान खेळगडो आसलो.

ताज्या व्हडल्या भावाचें नांव नितीन आसा. ताका क्रिकेट खेळूंक बॅट ''काश्मीर विलो'' हाडून दिवपी ताजी भयण सविता आशिल्ली. उपरांत तो क्रिकेटींत बॅटींग करतना ती स्वतः उपास करताली. आंतरराष्ट्रीय क्रिकेटींत सचिनाक ५२ खेपे सामनावीर पुरस्कार मेळ्यात, जाल्यार कसोटी क्रिकेटींत १० खेपे सामनावीर पुरस्कार फाव जाल्यात, अशें न्हय तर ताणे स्वतःच्या मनगटाच्या बळग्यार जोडल्यात.

२० नोव्हेंबर २००९ वर्सा ताणे आंतरराष्ट्रीय खेळांत ३०,००० धांवड्यो पूर्ण केल्यो. ताका पद्म विभूषण आनी राजीव गांधी खेळरत्न हे पुरस्कार फाव जाल्ले आसात. भारतीय वायुदळान ताका ग्रुप कॅप्टन हें पद दिवन ताजो गौरव केला. असो मान मेळोवपी तो पयलो

ळगडो आसा. राजीव गांधी युनिव्हर्सिटी ऑफ हेल्थ सायन्सेस आनी म्हैसूर विद्यापिठान ताका क्टरेट पदव्यो दिल्यो आसात. ६ नोव्हेंबर २०१२ त मुंबयत तांकां मेंबर ऑफ दी ऑर्डर ऑफ स्ट्रेलिया दिवन गौरवान्वित केल्लो.

१९८९ वर्सा तो पयलो आंतरराष्ट्रीय सामनो पाकिस्ताना विरुध्द कराचींत खेळिल्लो. ना सावन ते आज मेरेन आंतरराष्ट्रीय सामन्यांत शेकड्याचो शेकडो करपी तो एकलोच क्रिकेट ळगडो जावन आसा. सचिन तेंडुलकरांचो आनीक एक भौमान करतना ताका राज्यसभेचे ासदार म्हणून नियुक्त केलो. तशेच 'प्लेइंग इट माय वे ' नावान ताणे बरयिल्या पुस्तकाच्यो ड लाख प्रती विक्रमी वेळांत खपून ताज्या नावार आनीक एका विक्रमाची नोंद जाल्या.

भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' क्रिकेटींतल्या ताज्या निवृत्ती वेळार ६ नोव्हेंबर २०१३ क जाहीर करुन ४ फेब्रुवारी २०१४ त भेटोवन ताजो गौरव केलो.



मन हें चड अपुरबाय केल्या भुरग्यासारखें आसता. अपुरबाय केल्लो भुरगो जसो सदांच अतृप्त आसता, तशें मन सदा अतृप्त आसता. मनाचे लाड करून ताका स्वतःच्या अधीन दवरपाक जाय
- स्वामी विवेकानंद

अन्यायाकडेन तडजोड करप हें सगल्यांत व्हडलें पाप
- नेताजी सुभाषचंद्र बोस

# पं. मदन मोहन मालविया (१८६१ - १९४६)



हिंदू महासभेचे फुडारी पंडीत मदन मोहन मालविय हांचो जल्म गौड ब्राह्मण घराब्यांत २५ डिसेंबर १८६१ दिस अलाहाबादेंत जाल्लो. ते भारतीय शिक्षणतज्ञ आनी भारती स्वातंत्र्य चळवळींतले एक मुखेल फुडारी आशिल्ले. तांच्य घराण्यांत अध्यात्मिकता मुळासावन नंदताली. तेचवरी तो एव विद्वान घराबो आशिल्लो.

तांचो आजो प्रेमधर विद्वान, कृष्णभक्त आशिल्लो. तांचो बापूय ब्रजनाथ मालविया होय विद्वतेंत मुखार आशिल्लो. ताणीं जायते अध्यात्मिक ग्रंथ, पुस्तकां बरयिल्लीं आसात. मदन मोहन मालविया हांची आवय मुन्नाबाई धार्मिक ग्रंथ पारायणांत चडशी मग्न आसताली. आवयच्या ह्या संस्कारांनीं मदन मोहनाची जीण फुलिल्ली.

ताणीं मुळाव्या शिक्षणाचे धडे पं. हरदेवजी हांचे कडल्यान घेतिल्ले. वयाच्या पाचव्या वर्सा सावन ताणीं संस्कृतांतल्यान शिक्षणाक सुरवात केल्ली. पं. हरदेवजी कडल्यान मदन संस्कृतांतल्यान शिक्षणाक सुरवात केल्ली. पं. हरदेवजी कडल्यान मदन मोहनान संस्कृत, संगीत हांचे बरबर व्यायामाचेंय शिक्षण घेतिल्लें. १८७७ वर्सा ताणीं प्रवेश परिक्षेंत पास जावन मयूर सेंट्रल कॉलेजींत प्रवेश घेतिल्लो. १८८४ वर्सा ताणीं बी. ए.ची. पदवी परिक्षा पास केल्ली आनी जिल्हा शाळेंत शिक्षकाची नोकरी धरिल्ली.

त्या वेळावेले परंपरे प्रमाण १६व्या वर्सा मिर्झापुरचे कुंदनदेवी हिचे वांगडा तांचे लग्न जाल्ले. त्या आदीं १८८० वर्सा ताणीं आनी आदित्यराम भट्टाचार्य अशा दोगांनी मेळून "हिंदू समाज" नावांची संस्था स्थापन केल्ली. ते संस्थेचें पयलें अधिवेशन १८८५ वर्सा जाल्ले. दुसऱ्या वर्सा त्या काळाच्या संयुक्त प्रांताच्या प्रतिनिधी मंडळाचेर तांकां घेतिल्ले. त्या उपरांत कलकत्त्यांत जाल्या कॉंग्रेस अधिवेशनांत ते प्रतिनिधी म्हणून सहभागी जाल्ले. थंय तांचे उलवप आयकून सर ह्यूम तशेच दादाभाई नौरोजी प्रभावीत जाल्ले.

शिक्षकाची नोकरी करतासतनांच 'इंडियन युनियन' त्या स्थानीक पत्रिकेचें संपादनाचें कार्य ते करताले. उपरांत तांची 'हिंदूस्थान' ह्या दिसाळ्याच्या संपादक पदार नेमणूक जाल्ली. पूण फुडलें वकिलीचें शिकप घेवपाखातीर ताणीं हिंदुस्थानाचें संपादक पद सोडिल्लें. १८९१ वर्सा ताणीं जिल्हो न्यायालयांत वकिलीक सुरवात केल्ली, आनी उपरांत १८९३ वर्सा अलाहाबाद उच्च न्यायालयांत वकिल्ली केल्ली. मुख्य गजाल म्हळ्यार खिलाफत आनी असहकार आंदोलन बंद केल्ले खातीर चौरीचौरा केसींत २२५ जाणांक फाशी दिवपाचो निकाल

ल्लो. तांच्या वर्तीन मालवियान वकील पत्र घेतिल्लें आनी त्या मदल्या १५३ जाणांचे जीव चोवपाक ते यशस्वी थारील्ले.

१९०७ वर्सा सावन ताणीं 'अभ्युदय'चें संपादन करपाक सुरवात केल्ली. अखील रतीय कॉंग्रेसीचे १९०९ वर्सा आनी १९१८ वर्सा अशे दोन फावटीं ते अध्यक्ष जाल्ले. म्हणून ९०९ वर्सा तांकां इंपिरीयल लेजिस्लेटीव्ह काऊंसिलाचेर घेतिलो. तेन्नां ते कॉंग्रेसीचे अध्यक्ष ल्ले. काऊंसिलाचेर रावन ताणीं प्रेस ॲक्ट, सेडीशस मिटींग ॲक्ट आनी विदेशी मजूर भरते रूध्द आवाज काडिल्लो. उपरांत १९१० वर्सा 'मर्यादा' हें मासीक काडिल्लें आनी 'अभ्युदय' १९१५ वर्सा सावन दिसाळें केल्लें. १९१२ वर्सा ते ब्रिटीश कौन्सिलाचे वांगडी जाल्ले.

समाज सेवेची खंचींच मंद ते सोडिनाशिल्ले. बनारस हिंदू विद्यापिठाची ताणीं १९१५ र्सा स्थापना केल्ली. ह्या विद्यापिठाविशींचो कायदो सरकारान त्यावेळार पास केल्या उपरांत ९१६ वर्सा हें विद्यापीठ अधिकृत रितीन सुरू जाल्ले. थंयच मदन मोहन १९१९ वर्सा त्या द्यापिठाचे उपकुलगुरू जाल्ले. १९१९ ते १९३८ अशीं १९ वर्सां ताणी हें पद भुशयिल्लें.

१९२८ वर्सा लाला लजपतराय आनी जवाहरलाल नेहरू हांचे सयत ताणीं सायमन ायोगा आड चळवळ केल्ली. आनी उपरांत १९३०च्या कायदेभंगा वेळार ताणीं त्या समितीच्या भासद पदाक सोडचीट दिवन बंदखण भोगप पसंत केल्लें. समाजांतल्लीं अस्पृश्यता निवारण रपाखातीर ताणीं जायते यत्न केल्ले. 'द लिडर' ह्या खबरा पत्राची ताणीं स्थापणूक केल्ली. ९२४ ते १९४६ ह्या काळांत ते हिंदुस्थान टायम्स ह्या खबरापत्राचे अध्यक्ष आशिल्ले. १९२७ र्सा काशी, १९२८ वर्सा कलकत्ता, १९३८ वर्सा नाशीक हांगा जायत्या अस्पृश्य लोकांक ाणीं हिंदूचें पंगतीक बसयिल्ले.

'सत्यमेव जयते' हें घोषवाक्य मालविया हाणींच लोकप्रिय केल्लें. अशा ह्या भौ ायामी व्यक्तिमत्वाक, एका श्रेष्ठ पंडिताक १२ नोव्हेंबर १९४६ वर्सा बनारस हांगा मरण ायिल्लें. भारताचो श्रेष्ठ नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' तांकां मरणोत्तर ३१ मार्च २०१५ त देल्लो.



* *यश हें अनंत श्रध्दा आनी अनंत शक्ती हाकाच लागून प्राप्त जावपाक शकता – स्वामी विवेकानंद*

# अटल बिहारी वाजपेयी ( १९२४ - )



ग्वालियराच्या सिंधिया राज दरबाराच्या छावणेंत भारताचें आद
प्रधानमंत्री अटल बिहारी वाजपेयी हांचो जल्म २५ डिसेंबर १९२
दिसा ब्राह्मी म्हूर्ताचेर जालों. २५ डिसेंबराक आग्व्या संवसारभ
जेजू ख्रिस्ताचो जन्मदीस मनयता. अटलजींचें घर इगर्जेलाग
आशिल्ले. थंय जेजूच्या जल्माखातीर तोफो आनी माराणांचे
गडगड जातालो. त्यावेळार अटलजीच्याच जल्माखातीर है
फोगाची आतषबाजी चल्या काय कितें अशें दिसताले.

ताज्या बापायचें नांव कृष्ण बिहारी आशिल्ले. अवध, सदा, प्रेम अशे ताका तीन भाव आनी विमला, कमला, उर्मिला अशो तीन भयणी आसात. ल्हान आसतना घरांत संदाच संघ परिवाराचें कार्य चलतालें, ताजो परिणाम अटलजींच्या जिणेचेर जालो. जाका लागून उपरांत राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघाचे ते निष्ठावान सेवक जाले. १९३९ वर्सा ताणीं राष्ट्रीय स्वयंसेवक संघांत प्रवेश केलो.

बी. ए.ची परिक्षा ताणीं व्हिक्टोरिया म्हळयार आयच्या राणी लक्ष्मीबाई कॉलेजींत पास केली. उपरांत १९४२ वर्साच्या भारत छोडो चळवळींत ते वांटेकार जाले. त्यावेळार तांकां अटकाय जाली. कानपुरांतल्या डी. ए. व्ही. कॉलेजींत राजनिती शास्त्रांत ते पयल्या श्रेणीत एम्. ए. जाले. एक खास गजाल म्हळयार अटलजीन आनी ताज्या बापायन कायद्याचें शिक्षण एकेच डी. ए. व्ही. कॉलेजींत आनी एका बरबर पास केल्ले. तांचे बापूय रिटायर्ड जातकच कायद्याचें शिकप घेवंक ताणीं ते कॉलेजींत प्रवेश घेतिल्लो. तेन्ना अटलजीय थंय शिकताले.

१९५० वर्सा लखनौत जाल्या हिंदी साहित्य संमेलनांत ते तरूण वयार उपस्वागताध्यक्ष जाले. लखनौच्यान ते दिल्ली गेले तेन्ना ताणीं 'वीर अर्जुन' हे पत्रिकेचें संपादन कार्य सुरू केलें.

१९५५ वर्सा सावन ताणीं सक्रीय राजकारणांत भाग घेतलो. त्या वर्सा जनसंघाच्या उमेदवारीचेर ते उबे रावले, पूण तेन्नां ते हारले. उपरांत १९५७ वर्सा उत्तरप्रदेशाच्या बलरामपूर मतदार संघातल्यान उबे रावले, आनी निवडून आयले. १९५७ ते १९७७ मेरेन ताणीं जन संघाचे संसदेतलें मुखेलपण सांबाळ्ळे. जनता पक्षाच्या सरकारांत मार्च १९७७ ते जुलै १९७९ मजगती तांणी विदेश मंत्रीपद सांबाळ्ळे. १९६८ ते जुलय १९७३ मेरेन ते भारतीय जनसंघाचे राष्ट्रीय अध्यक्ष जाले. १९७१ वर्सा ते परत एक खेपे संसदेंत निवडून आयले.

६ एप्रिल १९८० दिसा ताणीं लालकृष्ण अडवाणी आनी भैरोसिंग शेखावत हांचे वांगडा मेळून भारतीय जनता पक्षाची स्थापना केली. आनी अटलजी पक्षाचे पयले अध्यक्ष जाले. १९८० च्या वेचणुकेंत ते दिल्लीतल्यान निवडून आयले. १९८६ वर्सा ते राज्यसभेचेर निवडून आयले. मार्च १९९८ ते एप्रिल १९९९ अशे तेरा म्हयने ते १२ वे लोकसभेचे प्रधानमंत्री जाले.

यरांत १३ वे लोकसभेचेर १९ मे २००४ मेरेन ताणीं प्रधानमंत्री पद सांबाळ्ळे. स्वतःच्या धानमंत्री पदाच्या कार्यकाळांत १९९८ वर्सा ताणीं पाकिस्तानावांगडा चर्चेखातीर लाहोराक भेट ली. आनी तांच्या यत्नान लाहोरांत बस सेवा सुरू जाली. हे मजगती पाकिस्तानी सैनिकांनी ार्गिलांत घुसखोरी केली. तांचो हो यत्न १९९९ वर्सा भारतीय सैनिकांनी 'ऑपरेशन विजय' ावाचे कृतीन मोडून काडून जैत जोडले.

अटल बिहारी वाजपेयी हे बरेपैकीं साहित्यीक आसात. तांचे एकावन्न कवितांचे पुस्तक १९९५ वर्सा प्रकाशित जालें. ताजो जायत्या भासांनी अणकार जाला. कोंकणींतय ह्या पुस्तकाचो अणकार २००० वर्सा जाला.

१९९८-९९ चे वेचणुकेंत ते परत एक खेपे लखनौ मतदार संघातल्यान निवडून आयले. आनी भारताच्या पंतप्रधान पदाची माळ तांच्या गळयांत पडली. त्या वेळार वेगवेगळया देशांत भेट दिवन ताणीं भारताची किर्ती गाजयली. त्या देशामदीं आफ्रिका, ऑस्ट्रेलिया, जपान, श्रीलंका, कॅनडा, झांबिया, अमेरिका, स्विट्झर्लंड,मॉरिशस, इंग्लंड, फ्रान्स, जर्मनी, चीन, नार्वे स्वीडन, डेनमार्क, ग्रीस, टर्की, पोलंड, ऑस्ट्रीया, फिनलंड, इराण, इराक, झेकोस्लोवाकिया, सिरीया, लेबनान, जोर्डन, कुवैत, साउदी अरब, संयुक्त अरब अमिरात, इजिप्त, नाइजिरिया, तैवान, बर्मा, सिंगापूर, थायलंड, इंडोनेशिया, मलेशिया, बांगलादेश, भूतान, नेपाळ, पाकिस्तान आनी अफगाणिस्तान हांचो आस्पाव जाता.

तांका जायते पुरस्कार फाव जाल्यांत. १५ जानेवारी १९९२ दिसा भारत सरकारान 'पद्मविभूषण' ही उपाधी दिवन तांचो सन्मान केलो. २० एप्रिल १९९३ दिसा कानपूर विश्वविद्यालयान तांकां मानद डी. लीट. उपाधी दिवन सन्मान केलो. २८ सप्टें १९९२ दिसा उत्तरप्रदेश हिंदी संस्थानान 'हिंदी गौरव'' ही उपाधी आनी ५१ हजार रूपये दिवन तांचो भौमान केलो. ताणीं तातूंत स्वतःचे ५१ हजार घालून ते संस्थानाक दान केले. तांचे सेवाभावी वृत्तीक, त्यागाक लागून १ ऑगस्ट १९९४ दिसा लोकमान्य टिळक सन्मान दिवन तांचो भौमान केलो. तशेच १७ ऑगस्ट १९९४ दिसा सर्वश्रेष्ठ सांसद म्हूण संसदेन तांचो भौमान केलो.

आजवेर तांचीं प्रसिध्द जाल्लीं पुस्तकां अशीं आसात. 'मृत्यू या हत्या, अमर बलिदान, 'कैदी कविराय की कुण्डलियाँ, 'न्यू डायमेन्शन्स ऑफ फॉरेन पॉलिसीज, ''लोकसभा में अटलजी, 'संसद में तीन दशक' 'अमर आग है' आदी.

अशा ह्या कविमनाच्या राजनेत्याक देशांतलो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' याच्या ८९ व्या वर्सा तांच्या जल्मदिसा २५ डिसेंबर, २०१४ दिसा जाहीर करून २७ मार्च, २०१५ दिसा भेटयलो.



# नेताजी सुभाषचंद्र बोस (१८९७ - १९४५)



सुभाषचंद्र बोस हांचो जल्म २३ जानेर १८९७ त ओरिसांतल्या कटक हांगा बंगाली फामिलींत जाल्लो. तांचे बापूय जानकीनाथ बोस हे व्यवसायान वकील आशिल्ले. तांका एकूण १४ भुरगीं आशिल्ली. आठ चले आनी सः चलयो. स्वामी विवेकानंदांचें साहित्य सुभाषचंद्र ल्हान आसतना तांच्या वाचनांत आयिल्लें. त्या प्रमाण तार्णी स्वतःच्या जिणेच्या ध्येयाची फुडली वाटचाल केल्ली.

नेताजी म्हणून ते फामाद जाल्ले त्या सुभाषचंद्र बोसांक गांधीजींचीं तत्वा केन्नाच मानवूंक नाशिल्लीं. अहिंसेच्या मार्गान स्वातंत्र्य चळवळ चलयिल्ली तांकां मान्य नाशिल्ली. ते मुळांत हुशार आशिल्ले. स्वतःची शारिरीक बांदावळ तार्णी बरी तयार केल्ली. तांकां उच्च दर्ज्याचे नागरी अधिकारी करपाचें तांच्या बापायच्या मनांत आशिल्लें. कटक आनी कलकत्ता हांगा मुळावें शिक्षण घेवन उपरांत केंद्रीय युनिव्हर्सिटींत दाखलो घेवपाक ते इंग्लंडांत गेल्ले.

भारतीय नागरी अधिकारी पदाची परीक्षा ते १९२० व्या वर्सा दुसऱ्या नंबरान पास जाल्ले. पूण दुसऱ्या वर्सा १९२१ त तार्णी ते सोडून स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतिल्लो.

ते कलकत्त्यांत येतकीर तांकां चित्तरंजन दास हांचो सांगात मेळिल्लो. तार्णी मेळून स्वराज्य पार्टीची स्थापना केल्ली. गांधीजींच्या अहिंसा चळवळीक तांचो तेको नाशिल्ल्यान ते वेगळे तरेन ही स्वातंत्र्य चळवळ चलयताले. ब्रिटीश राजकुमार वालेसान १९२१ त भारताक भेट दिल्ली, तेन्ना तांचे कार्यावळीचेर बहिष्कार घातिल्ले खातीर सुभाषचंद्र बोसांक अटक केल्ली. १९२४ वर्सा ते कलकत्ता महामंडळाचे मुख्य कार्यकारी ऑफिसर म्हणून वेचून आयिल्ले. पूण त्याच वर्सा ते आतंकवादी ह्या दुबावान तांका अटक केल्ली. सुरवेक तांकां आलिपोट जेलींत आनी उपरांत बर्मा हांगा व्हेले.

१९२५ वर्सा तांच्या बापायक आकस्मिक मरण आयिल्ल्यान तांच्या जाग्यार नेताजी सुभाषचंद्र बोसांक बंगाल विधानसभेचे आमदार म्हूण तांच्या अनुपस्थितींत नेमिल्लें. त्याच वेळार ते दुयेंत जाल्यान १९२७ वर्सा तांकां कादयेंतल्यान सोडिल्लें. उपरांत १९३० त ते भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेसीचे सचिव जाल्ले. १९३९ त परत ते त्याच पदार वेचून आयिल्ले. पूण त्या वेळार महात्मा गांधीजींची मान्यता पट्टभी सितारामय्या हांकां अध्यक्ष करपाची आशिल्ली. १९३८ त सुभाषचंद्र गांधींजींच्या इच्छेखातीर कॉंग्रेसीचे अध्यक्ष जाल्ले. स्वतःच्या विरुध्द गेल्ली मतां पळोवन तार्णी रोखडोच अध्यक्षपदाचो आनी कॉंग्रेसीच्या वांगडी पदाचो राजीनामो दिल्लो.

ानी ताणीं स्वतंत्र पार्टी काडिल्ली, तिका नांव दिल्लें 'ऑल इंडिया फोरवर्ड ब्लॉक'.

दुसऱ्या जागतीक म्हाझुजावेळार सुभाषचंद्र बोस ल्हिपून घर सोडून पयली फघाणिस्तान आनी थंयच्यान मॉस्को देशांत इटालियन पासपोर्टाचेर गेल्ले. त्यावेळार ताणीं ावंट ऑरलांडो माझोरा नांव धारण केल्ले. मॉस्कोच्यान ते रोमांत, उपरांत जर्मनींत गेल्ले. थंय ाणीं भारताखातीर खासा ब्युरोची स्थापना करुन आझाद हिंद रेडिओ वतीन प्रसारण केल्लें. वतंत्र भारत सेंटराची स्थापना ताणीं बर्लीन शारांत केल्लीं. पूण हिटलराच्या सोवियत युनियना वशींच्या निर्णया खातीर ताणीं जर्मनी सोडिल्ली. बोटीन ते जपानांत गेल्ले. थंय जपानाच्या ाादारान ताणीं सिंगापुरांत भारतीय राष्ट्रीय आर्मीची (INA) स्थापना केल्ली. सुरवेक तांकां ह्या ार्यांत जैत मेळिल्लें तरूय ती उपरांत सोडची पडिल्ली.

स्वातंत्र्य चळवळीविशीं तांची मतां वेगळीं आशिल्लीं ' तुम मुझे खून दो, मैं तुम्हें ाजादी दुंगा '' हें तांचें तत्व आशिल्ले. ते गांधींजींच्या तत्वांचे विरोधी आशिल्ले तरुय गांधी ांकां देशभक्तांचे देशभक्त मानताले. महात्मा गांधींक देशाचे बापूय (Father of Nation) हणपी नेताजी सुभाषचंद्र बोस आशिल्ले.

अशें सांगतात १८ ऑगस्ट १९४५ त तैवानांत विमान कोसळून जाल्या अपघातांत ोस सोपिल्ले. थोडे म्हणटाले तांकां सोवियतांत अटक करून सायबेरीयांत व्हेल्ले. तांच्या रणाविशीं जायते तर्क वितर्क काडिल्ले. त्याखातीर भारत सरकारान तांच्या मरणाची चवकशी रपाक तीन कमिशनां नेमिल्लीं. त्या प्रमाण ते विमान अपघातांत अंतरिल्ले. उपरांत चौथें मिशन नेमिल्ले. तांचो रिपोर्ट मेळपाचो उरिल्लो.

नेताजी सुभाषचंद्र बोसांक भारताचो सर्वोच्च नागरी पुरस्कार 'भारत रत्न' १९९२ र्सा मरणोत्तर जाहिर जाल्लो. पूण मरणोत्तर ह्या शब्दाक भौसान विरोध केल्लो. त्या खातीर ुप्रिम कोर्टान ४ ऑगस्ट १९९७ वर्सा तो रद्द केल्लो.



*तुमच्या जिवितांत घडटा तें सगळें तुमकां बदलपाख्खातीर, ताचो स्विकार करात - स्वामी विवेकानंद*

# फाव जाल्ले पुरस्कार आनी सन्मान



एन्. सुहास

* अखिल भारतीय स्वामी विवेकानंद राष्ट्रीय पुरस्कार.
* राज्यस्तरीय महाराष्ट्र गुणीजन रत्न गौरव पुरस्कार.
* अण्णाभाऊ साठे समाजसेवक पुरस्कार.
* खेळांगण-गोंयचे पारंपारीक आनी हेर खेळ पुस्तकाक आयडियल राष्ट्रीय साहित्य पुरस्कार.
* नादब्रम्ह संगीत अकादमी, कुडचडेंचो भौमान.
* सौंगडी मासिक - कथा सर्तीत पयलें इनाम.
* उत्तमकथा मासिक (मराठी) कथा सर्तीत दुसरें इनाम.
* माधुरी मासिक (हिंदी)- लेख सर्तीत दुसरें इनाम.

* राष्ट्रीय युवा योजना, दिल्ली संस्थेचो वांगडी/सभासद
* आंतर भारती, पुणे संस्थेचो गोवा राज्य संघटक.
* आंतर भारती, स्थानीक युनिटाचो सचिव.
* राष्ट्र सेवा दल - हे समताधिष्ठीत समाज निर्मिती खातीर कटीबध्द संघटनेचो दक्षीण गोयांत पदाधिकारी.
* गोंयच्या साबार संस्थांच्या कार्यकारीणीचेर विविध पदांचेर कार्यरत.

**श्री. सुरभि प्रकाशन, धडें, सावइडें - कुडचडें,**
**गोंय - ४०३ ७०६**